Price Rs. 20/- (Rs. 25/- Outside Goa)




एप्रिल २०१०

# जी-7 ची जीजी
# मुख्यमंत्र्यांची अजिजी
# आनी जनतेची
# जिजीर जिजीर जी! जी!! जी!!!





# तुमच्या तळहातार पुराय संवसाराचें भवितव्य पेलतना तुमकां कशें दिसतलें?

हो तुमच्या उदकाचो निमणो थेंब आसल्यार
तुमी तो कितली काळजी घेवन जतनायेन वापरतले?




गोंय हें उदका पुरवण पातळी, पुरवठो क्षेत्र आनी प्रमाणशीर पुरवठो हातूंत पयल्या क्रमांकाचें राज्य.

तरीय, असमान वितरण आनी कांय गिरायकांकडल्यान सुमाराभायलो वापर आनी उधळपट्टी उदकाचो उणाव हाडटा.

## उदक सांबाळून वापरात

## गोंय राज्यांत सकयल दिल्ल्या बांदावळ येवजण्याखाल उदरगत आनी उत्कर्श सादपाचो यत्न

अ) रस्ते आनी पूल: राष्ट्रीय म्हा-मार्गासयत, म्हत्वाचे रस्ते आनी गांवगिरे रस्ते.

ब) संस्थांखातीर संकुलां आनी हेर रासवळ इमारती.

क) मुखेल उदका पुरवण येवजण, गटार येवजण आनी सुलभ शौचालया सारक्या उण्या खर्चाच्यो भलायकी देण्यो येवजण्यो

ड) जेटी आनी धक्यां सारख्यो उदकासंबंदी येवजण्यो.

इ) खेळां मैदानां आनी जलतरण तशेंच शार आनी गांवगिऱ्या वाठारांखातीर हेर नागरी बांदावळ.

## उदरगत आनी उत्कर्शाद्वारा विकास

आरबिडी कायदो, १९६९ प्रमाण जन्म आनी मृत्यू नोंदणी सक्तीची आसा.



**रासवळ बांधकाम खातें**
गोंय सरकार

वर्स : ९ अंक ४



एप्रिल २०१०



मोल २० रुपया



मुखेल संपादक

दिलीप बोरकार



भुरग्यांचें आंगण संपादन

सुफला रुद्राजी गायतोंडे



मुद्रक आनी प्रकाशक

दिलीप बोरकार



छापणावळ

सह्याद्री ऑफसेट, खोर्ली–तिसवाडी



मार्केटींग व्यवस्थापन

कामिनी किणी



अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ

श्वेता नाईक



वर्गणीचे दर

वर्सुकी २०० रु. / तीन वर्सां ५५० रु.



खंयच्याय म्हयन्या सावन वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक 'बिम्ब' ह्या नांवान धाडचो



संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो
'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५
E-mail : bimbkonkani@yahoo.co.in

ह्या अंकांत उक्तायल्ले विचार त्या त्या बरोवप्याचे आसात. संपादक मंडळ तांचेकडेन सहमत आसतच अशें ना.



कोंकणी मासिक
# बिम्ब




जी-७ ची जीजी !
मुख्येमंत्र्यांची अजीजी
आनी जनतेची
जीजीर जीजीर जी! जी! जी!



– दिलीप बोरकार



रेखाचित्रां – गिरिश नंदा बोरकार

संपादकीय

# आमकां आरड मारचीच पडटली!

खंयच्याय राज्याच्या मुखेलमंत्र्यांक आनी तांच्या सहकारी मंत्र्यांक राज्याची उदरगत करतलो जाल्यार तांच्या सत्ताधारी पंगडामदीं एकसंघपण जाय पडटा. तांचेमदीं एकमेकांचेर विस्वास आसचो पडटा आनी सगळ्यांत म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार सगळ्यांभितर खंयच्याय धोरणांविशीं एकवाक्यता आसची पडटा.

हांगा आमी समविचारी हें उतर मुद्दम वापरूंक ना. कित्याक आयच्या राजकारणांत राज्याच्या उदरगतीचो हावेस बाळगुपी, आदर्श राज्य निर्माण करपी, लोकप्रिय राज्यकारभार दिवपाची मोख बाळगुपी समविचारी सापडप कठीण. आयची एकंदर भोगवादी प्रवृत्ती, वैचारीक दिवाळखोरी आशिल्ले, राजकारणाकडेन धंदो म्हणून पळोवपी लोकांमदीं राज्याचे उदरगतीचे नदरेन बरेपणाचो विचार करपी समविचारी सोदपाचो प्रयत्न करप म्हळ्यार आपल्याच विचारांकडेन प्रतारणा करप.

एखाद्र्याक राज्याच्या उदरगतीचो हुसको आसत. त्याच ध्येयान तो एखाद्रो राजकारणांत भितर सरिल्लो आसतूय बी. पूण एक बरो मनीस आसलो म्हूण हेर वायट मनीस ताचे लगाडीन बरे जातले हो आंब्यांचो नेम हांगा लागना. मुड्यांत एक आंबो कुसको आसल्यार आख्खो मुडोच कुसता हें सत! हांगा तर पुराय मुडोच कुसला तेन्ना तातूंत आशिल्लो एक आंबो कितलोय प्रयत्न केलो तरी बरो उरतलो वो तो कुशिल्ल्या आंब्यांक बरे करतलो अशी आमी अपेक्षा बाळगुंकूच शकनात. तेन्ना प्राप्त परिस्थिती कशी आसा हें लक्षांत घेवन आमकां वारो येता तेवटेन सूप धरून भात आसडुपाचो वावर करचो पडटलो.

आदर्श राज्याची आमी अपेक्षा केन्ना बाळगूंक शकतात, जेन्ना समविचारी, एकाच ध्येयधोरणांनी एकठांय आयिल्लो पंगड वो पक्ष संपूर्ण भोवमतान सत्तेर येता तेन्ना. तातुंतले कांय वांगडी सुवार्थाखातीर पक्षांतरां बी करतात. हीं असलीं पक्षांतरां घडचीं न्हय आनी राजकारणांत थीरताय येवची म्हूण पक्षांतर बंदी बी कायदो वेळावेळार चलणुकेंत येता. तांचो वापरूय जाता. तेच पासत आपल्याक मंत्रीपद वो जोडपा सारकें महामंडळ हाताक लागलेंना जाल्यार पक्षांतर करपाचे निर्णय कांय आमदार घेताले आनी ताणीं हे आदीं पक्षांतरा घडोवन हाडून सरकारां उडयल्यांय बी. पूण पक्षांतर बंदीचो कायदो येत सावन मंत्रीपदां, मंहामंडळां झक मारली, मेळिल्ली आमदारकी तरी सांबाळुया म्हण कांय आमदारानी हे भानगडींत पडपाचें सोडून दिलां. तरीपूण आयज खंयच्याच एका पक्षाक सरकार घडोवपा सारकें संपूर्ण भोवमत नाशिल्ल्यान युतीचेर भरंवसून रावचें पडूंक लागलां. अशे हे परिस्थितींत समविचारी लोक एकठांय येवन आदर्श राज्य निर्माण करतले म्हणपाची गजाल काळाभायरी जावन गेल्या.

आयज गोंयच्या राजकारणाकडेन पळयत जाल्यार हे मुखार राज्य चलोवन गोंय घडोवच्या बदला राज्य चलता सर चलोवया आनी तातुंतल्यान आपलें सादोवंक मेळटा तितलें सादोवया असलोच प्रकार घडून येतलो म्हणपाचें दिसता. आयज गोंयांत सुवार्थान आनी भ्रश्टाचारान इतली तेंगशी गाठल्या की आपलो पक्ष ही संकल्पनाच राजकारणी विसरून गेल्यात. आपलो पक्ष एकसंघ दवरून पक्षाक सत्तेर हाडटले ही भावना कोणाच्याच मनांत ना. पक्षांत एका परस चड मुख्यमंत्री पदाचे वो हेर मंत्रीपदाचे दावेदार आसत जाल्यार वेंचणुकेंत आपणेंच वेंचून येवचें हाचेकडेन दर एकल्याचें लक्ष आसता. बाकीचे पडले जाल्यार हरकत ना. पडल्यार बेस बरें जालें, मुखेलमंत्री पदाचे सर्तींतल्यान एकलो तरी उणो जालो अशें तांका दिसता. तेच पासत आपूण कसो जिखतलो हाचो विचार करता आसतनाच दुसऱ्याक कितें केल्यार उडोवं येता हाचोय विचार मुख्यमंत्री पदाच्या सर्तींतलो ज्येश्ठ राजकारणी करता. हेच कुल्लेचे मनोवृत्तीक लागून आयज गोंयच्या काँग्रेस पक्षाक लेगीत स्पश्ट भोवमत मेळूंक पावना. हाकाच लागून मागीर मेळटा ताका लागीं करून सरकार घडोवपाची पाळी येता.

मोगात आनी झुंजात सगळें माफ म्हणटात तातूंत आतां राजकारणांतूय सगळें माफ म्हणपाची वेळ आयल्या. सत्ता जर भोगूंक जाय जाल्यार थंय तत्वां, आदर्शवाद बी हांका खंयच सुवात आसूंक फावना आनी तशी कोण ती बाळगीय बी ना. तेच पासत आपलें सादोवन घेवपा खातीर हें युतीचें सरकार एकमेकाक सांबाळून घेवन धुकलत रावता. अदीं मदीं सरकाराचो तेंको काडपाची धमकी हे युतीचो एक खूर दिता तेन्ना त्या खुराचेंय बळिश्ट पंगडाक आयकुचें पडटा.

केंद्रांत आनी हेर राज्यांनीय हें असलेंच राजकारण चलत आसा. गोंयय ताका आडवाद ना. तेच पासत चलता म्हणसर राज्य आनी थांबता तेन्ना राष्ट्रपती राजवट अशी कितें सद्याची गोंयची अवस्था जावन गेल्या. तेच पासत सद्याच्या सरकाराकडल्यान कोणूच कसली अपेक्षा बाळगिनांत. बाळगितात ती व्यक्तिगत स्ताराचेर. आपलें व्यक्तीगत काम पुराय करपाकूच कांय लोकांक हें असलें सरकार तिगिल्लें जाय. तेच पासत तांचीय धडपड चालू आसता.

पूण जे कोण आमचे सारके गोंयचे उदरगती पासत बरें सरकार जाय अशी अपेक्षा बाळगून आसतात तांची मात ही हळशीक पळोवन अपेक्षाभंग जावन वता. आदर्श राज्याचीं तांचीं सपनां हीं सपनांच उरतात.

तरी लेगीत हो असलो प्रकार आनीक कितलो काळ सोसून ओगी बसतले होवूय प्रस्न आसाच. एक तर हें जें चल्लां तें तशेंच चलूं दी म्हणत हात कामरून ओगी बसपाचें अथवा हें चल्लां तें सारकें न्हय तुमी राज्याचे लुटारू, तुमी राज्याक लुटतात, जनतेच्या दुडवांचेर तुमचीं फोल्गां चल्ल्यांत, तुमकां हें करपाचो अधिकार ना अशें सतत आरड मारून सांगपाचें! ही आरड कोणें आयकूं वा ना आयकूं! ती मारतना ताळोय बसूं येता. तरी आरड मारल्या बगर पर्याय ना. ती मारल्या बगर हो निशेध कोणाच्या कानार पडचोना. कोणे तरी आयकूं मेरेन ल्हान आवाजान कांय जायना आमकां आरड ही मारचीच पडटली.

# समिक्षक एस्. डी. तेंडुलकारांचें भाश्य

**बिं**म्ब मासिकांत समिक्षक श्री. एस्. डी. तेंडुलकार हांचें 'समिक्षकाचे नदरेंतल्यान' हें म्हजेसारको चोखंदळ रसिक वाचपी रूचीन वाचता. 'काव्योत्सव' ह्या कविता सर्तींत भाग घेतिल्ल्या कवी /कवयित्रींच्या कवितांचेर श्री. तेंडुलकार आपले खाशेले शैलींत भाश्य करतात. अश्या भाश्यांतल्यानूच कोंकणी काव्य चळवळ, साहित्य चळवळ आकाराक येवं येता. नाजाल्यार कोंकणीत आज वर्सान वर्स पुस्तकांचेर पुस्तकां उजवाडाक येतात आनी तीं काळाच्या पोटांत गडप जातात. तांची कोण दखल लेगीत घेनात. ताका लागून कोंकणींत कितलेशेच लेखक,कवी अळम्यांसारके उदेतात आनी कांय तेंपान नाच्च जातात. अशे तरेन कोंकणी साहित्यांत मुल्यात्मक भर पडच ना, उलट रद्दी मात वाडत वता. कितल्याशाच कोंकणी लेखकांक आपणें बरयल्लें साहित्य हें मिरोवपाचें साधन दिसता. तांतल्यान मुल्यात्मक साहित्य निर्मिती कुशीकूच उरून फकत 'साहित्य' ह्या गोंडस नांवाखाला 'शाब्दीक मिमिक्री' जल्माक येता. आनी अश्या 'शाब्दीक मिमिक्रीकूच' आमचे म्हालगडे परिक्षक पुरस्कार पसून दितात. आमच्या म्हालगड्या लेखकांच्याच मनांत मुल्यात्मक साहित्य निर्मिती विशीं आकांताचे गैरसमज आसात. आनी आपले गैरसमज ते नवोदीत लेखकांक सांगून तांच्याय मनांत साहित्याविशींची फटीची प्रतिमा उबी करतात. अश्या म्हालगड्यांक योग्य ती समज दिवपाचें काम समिक्षक तेंडुलकार करतात हे खातीर तांकां दाद दिवचीच पडटा. अशें म्हालगड्या साहित्यीकांच्या साहित्याचेर धाडसान ते बरप करतात हे खातीर तांचें कौतुक करूंकूच जाय.

कोंकणीतले कांय म्हालगडे, पुरस्कार प्राप्त कवी, लेखक कित्याक बरयतात काय असो प्रस्न पडटा. तांच्या बरोवपा फाटलें नेमकें कारण समजना. साहित्यांतलो तोलामोलाचो असो 'साहित्य अकादमीचो पुरस्कार' फाव जाल्ले कांय लेखक नवोदितांक लजेक घालपासारकें उण्या दर्जाचें लेखन करतात. ताणी लेखन करपाचें थांबयलें जाल्यार कोंकणी साहित्याचें व्हड लुकसाण जातलें अशें तांकां दिसता काय कितें?

कोंकणींत प्रकाश पाडगांवकार, माधव बोरकार, तुकाराम शेट, जॅस फर्नांडीस, भिकाजी घाणेकार, रामकृष्ण जुवारकार सारके कवी, लेखक आयचे घटकेक ज्यो कविता बरयतात त्यो ताणी सुर्वेच्या काळार बरयल्ल्या कवितां परसूय उण्या दर्जाच्यो आसात. संजीव वेरेंकार, निलबा खांडेकार हे कवी आपूण कितें तरी क्रांतीकारक विचार मांडिल्ल्या सारके भासयतात. पूण तांचें लेखन म्हळ्यार दोंगर पोखरून भायर आयिल्ल्या हुंदरा सारकें आसता. हाचेफाटलें कारण म्हळयार 'मुल्यमापनात्मक दृश्टीन' आजवेर कोंकणी साहित्याची समिक्षाच जाल्ली ना. कोंकणीत जी समिक्षा आसा ती एकामेकांक खूश करपाक बरयल्ली. उखलापी.

हालींच्या काळार तर 'युवा साहित्यीक' ह्या सोबीत नांवाखाला कोंकणीत 'साहित्यीक मिमिक्री' सुरू जाल्ली दिसता. हातूंत श्री. राजय पवार, सम्राट बोरकार, हनुमंत चोपडेकार सारके सवाय प्रसिध्दीखातीर हपापिल्ले लेखक येतात. ते केन्ना कविता बरयतात, तर केन्ना नाटक. जशी मागणी तसो पुरवठो. हे लेखक स्वता प्राध्यापक आशिल्ल्यान साहित्य निर्मिती म्हणल्यार तांकां ॲकेडेमीक ॲक्टीवीटी कशी दिसता. मुल्यात्मक साहित्य निर्मिती म्हळ्यार कितें तें ह्या बाबड्यांक खबरूच ना. 'उक्त्या मळबाच्या' नांवाखाला भरत नायक म्हूण एक कवी कविसंमेलनां घडोवन हाडटा. नव्या बरोवप्यांक थंय कविता सादर करपाची संद मेळटा. पूण लेखनाच्या दर्जाचें कितें?

कोंकणी साहित्य परंपरा, कोंकणी काव्य परंपरा हाचेविशीं एकलो लेगीत गंभीरपणान




विचार करिना. साहित्य म्हणल्यार 'पासटायम' करपाचें साधन असोच कांय सो दृश्टीकोण कोंकणीतल्या लेखकांचो जाला. आतां आनी रोमी लिपींत बरयतल्या साहित्यीकांकूय खूश करपाचे प्रकार कोंकणीत सुरू जाल्यात. तांच्याय रद्दी साहित्याक आतां साहित्य अकादमीचे पुरस्कार मेळपाचे आसात. त्या भायर मराठींत बरोवपी कांय लेखक कोंकणीत बरोवन पुरस्कार मेळोवपाचे आशेन बरप करीत आसात. अशांनी कोंकणी साहित्य फुडें वचपाचें ना, उलट तें हेर भाशांचे तुळेन फाटीं पडपाचो भंय आसा.

समिक्षक श्री. तेंडुलकाराकडें एक मागणें आसा, ताणी कोंकणींत उजवाडाक येतल्या साहित्याची मुल्यात्मक नदरेन समिक्षा करची. जें साहित्य मुल्यात्मक नदरेन ताकदीचें आसा ताका उबारी दिवन फुडें हाडचें. जें 'पोल' आसा तेंवूय रसिकांक दाखोवन दिवचें. कोंकणींतले कांय लेखक मातून हत्ती जाल्यात. खरें म्हळयार ते फुगिल्ले बेबे. अशा लेखकांक, तांच्या साहित्याक मातूय दया-माया न दाखयतां तांचे साहित्यकृतीचें योग्य तें मुल्यमापन करचें. साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फाव जाल्ल्या पुस्तकांचेरय तांचेकडल्यान मुल्यमापनात्मक समिक्षा वाचूंक मेळची.

**– विनायक प्रभू**
खडपा बांद, फोंडें-गोंय



# जी-७ ची जीजी ! मुख्यमंत्र्यांची अजीजी आनी जनतेची जीजीट जीजीट जी! जी! जी!

*दिगंबर कामत सगळयांक आपलेकडेन दवरून, सांबाळून सरकार तिगोवंक शकता आनी ताणीं तिगोवंक जाय अशी काँग्रेस पक्षाच्या श्रेश्ठींची अपेक्षा आशिल्ल्यान दिगंबर कामतीनूय अपेक्षाभंग केलो ना. सगळयांक जाय तें दिवन साडेतीन वर्सां सरकार तिगोवन दवरप ही सादी गजाल न्हय. तेच पासत ह्या सरकाराक दिगंबर कामतीचें सरकार म्हूण वळखतात.*

लज दिसता म्हाका म्हजीच ह्या गोंयची राजकी अवतिकाय पळोवन. हेच राजकी अवतिकायेन बाकीच्या हेर सगळ्या मळांचेर अवतिकाय हाडल्या. आयची गोंयची परिस्थिती पळयल्यार फुडाराक गोंयच्या लोकांमुखार कितें वाडून दवरलां हाचें स्पश्ट चित्र दोळ्यां मुखार दिश्टी पडटा आनी दिसान दीस इबाडत वचपी हळशिकेचेर म्हजे सारको मनीस कांयच करूंक शकना म्हणून म्हाका लज दिसता.

म्हज्या जिवितांतलीं ऐन जुवानपणांतलीं बरींच वर्सां हांवें आदर्श गोंयचीं सपनां पळयत तीं फळादीक जावंचीं हे हावेसान वेगवेगळ्या चळवळींक दिल्यांत. विद्यार्थी चळवळींतल्यान पयले खेप रासवळ मळार हड्डें मुखार काडून भाशण केल्लें तेन्ना त्या काळार सत्तेर प्रतापसिंग राणे आनी हेर लोक आशिल्ले. जेन्ना आतां कांयच उपाय उरूंक ना म्हूण चळवळींतल्यान आंग काडून घेवन साहित्य निर्मितींतूच लक्ष केंद्रीत केलें तेन्नाय तोच प्रतापसिंग राणे आनी हेर सत्तेर आसात. तातूंत भर म्हूण तांचो चलोय आयज सत्तेर आसा आनी फुडलीं पन्नास वर्सां तरी तोच आसतलो. आतां बायलां आरक्षण बील लोकसभेंत पास जावन ताचो कायदो जातकच दिव्या राणेय पाळी वो दिवचल मतदार संघातल्यान वेंचून येतल्यो.

हांव हांगा चळवळीची गजाल करतां ती चळवळ राणे कुटुंबाक सत्ते भायर दवरूपाक आशिल्ली असो ताचो अर्थ निखालूस न्हय. लोकशाय पध्दतीन राणे घराब्यांतले सगळेच सदस्य वेंचून येवन सत्तेर आयले जाल्यार म्हजी कसलीच हरकत ना आनी आसपाचीय गरज ना. म्हाका हुसको आसा तो हे घराणेशायेक लागून नव्या विचारांचें फुडारपण गोंयांत तयार जायना आनी एका घराण्याची लाचारी करपाची परंपरा खंडीत जायना. सत्तेफुडें शाणपण चलना देखून शाण्यांक म्हळ्यार विद्वानांक लेगीत हे सत्तेमुखार मान तुकवची पडटा!



## गोंयचें गणीत कशें चुकलें तेंच कळना

गोंय पुर्तुगेजांच्या शेकातळांतल्यान मुक्त जावन भारतीय गणराज्यांत आसपावलें तें १४ वर्सां उपरांत. हीं चवदा वर्सां गोंयच्या सुटके झुंजाऱ्यांनी आनी हेर दूरदृष्टी आशिल्ल्या गोंयकारांनी लोकशाय म्हळ्यार कितें आनी देशांतल्या हेर राज्यांचो कारभार आनी चलणूक कशी आसा हें पळयल्लें. तातुंतल्यान गोंय कशें आसूंक जाय आनी तें हेर राज्यांमुखार एक मॉडेल म्हूण कशें दवरूं येता हाचो विचार तांचे तकलेंत नक्कीच आयिल्लो आसूंक जाय. पुर्तुगेजांच्या शेका तळा राविल्ले तेन्नाचे गोंयकार आतांवरी नक्कीच अतीविद्वान नासुये. म्हणटकच गोंयकारपणाच्यो बऱ्यो गजाली सांगप्यां फाटल्यान हे सादे भावार्थी गोंयकार नक्कीच रावपाचे. पूण मुक्त गोंयांतले पयलेच वेंचणुकेंत ह्या गोंयकारांनी गोंयच्या सुटकेझुंजाऱ्यांक आनी द्रष्ट्या लोकांक राजकारणांतल्यान भायर मारले. जाणीं गोंय मुक्त केलें, ते पासत हाल उपद्रे सोसले, जाणीं गोंयच्या फुडाराचें सपन रंगयलें तांका राजकारणांतल्यान अशे उवाळून उडोवपाचें कारण कितें आसलें?

तेन्ना आयचे सारके पयशे घेवन मतां मारपी मतदार नासले. तोंडार एक आनी काळजांत एक अशें दवरून वागपी दुटप्पी मनोवृत्तीचे लोक नाशिल्ले. आशिल्ले ते धर्म-जात कुशीक दवरून हिन्दू, क्रिस्तांव हीं दोन पानां एकचाराच्या देंठान बांदून राविल्ले सादे गोंयकार. अशें आसतनाय हें गणीत कशें चुकलें?

## आनीकूय जायत्यो संदी हुकल्यो!

गोंय मुक्ती उप्रांत गोंयच्या विलिनीकरणाचो प्रस्न उप्रासलो तेन्ना गोंयच्या स्वतंत्र अस्तित्वाचो पाखो गोंयकारांनी एकवटान घेतलो. गोंयच्या सुटकेझुंजाऱ्यांक आनी द्रष्ट्या फुडाऱ्यांक वेंचणुकेवेळार न्हयकारिल्ले तांच्याच उल्याक जाप दिवन गोंयकारांनी गोंयचें स्वतंत्र अस्तित्व राखलें. पूण परतून सत्तेचो प्रस्न आयलो तेन्ना फुडले वेंचणुकेंत ह्याच गोंयकारांनी ह्या उमेदवारांक न्हयकारून जे विलिनीकरणा वाटेन आशिल्ले तांच्याच हातांत सत्ता सुपूर्द केली. हाचेवेल्यान गोंयच्या ह्या लोकांच्या मनांत खरेंच कितें आसा हें कळपाक मार्ग ना.

जनमत कौलाचे चळवळी उप्रांत तितलेच तांकीची चळवळ गोंयांत उबी जाली ती कोंकणी प्रजेच्या आवाजाची. गोंयचें घटक राज्य, कोंकणी राजभास आनी आठवे वळेरेंत कोंकणी ह्यो तीन मागण्यो घेवन, धर्म-जात विसरून गोंयकार रस्त्यार देंवले. सरकाराक नाका पुरो केलें. जाण्ट्या नेणट्यांच्या तोंडार फकत कोंकणी प्रजेचो आवाज हीं उतरां मंत्र जावन राविल्लीं. लोकांक संघटीत करून, कसलोच धर्मीक, जातीय तंटो उप्रासूंक दिना आसतना तिनूय मागण्यो पदरांत घालून घेतिल्लें म्हाका दिसता गोंय हेंच एकलें एकसुरें राज्य. ह्या आंदोलनांतल्यान गांवां गांवांनी खडेगांठ नेतृत्व उबें रावलें. कोंकणी प्रजेच्या आवाजान राजकी पक्षाची घोशणा करून वेंचणुकेंत पावल घाल्लें जाल्यार प्रचंड भोवमतान हो पक्ष वेंचून येतलो अशें वातावरण गोंयांत तयार जाल्लें. तशी मागणीय तळा गाळांतल्यान जाताली. पूण कचखाऊ म्हणात वा फुडाराची नदर नाशिल्ल्या नेतृत्वान लोकांच्या ह्या हावेसाकडेन फाट केली. लोकांभितर अपेक्षा जागोवन ऐन वेळार आंग काडून घेतलें. राजकारणांत पडप आमचें काम न्हय. आमचें

काम बरोवपाचें, शिकोवपाचें, अशीं कितें तरी फित्रिकां सांगून ह्या नेतृत्वान पलायनवाद आपणायलो आनी गोंय परतून लांडगे आनी भेंकऱ्याचे भकीक घालें.



खरें म्हळ्यार गोंय मुक्ती उप्रांत जशे सादे लोक आशिल्ले तशेच सादे, मतदानाचें म्हत्व खबर आशिल्ले मतदार ह्याय वेळार आशिल्ले. पयशे घेवन मतां मारपाचें दुर्येस तितलें खरायेर पडूंक नाशिल्लें. लागण जाल्ली, पूण जाचें खाता ताकाच मतां, नातर देव पळयता असले विचारसरणीचे लोक तेन्ना आशिल्ले. आतां सारके सगळ्यांकडल्यान पयशे घेवन आपल्याक जाय तेंच करपी मतदार तसो तयार जावंक नाशिल्लो.

आदर्श गोंयचीं सपनां रंगोवन तीं मूर्त रुपांत हाडटलो जाल्यार हातांत सत्ता जाय पडटा. ती सत्ता हातांत घेवपाची संद द्रष्ट्या लोकांक मेळिल्ली. पूण आपल्या अपरिपक्व विचारांक लागून ह्या फुडाऱ्यांनी ती संद होगडायली आनी परतून गोंय लांडगे आनी भेंकऱ्यांचे भकीक घालें.

राजकीय नदरेन गोंय आतां बऱ्या लोकांच्या हातांत उरप कठीण अशी परिस्थिती तयार जाल्ली. मटन, चिकन, दुड्डू, सोरो दिवन जो कोण मतां मागता ताकाच मतां दिवपाची संस्कृताय तयार जाल्ली. आमदारकी मेळोवपाचें एकमेव क्वॉलिफिकेशन म्हळ्यार स्नायुबळ, दुडवां बळ आनी फटींगपणां अशें समिकरण जावंक लागिल्लें. जो कोण चड दुडू ओतता ताचेंच ह्या मुखार सत्तेच्या राजकारणांत काम अशें शें कितें वातावरण जाल्लें. बऱ्या मनशानी राजकारणाचो विचारूच सोडून दिवपाची वेळ आयिल्ली.

तरी लेगीत काळान आनीक एक संद निसुवार्थी, बऱ्या मनाच्या लोकांक दिल्ली. कोंकणी प्रजेचो आवाज संघटनेच्या रूपान लोकांक एकवटीत करपाची संद जशी गोंयकारां मुखार आयिल्ली तशीच संद गोंयच्या प्रादेशीक आराखड्याच्या मागणे खातीर गोवा बचाव अभियाना खाल गोंयच्या लोकांक मेळ्ळी. गोंय काबार करूंक उठिल्ल्यां आड आवाज उठोवपी एक शक्त लोकांमुखार आयली आनी ते शक्तीचेर विस्वास दवरून लोकांनीय गोवा बचाव अभियानाक तेंको दिलो.

हें सगळें वातावरण तापलें तें गोंयच्या विधानसभेच्यो वेंचणुको तोंडार आसतनाच. पुराय गोंयांत गोवा बचाव अभियानान खवदळ घाल्लो. लोकां मुखार नवी शक्त उबी रावली. लोकांची आस जागली. गोवा बचाव अभियानान फातर पासून दवरून ताका मतां मारात अशें आवाहन केल्लें जाल्यार लोक मतां मारपाचे, इतलो विस्वास गोवा बचाव अभियानान निर्माण केल्लो. तवो तापलेलो. गोंयकारांक बरी चपाती खावयतलो जाल्यार फकत पीठ कालोवन चपाती लाटून तव्यार उडोवपाचेंच सादें काम आशिल्लें. पूण परतून ह्या नेतृत्वान आंग माल्लें. आपलें काम न्हय तें अशें म्हणत ताणीं गोंय परतून लांडगे आनी भेंकऱ्यांचे भकीक घालें आनी आयज हेच लांडगे आनी भेंकरे गोंयचेर राज्य करतात.

आतां गोंयच्या बरेपणाची आस कोणे बाळगुपाची गरजूच ना. कित्याक आदर्श गोंय म्हळ्यार कितें? हाची संकल्पना आशिल्ले वो ते तरेन विचार करपी लोकूच गोंयांत उरूंक नांत. आसात पूण तांचें आयकुपाचें धार्जिणेच गोंयच्या मतदारांकडेन उरूंक ना. ते राजकारणांत सक्रीय नांत. कित्याक, तांका दिसता राजकारण हें बऱ्या मनशाचें काम न्हय. ती हळशीक. ते हळशिकेंत आमी पडप ना.

मागीर पडप कोणें? रेब्यांत धुकरानीच लोळप हें रेब्या बाबतींत बरें आसा. पूण राजकारण म्हळ्यार रेबो न्हय. लोकशायेन भेटयल्ली ती एक आदर्श जीवनप्रणाली. वायटां परस बरे लोक ह्या संवसारांत चड आसात. पूण संगठीत नात. जळामळाक फाफसल्ले आसात देखून जे कोण मूठभर एकठांय आसात तेच लोकशायेंत भोवसंख्य दिसतात. हे भ्रामक कल्पनेक लागुनूच आयज हळशीक लोकांच्या हातांत सत्ता एकठावल्या.

## हाचेर उपाय कितें आसा?

सद्याची एकंदर परिस्थिती पळयत जाल्यार हाचेर उपाय ना. हो निराशावाद न्हय. प्रत्येक गजालीक काळ होच योग्य निर्णय घेता आनी आपल्या गरजे प्रमाण सगळें घडोवन हाडटा. महाभारत कित्याक घडलें हाची जाप अजून कोणाकडेन ना. पूण ती काळाची गरज



आशिल्ली. ते गरजे प्रमाण तें घडलें आनी इतल्या हजार वर्सां उप्रांतूय ती घडणूक देख म्हूण आमचे मुखार आसा. तातुंतल्यान आमी कांयच देख घेनांत. वेल्यान नव्यो समस्या तयार करतात आनी त्याच समस्यांचे बळी थरतात.

गोंयची आयची राजकीय परिस्थिती हीच हेर सगळ्या समस्यांचें मूळ थारलां. हेच राजकी परिस्थितीक लागून गोंयचें संतुलन इबाडत आसा. दिसा उजवाडा गोंयच्या दोंगरांचो विध्वंस चल्ला. बेकायदेशीरपणान दोंगरांची कापाकापी चल्ल्या ती सगळ्यांक दिश्टी पडटा. बेकायदेशीरपणान जो तो उठ्ठा आनी खणी खणत आसा. तातूंत आमदारांचोय हात आसा. मंत्री- आमदार सरकारी तिजोरेचेर डल्लो मारीत आसात. मागीर तो जेवणा-खाणांच्या रुपान आसूं अथवा विमान प्रवासाच्या नांवान आसूं!

कांय मंत्र्यांनी तर नितिमत्ता आनी लज भीड सोडल्या. राज्याचे उदरगती खातीर वावराच्यो ज्यो निविदा काडटात ताचेर खंय सरळ पयशे मागपाचें धाडस हे मंत्री दाखयतात. आयच्या राजकारणांत निवडून येतलो जाल्यार कोट्यावधी रुपया जाय ही खरी गजाल. राजकारणाचो आज धंदो जाल्ल्या कारणान ह्या धंद्यांत घाल्लो दुडू भरून काडपा खातीर हें सगळें करप आयज आवश्यक थारलां. आयज तें मोठ्या प्रमाणांत आसूं. पयलीं ल्हान प्रमाणांत चलतालें. तेन्ना सगळें मेजा पोंदच्यान घेवप जातालें. आज सरळ सरळ मागप जाता कसलीच भिडमुर्वत बाळगिनासतना. हें अशें जावपाचें कारण म्हळ्यार हांकां विचारपी कोण ना. तांका कोणाची भिरांत उरंक ना. आपलीं कर्तुबां चार लोकांमुखार पावलीं जाल्यार आपली शी: थू जावपाची भिरांत आशिल्ल्यान लजे खातीर तरी कांय नितीनेम पाळप जातालें. आतां ह्या लोकांनी लजूच सोडल्या. सत्ते मुखार लोकूय मिंदे जाल्ल्यान तेच आपले फुडारी मानून तांचे समर्थक म्हणू वावरपांत धन्यताय मानतात. परतून वेंचून येवपाची शंबर टक्के खात्री आसतकच भिवपाक कोणाक जाय? आपूण करता ताका मुख्यमंत्री तरी कितें म्हणूंक शकता? तोंडांतल्यान उतर काडल्यार बंडाची धमकी मेळटा. तेंको काडून घेवन सरकार उडोवपाची तोंडार धमकी दितात. मागीर ह्या दावें तोडिल्ल्या बांगर बैलांक वेसण घालप कोणें? सगळे वटेन पळयल्यार हे अवतिकायेक ह्या मुखार उपायूच ना अशें दिसूंक लागता आनी गोंयचो फुडार काळखान भरिल्लो दिसून येता.

## जी-७ नावाची जीजी

फाटलीं पावणे तीन वर्सां सत्तेर आशिल्ल्या दिगंबर कामतीचें सरकार तिगून आसा तें जी-७ ह्या गटाक लागून. हांगा दिगंबर कामत हांचें सरकार म्हणचे पडटा ताचें कारण म्हळ्यार सद्या गोंयांत खंयच्याच एका पक्षाचें अशें सरकार सदरेर ना. कॉंग्रेस पक्षाचे चड आमदार आसले तरी तें कॉंग्रेस पक्षाचें सरकार न्हय. कॉंग्रेस पक्षांत मुखेलमंत्रीपदाचे एका परस चड दावेदार आशिल्ल्यान तडजोड म्हूण पावणे तीन वर्सां आदीं, केन्नाच आपल्याक मुख्यमंत्रीपद मेळटलें हें चिंतूक लेगीत नाशिल्ल्या दिगंबर कामतींच्या वांट्याक तें आयलें. राणे मुखेलमंत्री जाल्लो रवीक नाका आनी रवी जाल्लो नार्वेकाराक नाका अशी परिस्थिती आशिल्ल्यान दिगंबर कामत हे मुख्यमंत्री जावंक पावले आनी ताणीं सवंगूय बरें रंगयलें.

दिगंबर कामत सगळ्यांक आपलेकडेन दवरून, सांबाळून सरकार तिगोवंक शकता आनी ताणीं तिगोवंक जाय अशी कॉंग्रेस पक्षाच्या



श्रेश्ठींची अपेक्षा आशिल्ल्यान दिगंबर कामतीनूय अपेक्षाभंग केलो ना. सगळ्यांक जाय तें दिवन साडेतीन वर्सां सरकार तिगोवन दवरप ही सादी गजाल न्हय. तेच पासत ह्या सरकाराक दिगंबर कामतीचें सरकार म्हूण वळखतात.

हें सरकार तिगपाचें मुखेल कारण म्हळ्यार जी-७ नांवाचो नव्यानूच तयार जाल्लो हो पंगड दिगंबर कामतीक तेंको दिवन आसा. खरें म्हळ्यार हें काँग्रेस, राष्ट्रवादी काँग्रेस आनी महाराष्ट्रवादी पक्ष अशा तीन पक्षांचे युती सरकार पूण आतां ह्या पक्षांचें नांव कोणूच घेनांत. कित्याक पक्ष म्हणटात तें अस्तित्वातूच ना. जें कितें सरकार आसा तें व्यक्तीगत सरकार. दिगंबर कामत आनी ताच्या सांगाताक आशिल्ले हेर आमदार हांचो एक गट आनी राष्ट्रवादी, मगो आनी अपक्ष आमदार हांचो एक गट अश्या दोन गटांचें हें सरकार. दिगंबर कामतीचो पंगड लोकलज्जेक लागून म्हणात वो काँग्रेस पक्षाचे अध्यक्ष आनी जाळवणदार याद करून दितात म्हूण म्हणात काँग्रेस पक्षाचें अर्दी मर्दी नांव घेतात. पूण हेर पक्षांनी तर पक्ष खुटयाळ्याक लायल्यात आनी जी-७ हें नांव घेवन वावर सुरू केला. जी-७ हाची नोंद खंयच ना. जी-७ ही आपघोशीत गँग. तांचे मुखार निश्चित अशीं ध्येय धोरणां नांत. ताणीं जी हें अक्षर गोंयचें आद्याक्षर म्हूण घेतलां काय ग्रूप अथवा गँग ह्या शब्दांचें आद्याक्षर म्हूण घेतलां हें कळपाक मार्ग ना.

जर तें गोवाचें आद्याक्षर आशिल्लें आनी गोंयच्या भल्याखातीर एकठांय येवन ह्या गटान मुखेलमंत्र्यांचेर दबावतंत्र वापरूंक सुरू केल्लें जाल्यार गजाल वेगळी आशिल्ली. तुमी करतात तें बरें अशें म्हणून तांका येवकार दिवं येतालो.पूण हे सातूय जाण समविचारी न्हयच, सातूय जाणांचे आचार-विचार, संस्कार सगळे वेगळे, पूण ते एकठांय आसात ते फक्त दिगंबर कामतीक ब्लॅकमेल करून, दबावतंत्र वापरून आपलीं कामां करून घेवंक. जर ते गोंयच्या बऱ्या खातीर हें दबाव तंत्र वापरताले तर तांका माफ करू येतालें. पूण तांचें हें दबावतंत्र फक्त आपल्या सुवार्था खातीरूच आसा म्हणपाचें सगळ्यांक दिसता. विश्वजीत राणे हो एक ह्या जी-७ तलो जी. तो कोणावाटेन आसा तेंच कळना. आसता जी-७ त पूण दिगंबर कामतींक सांगता आपूण तुजेवटेन आसा आनी हेरांक कळनासतना आपलीं कामां करून घेता. कामां जायनांत जाल्यार आपल्या संवगड्यांक फितायता. सरकाराचो तेंको काडटलों म्हूण धमकायता. हें धमकावप हालींसराक इतलें वाडलें की अमूक केलेंना जाल्यार विधानसभेंत सरकार जो अर्थसंकल्प मांडटलें ताका जी-७ तेंको दिवपाचे नांत. आतां अर्थसंकल्प मांडपी कोण? दिगंबर कामत काय सरकार? अर्थमंत्री म्हूण दिगंबर कामत अर्थसंकल्प मांडटा आसत पूण तो सरकारचो अर्थसंकल्प. जे कोण जी-७ ह्या नांवान दबावतंत्र वापरतात, ते सरकारांतले मंत्री. म्हणचे तेच अर्थसंपल्प मांडटात म्हळ्यार जाता. आनी ताणींच तेंको दिवचोना म्हणप म्हळ्यार तांची राजकी परिपक्वता कितें ती कळून येता. असल्या ह्या अपरिपक्व ब्लॅकमेलरांक घेवन सरकार तिगोवप आनी चलोवप म्हळ्यार गोंयचे जनतेक मातूय लज दिसना काय कितें असो प्रस्न पडटा.

जी-७ तले सगळे आपल्या नाड्यार वेचणुकेंत वेंचूनआयल्यात. फुडाराकूय तेच येतले हातूंत दुबाव ना. आपूणच निवडून येवंचेनांत तर आनीक एक दोगांक निवडून हाडटले. कोणाक पयशे दिवप आनी कोणाक सोरो घालप हाची नाट ह्या लोकांक सांपडल्या. जेन्ना हारपाची भंय ना तेन्ना कसलोय जुगार खेळपाचें धाडस येता. तेंच धाडस हे जी-७ करतात. तांची शक्त खबर आशिल्ल्यान तांचे वाटेक कोण वचनांत. तेच पासत ह्या जी-७ चें फावलां. ही जी-७ ची जीजी सासणाची विलो लावपाची शक्त खरेंच आयज कोणाचकडेन ना?

## मुख्यमंत्र्यांची अजीजी

मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हांकां आपलो असो निर्णय घेवप आज शक्य ना. जरी ते म्हणटात आपणें मुख्यमंत्री पद मागूंक नाशिल्लें आनी तें गेलें जाल्यार आपल्याक दुख्ख ना. तरी तें खरें न्हय. सरकार तिगोवप काय बरखास्त करप हें मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हांचेर अवलंबून ना. तो निर्णय दिल्लीचे श्रेश्ठी घेतात. जेन्ना मुख्यमंत्री ह्या नात्यान दिगंबर कामत निर्णय घेवंक कमी पडटात तेन्ना तो श्रेश्ठी घेतात. जेर सर श्रेश्ठी सांगनांत की जी-७ कडले संबंद तोडात ते सर दिगंबर कामतींक संबंद जुळोवन दवरूंक जाय. हे निर्णय सोनिया



गांधी आनी शरद पवार घेता. म्हणटकच जी-७ जें कितें करता तें दिगंबर कामर्तीक मोन्यानी सोसून घेवंक जाय. वीट येवन दिगंबर कामत मुख्यमंत्री पदाचो राजिनामो दिवंक शकनांत. ते वीट येवन जी-७ कडेन झगडूंक शकनांत. तांच्या मंत्रीपदाक हात लावंक शकनांत. जेन्ना एखाद्र्या मनशाक कांयच करप शक्य जायना तेन्ना ताची कितें परिस्थिती जाता, ताका कितें भोगचें पडटा तें भोगतल्याकूच कळटा. आमकां मुख्यमंत्री पदाची शान आनी मान दिसता. पूण त्या काटेरी मुकुटाच्यो वेदना कळनांत. त्यो दिगंबर कामत भोगतात.

दिगंबर कामत हे एक बरे मनीस अशें सगळे म्हणटात. तातूंत तथ्यूय आसा. पूण इतले बरे मनीस राजकारणांत उपकारनांत. राजकारणांत भितल्ले बुद्धीचे लोक जाय पडटात. दिगंबर कामत सामकेच नितळ नांत तरी हेरांमदीं तांका बरें म्हणचें पडटा. पूण सरकार तिगोवपा खातीर तांकां जे सोसचें पडटा, जी-७ मुखार जी अजिजी करची पडटा ती मात सोसपा सारकी न्हय. तांका कितली लज दिसता ती खबर ना. पूण खंयच्याय सभ्य मनशाक पळोवंक लेगीत लज दिसपा सारकी गजाल ही!

## आनी गोंयचे जनतेची जिजीर जिजीर जी! जी! जी!

अशें म्हणटात लोकांक तांका फावता तसलेंच सरकार मेळटा. लोक प्रतिनिधी हे कळश्या सारके. बांयत कळसो सोडून तो भरून वयर काडलो म्हणटकच बांयत जें उदक आसता तेंच कळशांत येता. शळशांतल्या उदकाक जो कोण गाळी घालता तो मूर्ख म्हणूक जाय. बांयत जें उदक आसा तेंच शेवटाक कळशांत येतलें. आमचे जे लोकप्रतिनिधी आसात ते कुशिल्ले बांयतले उदकाचें प्रतिनिधीत्व करतात. म्हणटकच आमची बांय साफ ना. तांतलें उदक फक्त कुसूं ना तर ताका किडे पडल्यात. मागीर दोश कोणाक दिवपाचो?

आपणे वेंचून दिल्ले लोकप्रतिनिधी हे आपलेंच प्रतिनिधीत्व करतात हें जनतेक खबर आसा. हे जनतेन वेंचणुके वेळार देवळांखातीर, इगर्जेखातीर दुडू घेतिल्लो आसा. वेंचणुके वेळार कांय तरनाट्यांक मोबायल, मोटरसायकल मेळिल्ल्यो आसात. सर्वसामान्य मतदारांक सोरो आनी एका मताखातीर पांचवी, तांबडी नोट मेळिल्ली आसा. ही जनता ह्या जी-७ चे मिंदे आसा. उपकारांत आसा. जी-७ मदले कांय जी हे जनतेक वसूर्यभर पोसतात खंय! कोणाचें सोऱ्यांचे बील फारीक करतात, कोणाचें लायटीचें बील, कोणाच्या लग्नांक दुडू तर कोणाक आनी कित्याक. ताणीं दुडू घेवपाचे आनी वेंचणुके वेळार मतां मारपाचीं. उरिल्ले दीस जी-७ च्या नांवान जिजीर जिजीर जी जी जी करपाचें.

ही अशी आमची अवतिकाय जाल्ली आसतना आमी मान वयर करून भोंवतात, आमका मातूय लज दिसना हीच अजापाची गजाल म्हणूंक जाय!

❀❀❀

– दिलीप बोरकार

फोन : ९८२२१३६८८५

# हांव आनी आजी

भायरच वासरेर एऽद्दी व्हडली आमलाणीची रास पडिल्ली आनी थंय अर्दे केंस पिकिल्ली जाण्टेली आदोळेचेर बसून आमलाण कल्लायताली. 'हीच आजी जातली.' हांवें चिंतलें. आदोळेच्या पोंदा एद्दी व्हडली चिंचाऱ्यांची रास जाल्ली. चिंचारे पळोवन म्हजे दोळे सामके चकचकले. इतले सगळे चिंचारे!! कोण खाता काय?



**शा**ळेंत आमकां शिकोवपाक बाई आयली आनी आमी सामकीं 'रंगा-खूऽऽश' जालीं. हें 'रंगा -खूऽश' शाली, माली आनी म्हजे भितरच? खूब्ब खोशी जातकच आमी म्हणप - 'हे ऽऽ आमी रंगा-खूऽऽश'

आमचो पयलींचो मास्तर सामकोच मारकुटो. ओगीच पट्टी घेवन मारत सुट्टालो. अभ्यास केलो ना तांकां मारप- बरें आसा! पूण अभ्यास केला तांकांय मारप??? एक दीस हांवें म्हजो बसपाचो साका कुडको सारको करतना पांय मुखार काडून ताच्या पांयांक पांय घालून ताका उडयिल्लो. केद्दो 'ठोऽ' करून आवाज जाल्लो ताचो तकलो आपटल्याचो..!! हांवें मागीर सोमतेंच रडपाक कोमेस केल्लें . - "मी साक सारका करतना मास्तर मदींच आयला ऽऽ माझ्या पायांत खोंट घालून पडलाऽऽ"

तेन्नाच्यान मास्तर म्हाका पट्टी मारूंक गेलो ना. शाली- माली म्हणटालीं - "आमींय एक दीस वडयतलीं ताका" म्हणून.

पूण आतां तो गेलोच न्हीं! बाई आमकां शिकोवपाक आयली आनी आमी सामकीं उमेदीन भरलीं. आमची बाई कितली बरी म्हूण सांगपाची! ती आमकां अभ्यास शिकयतालीच. त्या खेरीज पदां म्हणूंक शिकयताली. नाच करूंक शिकयताली..!! शेऽ !! आमी बाईचेर सामकीं 'रंगा-खूऽऽश!'

त्या दिसा बाई आमकां "आईचा भाऊ मामा.. बापाचा भाऊ काका" करून शिकयताली. मदींच तिणें म्हळें- "जण एकल्याक दोन आज्यो आसतात. बापाची आई ती आजी आनी आईची आई ती आजी..."

हांव सामकें 'रंगा-खूऽऽश!' केन्ना काय घरा वतां आनी त्यो दोन आज्यो खंय काय आईक विचारतां अशें म्हाका जालें. आज्यांक पळोवपाची मोठीच उमळशीक लागली जिवाक!

शाळा सुटतकच धांवत-धांवत घरा गेलें. दप्तर जाग्यार उडयलें तेंच आईक घट्ट धरून विचारलें- "आई गे, म्हजी आईची आई -आजी आनी बापाची आई- आजी -- दोगांय खंय रावतात गे? दोन-दोन आजयो आसात मगे म्हाका? ... खंय गे त्यो?"

"दोगीय देवागेर गेल्यात." आईन

सांगलें.

"मागीर गे? परत्यो केन्ना येतल्यो त्यो?"

"आगो, देवागेर गेल्ले मनीस परते येनांत.." आईन सांगलें. आनी म्हजें मन मोठेंच विरूस जालें. दोनय आजयो म्हाका फटोवन देवागेर गेल्यो?

दुसरे दिसा शाळेंत वतकच हांवें बाईक म्हळें लेगीत - "बाई, मला एकूय बी आजी न्हाई. दोगय देवागेर गेल्या...." कोणें तरी म्हाका खूब्ब फटयलें अशें कितेंशें मनाक दिसून अवचीत शे म्हजे दोळे भरून आयले आनी दोनय पोल्यां वेल्यान घळ-घळ करून दुकां व्हांवक लागलीं.

बाईन म्हाकां वेंगेंत काडलें आनी म्हळें, "आगो, त्या कामाक रडूंक कित्याक जाय? म्हजी आजी आसा न्ही... ती हांव तुकाय दितां... सांजचें यो हां आमगेर..."

कितली बरी म्हजी बाई!! बाईच्या मोगान म्हजें हड्डें भरूनशें आयलें आनी हांवें तिच्या कमराक घट्ट वेंग मारिल्लेभशेन केलें. मागीर म्हजी म्हाकाच लज-शी जाली. बाईक म्हणून अशी वेंग मारप शाळेंत! सगळीं भुरगीं हांसतलीं म्हाका....

हांव चोरा भशेन हळूच म्हजें दप्तर घेवन म्हज्या जाग्यार वचून बसलें.

केन्नाकाय सांज जाता आनी हांव बाईगेर वतां अशें म्हाका जालें...

शाळा सुटतकच घरा येवन दप्तर जाग्यार उडयतां थंय आसां, हांवें आईक म्हळें - "आई गे, हांव बाईगेर वचून येतां हां मातशें..."

"कित्याक गो बाईन आफयलां?" आईन म्हळें.

"हय! हय! बाईन आपयलां.." आईक कितें निमित्त सांगपाचें हें आईनच म्हाका सुचयलें.

"तिळसांज जावचे पयलीं घरा पाव हां." आई म्हज्या फाटल्यान आड्डली.

हांव धांवतच बाईगेर पावलें.

केदें व्हडलें बाईलें घर!! भायरच वासरेर एऽद्दी व्हडली आमटाणीची रास पडिल्ली आनी थंय अर्दे केंस पिकिल्ली जाण्टेली आदोळेचेर बसून आमटाण कल्लायताली. 'हीच आजी जातली.' हांवें चिंतलें. आदोळेच्या पोंदा एद्दी व्हडली चिंचाऱ्यांची रास जाल्ली. चिंचारे पळोवन म्हजे दोळे सामके चकचकले. इतले सगळे चिंचारे!! कोण खाता काय?

हांव तिच्या तोंडाक पळयतां. चिंचाऱ्यांक पळयतां. एके वटेन हळदुवीच आमटाण पळोवन तोंडाक सामकें उदक सुटिल्लें.

ती म्हाका पळोवन हांसली. इतलें म्हों‌वाळ हांशें? हांव तिच्या तोंडाक पळयतच उरलें.

"आजी...?" हांवें म्हळें.

"यो-बस... आमटाणीचो बोटारो जाय मगो? घे. पूण चड खाल्यार थंडी जाता हां..."

"हां." तिणें दिल्लो बोटारो तोंडांत घालून चोखत हांवें म्हळें, "आजी... इतले सगले चिंचारे... बाईक बी चड जावंचे नांत?... म्हाका मगे, भाजिल्ल्या चिंचाऱ्यांचो वास बरोऽ लागता... आनी खावपाकय खूब आवडटात..."

आजी खूब हांसली. म्हज्या व्हिस्तिदाचीं दोनय बोल्सां तिणें चिंचाऱ्यांनी भरलीं आनी आईन व्हिस्तिदाक दोनच बोल्सां शिवल्यांत... तीन बी बोल्सां शिंवलीं नांत म्हूण म्हाका मनांतल्यान आईचो रागच आयलो....

"चड चिंचारे खायनाका हां. मागीर जीब दाट जातली आनी विद्या येवची ना..." आजीन सांगलें.

हांवें "बरें" म्हळें.

आतां कितें करप? आजी काय फट सांगची ना. विद्या येवपाकच जाय... पूण चिंचारेय खावपाक जाय.

मागीर हांवें मनांतच चिंचाऱ्यांची वांटणी केली. थोडे शालीक, थोडे मालीक, थोडे उषाक आनी थोडे भाजून दप्तरांत घालून शाळेंत व्हरप. खेळटात तेन्ना सगल्यांक एक-एक दिवप...

इतल्यांत बाई थंय आयली.

"आयलें तूं? मेळ्ळी मगो आज्जी? आजी हें आपल्याक आजी ना म्हूण रडटालें... म्हणून हांवें..."

बाई आनीकय सांगूंक वताली. हांवें बेगीबेगीन आज्जेक म्हळें, "आतां तूं म्हजी आजी. म्हाका मेळ्ळी न्ही? आतां हांव रडचें ना... आज तूं म्हाका काणी सांगतली मुगे?"

"आगो, काणी रातची सांगप, दिसाची काणी सांगल्यार तुजो मामा वाट विसरतलो." आजीन म्हळें आनी "वारे व्वा!" करून हांवें ताळीच मारली.

"कितें जालें गो?" बाईन अजापान विचारलें.

"आजी, सांग तूं काणी म्हाका... म्हाका मामाच ना..." हांवें नेटान सांगलें.

बाई आनी आजी हांस-हांस-हांसलीं.

आजीन मागीर म्हाका कुंडेकुस्कुराची काणी सांगली.

काणी आयकतना हांव तोंड 'आंऽ' करून आजीच्या तोंडाक पळयतच उरलें.

इतली बरी काणी हांवें केन्नाच आयकूंक नासली.

"आगो पोरा, तिळसांज जायत आयली. चल आतां घरा..." आजीन म्हळें.

काणी सोंपसर तिळसांज जाल्या हें म्हाका कळ्ळेंच ना.

आईन बेगीन घरा यो म्हणिल्लें.

कितले बेगीन ही तिळसांज जाता म्हणत, फडफडत, दोनय बोल्सांचेर घट्ट हात धरून हांवें घरा धांव मारली. आनी काळोख जावचे पयलीं एकदांचो जीव घराक घालो.

म्हजी आजी म्हाका खूब्ब म्हणजे खुब्बच आवडिल्ली.

ते खोशयेभरशीं हांवें हात-पांय धुवून देवाक पांयां बी पडलें. पटपटीत परवचा म्हळी, पाटयेर दोनय वटेन भरून अभ्यास बरयलो. कसलीच किटकीट करिनासतना

जेवलें आनी न्हिदलें.

"शाणें भुरगें तें म्हणेलें..." आईन मायेन म्हळें.

कुंडेकुस्कुराची काणी येवजीत येवजीत हांव न्हिदलें. कितल्यो काणयो सांगल्यो.... कोंतच ना.-

राखण्या पोराची, सुबूर-राजाची, भाजी-पाल्या भुताची, पडवळाची आनी भंवराची...

त्या खेरीज सीता-स्वयंवराक रामान धनुष्य कशें मोडलें. सीतेन रामाक कशी माळ घाली, कृष्णान रुक्मिणीक रथार घालून कशी व्हेली, आत्मलिंग व्हरतल्या रावणाक गणपतीन राखणो जावन कसो फटयलो... शबरीन रामाक घांस मारून चोखिल्लीं बोरां कशीं खाववलीं....

इतलें सगळें गिन्यान आजी खंयचे शाळेंत शिकिल्ली काय? म्हाका अजाप जातालें. आजीक विचारल्यार ती तर आपूण शाळेंत गेलीच ना म्हणटाली.

आठ-धा चरणांभितर तिणें सगळें रामायण गावचें... हांवें तें पाठ करचें...

'जल्मुनियां रघुवीर रघुकूळ भुषविलें।
लक्षुनियां त्राटिके प्रति संहारिलें ।
कोदंड भंगिलें रामें जनक-सीते वरिलें'

आजीन आपल्या किनऱ्याशा म्होंवाळ आवाजांत गावप.. हांवें पाठ करप...

"बाईगेर वतां गेऽ" म्हळें कीं आई 'हां' म्हणटालीच! बाई म्हळ्यार आईच्या मत्तान सगळ्यांक एक आदर्श! तिगेर वचपाक कसलीच आडखळ नासली.

आजी एक खीण लेगीत बेकार रावनासली. हातांनी किदें ना किदें काम करीत आसताली. हांवें तिच्या फाटल्या-फुडल्यान भोवन तिच्यो खबरी आयकप."

"माजरा पील कशें पांयांकडे घुसपुनाका गो पोरा..." तिणें म्हणप. हांवें मातशें कुशीन सरप.

एकादशी दिसा आजीन म्हणप - "आयलें गो म्हजें पोर? घे. आजीलो उपासाचो भोबो खा." गोड-सोय घालून केल्ल्या गंवापिठाचो भाकरे-कुडको तिणें म्हाका दिवप. मागीर तो चाबडायत हांवें तिचे फाटल्यान भोंवप!

आजीगेर आंब्याझाडांक खूब आंबे लागताले. कोबल्यान आंबे देंवयतना जमनीर पडून धडवल्ले आंबे आजी मीठ घालून उकडताली आनी व्हडल्या बुयांवांत भरून दवरताली.

"घे गो पोरा. उकडआंबो खा." अशें म्हणून म्हज्या हातार दवरिल्ली उकडआंब्याची पेस खावन घरा वचून हांवें आईक मोठेंच अजाप सांगलें- "आई गे, आजी मुगे बरेऽ उकडआंबे म्हणून करता. आमीय करया मगे..."

आईन "बरें" म्हणप आनी करपय बी! पूण आजील्या उकडआंब्या भशेन ते जावपच नांत.

मागीर हांव व्हडलें जालें. चार यत्ता शिकून पांचवेक पावलें. आजीय म्हातारी जाली. तिका दोळ्यांनी सारकें दिसना जालें. हांव पांचवी यत्ता शिकपाक मावशेगेर वचपाचें...

हांव वतां म्हूण आजीक सांगपाक गेलें.

"आजी, हांव मावशेगेर वतां... थंय शाळा शिकपाक..." हांवें आजीक सांगलें.

"चल्लें गो म्हजें पोर? बरें करून शाळा शीक हां..." आजीन म्हज्या दोनय पोल्यांवेल्यान हात भोंवडायले.... खरखरीत घट्ट हात! पूण जिवाक दिसलें - तिणें ते हात परते-परते म्हज्या पोल्यावेल्यान भोंवडावचे.

सुटयेंत घरा येतकच आजीबरोबर पाणट्यार न्हावपाक वचप. आजी खोंटलीभर ओलीं घेवन पाणट्यार उमळपाक वताली.

"आजी, तूं मगे कर्मयोगी."

"हो आनी कोण गो?" आजीन विचारलें.

मास्तरान सांगलां - 'खिणभर लेगीत बेकार बसनासतना दुसऱ्यांखातीर झरता तो कर्मयोगी. तूं घरांतलीं सगळीं कामां करीत आसता - त्या कर्मयोग्या भशेन..." हांवें सांगलें.

"पोरा, ही न्हंय पळय मगो! व्हांवता म्हूण जिवी आसा. एकाच जाग्यार रावल्यार कोंड जावन मरतली. तशेंच मनशाचें." आजीन सांगलें.

मागीर अभ्यासात मन गेलें... आजीची याद चड येना जाली.

ते सुटयेक घरा गेल्लें तेन्ना आईन सांगलें - "आगो, आजी सामकी बरी ना खंय. मनशांक वळख लेगीत ना..."

हांव आजीक मेळूंक गेलें.

खाटीर पडिल्लो हो देह... ही म्हजी आजी? माथ्यार केंसांच्या जटांचो घंयरांव... सुरकुत्यांनी भरिल्लें तोंड.... हाताच्यो काती लोंबतात...

आजीक पळयलें... तिचो हात हातांत घेतलो. आनी काळजांतल्यान असोऽ उमाळो फुटलो - "आजीऽ कितें जालां गे तुका?" इतलें म्हणून हांव पळय रडलां - बक-बक करून दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतात... आवंडो गिळूंक येना.... आनी काळीज फुटसर घुसमटून हांव फकत रडटां... फकत रडटां...

भोंवतणी बशिल्ल्यांनी म्हाका थातारलें. कुशीक व्हेलें... उदक पिवपाक दिलें आनी हांव तडक घरा आयलें. किद्याक रावचें थंय?... आजी काय म्हाका वळखना....

दुसरे दिसा आजी गेली. हांव रडलें बी काय ना. वचून पांयां पडून आयलें.

मागीर सांजचें कुंदा आमगेर आयलें. म्हणूंक लागलें - "आगो, आजी गो! तूं वतकच सगळो वेळ कितें बडबडटाली जाणा, म्हजें पोर आयलें रड-रड रडलें. भुर्कन्न आयलें... भुर्कन्न गेलें....भुर्कन्न आयलें... भुर्कन्न गेलें.... "

म्हणजे आजी म्हाका वळखल्ली तर!!



- सुधा खरंगटे
ए-४, कुडतरकार क्लासीक,
आकें, मडगांव-गोंय.

# दोन बैलांची काणी

हिरू मेरेर आशिल्लो. तो सुल्लो. मोती भरिल्ल्या शेतांत मदेंच आशिल्लो. ताचे खूर चिखलांत मुंगरूंक लागले. पळूंक शकलो ना, आयतोच सांपडलो. हिरून चिंतलें, वांगडी संकश्टांत सांपडला, आयलो परत! फसले जाल्यार एकामेकाचो वांगोड सोडचो न्हय. राखणदारांनी ताकाय पकडलो. सकाळीं दोगांकूय व्हरून एके काळखाकुडींत बंद केले. दोगांय इश्टांचेर पयलेच खेप असलो प्रसंग आयिल्लो, की तांकां दीसभर उपाशीं रावचें पडलें.



मोनजातींत गाढवाक सगळ्यांत चड निर्बुध्द मानचेली चाल आसा. आमकां जर एकाद्रया दादल्यामनशाक मूर्ख म्हणपाचो आसत, तर ताका आमी गाढव म्हणटात. गाढव खऱ्यांनीच मूर्ख आसता काय ताचें सादेंपण, ताचें सरळपण, ताची निरापत्त सहिश्णुताय ताका ही पदवी दिता, हें कोणाच्यान सांगूंक जावचें ना. गायो शिंगां मारतात, व्हियेल्ली गाय तर केन्ना-केन्ना शिंविणेचो अवतार धारण करता. सुणो बाबडो गरीब पूण केन्ना-केन्ना तोय क्रोधीत जाता. पूण गाढवाक केन्ना राग आयिल्लो पळोवंक ना, आनी आयकुंकूय ना. बाबड्याक कितलोय बडय, म्हऱ्यांत कसलेंय कुसकें-फुसकें तण उडय, केन्नाच चेऱ्यार निर्शेवणी म्हूण दिसची ना. वैशाखांत केन्नाय एकदां नाचता-खेळटना दिसत, पूण आमी ताका केन्नाच खुशालभरीत आशिल्लो पळोवंक ना. ताच्या मुखामळार सदांच एक स्थायी विशाद, स्थायी रुपान पातळिल्लो आसता. सुख-दुख्ख, हानी-लाभ अशे खंयचेच दशेंत ताच्यांत कसलोच बदल जाल्लो म्हूण दिसना. ऋशी-मुनींत जितले गूण आसात, ते सगळे पराकाश्ठेन ताच्यांत दिसून येतात. अशें आसुनूय मनीस ताका मूर्ख मानता. सद्गुणांचो इतलो अपमान जाल्लो खंयच पळोवंक मेळचो ना. अशें दिसून येता, की ह्या संवसारांत सादेपणाक कसलेंच मोल ना. ना जाल्यार पळयात, आफ्रिकेंत भारतीयांची दुर्दशा कित्याक जाल्या? तांकां अमेरिकेंत घुसूंक कित्याक दिनांत? बाबडे सोरो पियेनांत. वायट प्रसंगा खातीर चार पयशे सांबाळटात. मरसर काम करतात. कोणाकडे ना झगडीं, ना तंटे. कोणालींय चार उतरां मोन्यांनी आयकून गप्प बसतात, तरी पदरांत बदनामी! अशें म्हण्टात की ते आदर्शहीन जीण जगतात. ते जर जशाक तशे वागूंक शिकिल्ले, तर कदाचीत थंयचे लोक तांकां सभ्य मानतले आसले. जपानाची देख आमच्या मुखार आसा. एकाच जैतान ताणें संवसारांतल्या सुदारिल्ल्या लोकांमदें सुवात मेळयली.

पूण गाढवाचो एक धाकटो भावूय आसा, जो ताच्याहून मात्सो उणो गाढव. आनी तो म्हणचे 'बैल'. ज्या अर्थान आमी गाढवाचो प्रयोग करतात, हिन्दी भाशेन ताका, 'बछियाके ताऊ' अशें म्हणटात. कांय लोक

कदाचीत बैलाक मुर्खांत सर्वश्रेश्ठ म्हणटात जावंये. पूण म्हाका मात अशें दिसना. बैल केन्ना-केन्ना मारताय बी. केन्ना-केन्नाय गाढवा प्रमाण ते हट्टीय दिसतात. आनीकय कांय बाबतींत ते आपलो असंतोश दाखयतात. ताका लागून तांचें स्थान इल्लें गाढवा परस उणें आसा, अशें म्हणचें पडटा.

झुरक्याकडे दोन बैल आशिल्ले. एकाचें नांव हिरू आनी दुसऱ्याचें मोती. दोगूय व्हडल्या बियाचे बैल आशिल्ले ते. करतां-करतां दोगांयमदें इश्टागत वाडीक लागली. दोगूय मौन भाशेन सुख-दुख्खाच्यो गजाली करूंक लागले. ते एकामेकाची भास कशी समजताले, हें आमच्यांनी सांगूंक जावचें ना. तांचे भितर एक अशी गुपीत भास आशिल्ली, की स्वताक सर्वश्रेश्ठ मानपी मनीस लेगीत ती समजूंक शकचो ना! दोगूय एकामेकाक चाटून, एकामेकाचो वास घेवन, हुंगून एकामेकावयलो मोग दाखयताले. केन्ना-केन्नाय आपलीं शिंगां एकामेकांक तेकयताले. रागान न्हय, तर मोगान! झगड्यान न्हय तर फकाणान! दोन इश्टांमदें दाट इश्टागत जाल्ल्याचें चिन्न आशिल्लें तें. अशें घडलेंना जाल्यार इश्टागतीक दाटाय आनी घटाय नासता. जेन्ना मानेचेर जूंव बसतालें, तेन्ना दोगूय इश्ट अशे तरेन मान हालोवन चलताले की एकल्याचो पेज दुसऱ्याचेर पडचो न्हय. चडांत चड पेज आपलेच मानेर उरचो. दनपारचे ना तर सांजेचे जेन्ना दोगूय सुट्टाले, तेन्ना एकामेकांक हुंगून, चाटून आपली थकसाण पयस करताले. दावणेंत जेन्ना सुकें-फसकें तण पडटालें, तेन्ना दोगूय वांगडाच उठ्टाले आनी खावन वांगडाच बसताले. वांगडाच दावणेंत तोंड घालताले आनी वांगडाच खाताले. एकट्यान सोंड घाली तरच दुसरो घालतालो, एकट्यान फाटीं काडली तर दुसरोय काडटालो.

मनशाच्या मनांत केन्ना कितें येत हें सांगूं नज. एक दीस झुरक्यान आपली बैलजोडी आपल्या मावोड्या धाडून दिली. बैलांक कितें खबर, धनयान तांकां खंय आनी कित्याक धाडल्यात ते! ते समजले धनयान तांकां विकल्यात. धनयाची ही करणी तांकां आवडली काय कितें देवाक खबर! पूण झुरक्याचो मेवणो गयू जोत घेवन घरा पावता म्हणसर नाका शेवट जालो ताका. फाटल्यान बडी माल्ली तर धांवले दाव्या-उजव्यान. दांव्याक धरून फुडें ओडले तर दोगूय फाटल्यान नेट लायताले. मारले जाल्यार दोगूय शिंगां खाला करून फोसां घालताले. देवान जर तांकां वाणी दिल्ली तर ते झुरक्याक विचारतले आशिल्ले, "तुवें आमकां गरिबांक घराभायर कित्याक काडले? कितें लुकसाण केलें आमी तुजें? दीस-रात मर मर मेले आमी. तुजी सेवा आंग चोरून केन्नाच केली ना. आमी केल्ले कश्ट उणे पडटाले, तर आनीकूय करपाक फाटीं सरचे नासले आमी. तुजेकडे केन्नाच खावडी-बिवडीची कागाळ केली ना. तुवें जें कितें दावणेंत उडयलें, तें मोन्यांनी खालें. अशें आसतना तुवें आमकां ह्या दुश्टाक कित्याक विकले?"

दोगूय बैल आमोरेर नव्या ठिकाणार पावले. दिसभर भुकेन तळमळटाले. पूण तांकां जेन्ना दावणेंत बांदले, तेन्ना तांणीं कित्याकच तोंड लायलेंना. तांचे दोळे भरून आयले. जाका तांणीं आपलें घर मानलें, तें आयज सुटिल्लें. हें नवें घर, नवो गांव, नवीं मनशां, सगळें-सगळें परकें परकेंशें दिसतालें तांकां! दोगानींय आपले मोने भाशेन एकामेकांचो सल्लो घेतलो. एकामेकांचेर तिरपी नदर माल्ली, आनी गोठेले. जेन्ना सगळो गांव न्हिदून पडलो, तेन्ना नेटान दावीं तोडून तांणीं घरची वाट धल्ली. दावीं खूब घट आशिल्लीं. तीं बैल तोडटले अशें कोणाकच दिसनासलें. पूण हांच्यांत आयज दुप्पट शक्त आयिल्ली. एकाच झटक्यान दोरां तुटलीं.

झुरको न्हिदेंतल्यान फांतोडेर जागो जालो. भायर येवन पळय जाल्यार बैल कुरवार उबे! दोगांच्याय गळ्यांत अर्दकुटीं दोरखंडां लांबतात. पायें धोपरा मेरेन चिखलान माखल्यात. दोगांच्याय दोळ्यांत मोगामिस्तूर बंडाय हुपेताली.

बैलांचे जाल्ले हाल पळोवन झुरक्याचे दोळे भरून आयले. धावून वचून ताणें बैलांक वेंग मारली. दोगांकूय मायेन पोशेय-पोशेय पोशेले. प्रेमालिंगन दिलें. तांचो उम्यार उमो घेतलो. तो देखावो पळोवपा सारकोच आशिल्लो. घरांतले आनी घराभायले कितलेशेच पोरांटे उबे जाल्ले. ते टाळयो मारून-मारून बैलांक येवकार दिताले. गांवच्या इतिहासांत ही घटना अभूतपूर्व नाशिल्ली जायत, पूण म्हत्त्वपूर्ण मात निश्चीत आशिल्ली. बालसभेन थारायलें. पशु-वीरांक अभिनंदनपत्र दिवंक जाय. ते भायर कोणे घरसून भाकरे कुडको हाडलो, तर कोणे गोडाचो. कोणे कुंडो हाडलो तर कोणे सुक्या तणा मूठ!

"असले बैल कोणाकडेन आसचे नात." एका भुरग्यान म्हणलें.

"इतले पयससावन एकटेच चलून आयले." दुसऱ्यान तेंको दिलो.

"बैल न्हय ते, आदल्या जल्मांतले मनीस ते मनीस." तिसरो उलयलो. हें न्हयकारपाचें धाडस कोणाकूच जालें ना.

झुरक्याची बायल बैलांक दारांत पळोवन पिंजळ्ळी. म्हणूंक लागली, "कोहले बेमान बोयल पळय. एकदीस लेगीत तिगलेना थंयसर. कोहलेंच काम कोरिनासतनाच येयले पळोन." आपल्या बैलांचेर घेतिल्लो आळ झुरक्याच्यान सोसूंक नज जालो. ताणें जाप दिली.

"बेमान कित्याक? तोण-बिण कांयच उडोवना आसतलें फुडच्यांत. ओहल्यानी कोहे रावतोले थोंय?"

"हूं, पुरो-पुरो! आयकोत कोणूय. तुमगेरूच पोडटा जोनावरांक खावोड. हेरांगेर फोकोत उदकार थेयताय." झुरक्या बायलेन आपलो रुबाब दाखयलो.

"फुडच्यांत दोन तणाकाडयो उडयल्यो जाल्या पोवोन कित्याक येताहले." झुरक्यान बायलेक तिडयली.

"हयव्होय! येयले पोवोन. कित्याक येवचे ना? आमजेर बोयलांचे लाड जाता तोहे कोणागेरूच जायना. पोटाक कितेंय घालून

मोरोसोर राबोयताय जोनावरांक. हे रांडग्याचे आवशी, येयले धावोन! आतां हांव पोयतां, पेंड-कुंडो कोण घालता पोय तो. सुकी तूस घालतां हांव. मोरता जाल्यार मोरों!'' झुरक्या बायल रागान तणतणली.

बैलांनी दावणेंत तोंड घालें. सगळेंच नीरस आनी बेचव! चव ना ती नाच, कसलीच ओलसाणूय ना. किते खातले? ते निर्शेले. दुखेस्त जावन आशेन दाराकडे पळयत रावले.

झुरक्यान मानायांक सांगलें, ''तुज्यान इल्ली पेंड हाडून घालूं जायनाहली रे तेहां?''

''व्होनी थेयताहली माहां?''

''चोरून हाड मोरे.''

''ना रे बाबा, माहां नाहां तुमचें केस्तांव तुमी दोगांय एकूच आहाय.''

दुसरे दिसा झुरक्याचो मेवणो येवन बैलांक घेवन गेलो. हे पावट ताणें बैलांक गाड्याक बांदले. दोन-चार पावट मोतीन गाड्याक फोंडकुलांनी उडोवपाचें चिंतलें. पूण हिरून ताका समजायलो. तो इल्लो सोशीक आसलो.

सांजवेळा घरा येतकच गयून (झुरक्याचो मेवणो) बैलांक मोट्या दोरखंडांनी बांदले. अशे तरेन कालच्या मस्तेपणाची ख्यास्त तांका भोगयली. आयजूय कालचीच सुकी तूस दावणेंत घाली. आपल्या बैलांक मात पेंड, कुंडो, पेज-निवोळ, सगळें दिलें. दोगांय बैलांचो इतलो अपमान केन्नाच कोणाकडल्यान जावनाशिल्लो. झुरको तांचेर बडी लेगीत उबारिनाशिल्लो. छू केल्यारूच बैल पळटाले. हांगा मेळटालो तो फकत मार! आत्मसन्मानाची व्यथा आनी दावणेंत सुकी तूस! ताणी दावणेकडे दुंकून पळयलें ना.

दुसरे दिसा गयून बैलांक जोताक बांदले. पूण दोगांनीय पांय ना उखलपाचो सोपूत घेतलो. गयू तांका मारून-मारून खर्शेतालो. पूण दोगूय जाग्यावयल्यान कशेच हालनासले. एकदां तर दया-माया नाशिल्ल्या गयून हिरूच्या नाकार दांडे मारून तें फोडलें. तें पळोवन मोती रागान तांबडो जालो. ताच्यान राग सोसूंक जालो ना. नांगरूच घेवन धांवलो. नांगर, दोर, जूंव, जोत सगळें तुटून-फुटून सगळें खिळाखिळें जालें. गळ्यांत व्हडलीं-व्हडलीं दोरखंडां नाशिल्लीं जाल्यार दोगांकय पकडप कोणाकच शक्य जावचें नासलें.

''पळून वचप व्यर्थ!'' हिरून आपले भाशेन जाप दिली.

''तशें जाल्यार आतां तुझी धडगत ना.'' मोतीन शिटकावणी दिली.

''मार पडल्यार पडूं दी. बैलांच्या जल्माक आयलां, मार कसो चुकतलो!''

गयू दोन मनशां वांगडा धावन येता. तिगांच्याय हातांत दांडे आसात.

''दांडे घेवन येतात रे! शिकोंव बुध्द? हांव एकटोच पुरो.'' मोतीन म्हणलें.

''नाका रे म्हज्या भावा उठून उबो राव.'' हिरून मोतीक समजायलो.

''म्हाका बी हात लायत जाल्यार दोगांक तरी गुड्डीतां हांगाच.''

''नाका आमच्या जातीचो धर्म न्हय तो!''

मोती मनांतल्या मनांत जळफळ्ळो. इतल्यान थंय गयू पावलो. बैलांक पकडून घेवन गेलो. देवा दयेन हे फावट ताणें मार-फार केलो ना. आनी केल्लो जाल्यार मोती चड ओगी रावपाचो! ताच्या दोळ्यांतलो उजो पळोवन गयू आनी तांचे वांगडी किते समजूंक जाय ते समजल्ले. हे वेळार मारतें व्हरप शाणेपणाचें आसा, अशें म्हूण ते थंयच्यान बैलांक घेवन कडसरले.

आयजूय दावणेंत कालचीच सुकी तूस. दोगूय चुपचाप उबे. घरांतले लोक जेवणाक बसले. तेच वेळार एक ल्हानशी घटना घडली. एक ल्हान चलीभुरगें हातांत दोन रोटयो घेवन भायर आयलें. दोनूय रोटयो ताणें दोनूय बैलांक एक-एक खावयली. एके रोटयेन तांच्या पोटाची भूक शांत जावची ना. पूण तांच्या काळजाची भूक मात शांत जाल्ली. बैलांक हांगाय सज्जनांचो वास लागलो. तें चलीभुरगें दुखेस्त आशिल्लें. ताची आवय मेल्ली. सवतावय दीस-रात पेट्टाली. ताका लागून बैलांविशीं ताका आपलेपण निर्माण जाल्लें. दुखेस्तांचें दुखख दुखेस्तांकच कळपाचें न्हय?

दोगूय आतां दिसभर शेतांत जोत ओडटाले. सांजे वेळार गोठ्यांत येवन दांव्याक लागताले. तेंच चली भुरगें रातिचें येवन रोटयो भरयतालें. ह्या प्रेमप्रसादान बैलांची इतली बरकत जाताली. की दिसान दीस सुकी तूस खावनूय बैल फुलून वताले. तरी दोगांच्याय दोळ्यांनी, नसांनसांनी बंडाय रिगिल्ली.

एक दीस मोतीन मूक भाशेन म्हणलें, ''आतां कशेंच जायना रे सोसूंक हिरू!''

''किते करपाचें चिंतलां?''

''एकल्याक तरी शिंगार घेवन भायर मारतां.''

''हय रे, पूण त्या भुरग्याचें किते जातलें? तें आमकां सदांच रोटयो खावयता मरे! अनाथ जावचें ना रे तें?''

''तशें जाल्यार घरकान्नीकूच उबारून भायर मारतां. तीच त्या भुरग्याक मारता.''

''पूण अस्तुरेचेर शिंग मारप पाप, हें विसरता तूं.''

''छे, तूं कितेंच करूंक दिना! तशें जाल्यार चल, ऊठ आतां कोणाकय तरी मस्तून पळून वचू या.''

''हां, हांव तुजें हें मानून घेतां; पूण हीं येदीं व्हडलीं दोरां तुटतलीं तरी कशीं?''

''एक उपाय आसा. पयलीं दोरां मातशीं चाबुया मागीर एका झटक्यान तुट्टलीं.''

''रातीकडे भुरगें सदांभशेन रोटयो घेवन आयलें. बैलांक भरोवन गेलें. दोगूय आतां दोरयो नेटान चाबूंक लागले. पूण मोटे दोर तोंडान वचना जाले. बाबडे परत-परत चाबत रावले.

अकस्मात घरचें दार उक्तें जालें. तेंच चलीभुरगें भायर आयलें. दोगूय मान बागोवन भुरग्याचे हात चाटूंक लागले. दोगांनीय शेंपडचो वयर केल्यो. त्या

चलीभुरग्यान बैलांचीं माथीं सांसपिलीं आनी म्हणलें, ''सोडटां, मोन्यानीं पळात. ना जाल्यार हे लोक मारतले तुमकां. घरांत गजाली जातात. तुमच्या नाकांत वेसण घालपाचे विचार चलल्यात..''

ताणें दावें सोडलें. पूण दोगूय थंयच उबे. मोतीन आपले भाशेन म्हणलें, ''चल मरे आतां!''

''या रे बाबा, पूण ह्या पोराचें कितें? त्रासांत पडटलें. सगळीं हाचोच दुबाव घेतलीं.'' म्हण्टा म्हणसर तें भुरगें मोट्यान आड्डलें, ''आत्याले दोगूय बैल सुटले! ओ दादा, बैल पळोवन वैता रेऽऽ धांवात-धांवात!''

गयू काचाबूल जावन भितरल्यान भायर आयलो. बैलांक धरूंक धांवलो. ते आनीकूय नेटान धांवले. गयून व्हडल्यान बोब मारली. मागीर ताणें गांवच्या लोकांक एकठांय केले. इतले म्हणसर दोगांय इश्टांक आनीकय पळून वचपाची आयती संद मेळ्ळी. ते धांव-धांव धांवले आनी फुडें वाट विसल्ले. जे वळखिच्या रस्त्यान ते आयिल्ले, ताचो पत्तो लागलो ना. नवे-नवे गांव मेळूंक लागले, तेन्ना एका शेताधडेर उबे रावन चिंतूंक लागले, की आतां फुडें कितें करचें!

''अशें दिसता, की वाट चुकले.'' हिरून दुबाव उक्तायलो.

''तूं शेंपडी तुटसर धांवलो. थंयच आडवो घालपाचो.''

''तशें केल्लें जाल्यार लोक कितें म्हणटले आसले? तो सोडूं आपलो धर्म, आमी कित्याक सोडचो?''

दोगांच्याय पोटांत भुकेन कावळे रडटाले. फुडचांत मटारचण्याचें शेत पातळिल्लें. देवन लागले चरूंक. जसो आपल्याच बापायचो फात! चरतां-चरतां हे वटेन ते वटेन पळोवन सुलूस घेताले, कोणूय येत-बीत म्हूण!

आतां पोट भल्लें. दोगांनीय स्वतंत्रतायेचो आनंद भोगलो. हांगा-थंय



खोशेन उडयो माल्ल्यो. फोंसां घालीं. उपरांत शिंगांक शिंगां तेकयलीं. मागीर एकामेकांक धुकलूंक लागले. मोतीन हिरूक अशे तरेन फाटीं रेटलो, की ताका थंयचे एके खळयेंत उडी घेवची पडली. तेन्ना तोय क्रोधीत जालो. आवा-शिवा करून उठलो, आनी मोती फाटल्यान लागलो. मोतीन चिंतलें आतां खरें न्हय. खेळावयलें झगड्यांचेर पडूंक शकता. तो आपूण जावन कुशीक सरलो.

''आरे! हें आनी कितें? एक खुबळिल्लो सशक्त बैल चलून येता. पावलोच म्हऱ्यांत. बैल खंयचो हत्ती तो हत्ती ! ताका टक्कर दिवप म्हणल्यार मरण! ताचे वाटेक वचनासतना रावलेय जाल्यार जीव वाचपाची शक्यताय उणी. कितलें भयांकृत खुमणे!

''फसले रे फसले! आतां जीव कसो वाटोवपाचो? कसलोय तरी उपाय काड सोदून.'' आपले मुके भाशेन मोतीन म्हणलें.

''आपलेच घमेंडेंत आसा. ताचेकडे सैल रावंक उपकारचें ना.'' हिरून आपली चिंता उक्तायली.

''पळून गेल्यार कशें?''

''तें भिजूडपण जातलें.''

''तशें जाल्यार मर हांगाच, हांव पळटां!''

''आनी तो तुज्या फाटल्यान धावन आयलो जाल्यार?''

''तशें जाल्यार कसलोय तरी उपाय सोद''

''उपाय आसा.''

''उलय!''

''दोगांनीय फाटल्या-फुडल्यान मार दिवन दुखापत करपाचो. हांव फाटल्यान धपको दितां, तूं फुडल्यान दी. दोशींवशीं मार पडलो जाल्यार पळत सुट्टलो. जसो तो म्हजे वटेन घुंवलो, तसो तूं फाटल्यान पोटांत शिंग घुसय. जीव वचपाचो भंय आसा, पूण ताका दुसरो उपाय ना.''

दोगूय इश्ट जिवार उठून झुजूंक लागले. बैलाक अशे तरेन संघटीत शत्रुकडे झुजपाचो अणभव नासलो. तो एकाच शत्रुवांगडा मल्लयुध्द खेळपी! ताणें फुडल्यान हिरूचेर उडी घेतली मात, फाटल्यान मोतीन रस्तीन धोंगशीलो. बैल घुंवलो तेन्ना हिरून धांवडायलो. बैलाक दिशिल्लें, आपूण एकेकल्याक जमनीर लोळयतलों, पूण हे दोगूय वस्ताद! ताका ही संद ते कशीच दिनासले. एकदां ताणें हिरूचेर तिडकीन हल्लो केलो. तो ताचो शेवट करूंक सोदतालो. पूण ताचें सादलेंना. मोतीन कुशीच्यान येवन ताच्या पोटाक शिंग तोपलें. शेकीं पोराक जखमी जावन थंयच्यान पळ काडचो पडलोच. दोगूय इश्ट बैला फाटल्यान इतके पैस धांवले की बैलान थकून जमनीक फाट तेकयली. तेन्ना तांणी ताका सोडलो. दोगूय इश्ट आतां जैताचे नशेन शेंपडी फुलोवन चलताले.

''म्हज्या मनांत आयिल्लें, की बोचडेच्याक गुड्डोवन मारचो.'' मोतीन आपले सांकेतीक भाशेन राग उक्तायलो.

''मेल्ल्या वैऱ्याचेर शिंग मारप समा न्हय.'' हिरून आपलो तिरस्कार उक्तायलो.

''धोंग हें सगळें. दुस्मानाक असो लोळोवंक जाय, की तो परत उठचो न्हय!''

''आतां घरा कशे पावतले हाचो

विचार कर.''

''पयलीं कितेंय खावया, आनी मागीर पळोवया.'' मुखार चवळी-अळसांद्याचें शेत पातळिल्लें. फाटीं-फुडें पळेनासतना मोती घुसलो तातूंत. हिरू ताका आडायतालो. पूण मोतीन ताचें कितेंच आयकलें ना. दोन घास खाल्ले मात, दोन दादले मनीस हातांत दांडे घेवन धावून आयले. दोगांय इश्टांक मदें घाले. हिरू मेरेर आशिल्लो. तो सुटलो. मोती भरिल्ल्या शेतांत मदेंच आशिल्लो. ताचे खूर चिखलांत मुंगरूंक लागले. पळूंक शकलो ना, आयतोच सांपडलो. हिरून चिंतलें, वांगडी संकश्टांत सांपडला, आयलो परत! फसले जाल्यार एकामेकाचो वांगोड सोडचो न्हय. राखणदारांनी ताकाय पकडलो. सकाळीं दोगांकूय व्हरून एके काळखाकुडींत बंद केले. दोगांय इश्टांचेर पयलेच खेप असलो प्रसंग आयिल्लो, की तांकां दीसभर उपाशीं रावचें पडलें. एक लेगीत तणाची काडी तांचे दावणेंत पडली ना. हो नवो धनी कसो आसा, हें तांकां कळ्ळेंना. हाचे परस गयू बरो आशिल्लो जावंये, असो विचार तांच्या मनांत येवन गेलो. हांगा कांय म्हशी, कांय बोकड्यो, कांय घोडे, कांय गाढवां आशिल्लीं, पूण कोणाच्याच म्हन्यांत कसलीच खावड दिसली ना. सगळीं मडीं कशीं जमनीर पडून आशिल्लीं. कांय इतलीं अशक्त जाल्लीं, की तांच्यांनी उठून उबीं लेगीत रावंक जायनाशिल्लें. दोगूय इश्ट दीसभर फाटकाकडे टुकूटुकू करून पळयत रावले. पूण खावड घेवन कोणूच आयलो ना. तेन्ना दोगांनीय वण्टीची खारी माती चाटूंक सुरवात केली. पूण ताणें तांकां तृप्ती कशी मेळटली?

रातीकडेय जेन्ना कांयच खावड मेळ्ळीना तेन्ना हिरूचें काळीज बंड करून उठलें. तो मोतीकडे उलयलो, ''आतां म्हज्यान रावंक जायना रे मोती!''

जमनीकडेन पळोवन मोतीन ताका जाप दिली, ''म्हाका तर दिसता, की म्हजो अंत आतां लागीं पावला.''

''इतले बेगीन हार मानूं नाका रे भावा म्हज्या! हांगाच्यान पळून वचपाचो उपाय सोदून काडूंक जाय!''

हें सांगता आसतना हिरूचो गळो दाटून आयलो.

''चल, वणत मोडू या.''

''म्हज्यान आतां कांयच जावचेलें ना.''

''पळेलें, तुजो होच हट्ट आड येता.''

''धाडस जायना रे कितेंय करूंक.''

आड्याची वणत कच्ची आनी फसफशीत आशिल्ली. हिरू घटमूट आशिल्लो. ताणें शिंगाचीं तोकां वण्टींत घुसयलीं. शिंगां आनीकय नेटान रोमलीं, तेन्ना मातयेचो एक दिपळो धस्स करून पडलो. आतां हिरूक इल्लो चडच नेट आयलो. ताणें फाटीं-फुडें सरून वण्टीचेर धपक्यार धपके दिले. प्रत्येक धपक्यान इल्ली-इल्ली माती कोसळूंक लागली.

तेच वेळार कोंडवाड्याचो राखणदार हातांत लापयावं घेवन आयलो. ताणें जनावरांची हाजेरी घेतली. हिरूचीं मस्तेपणां राखणदाराक मातूय मानवलींना. ताणें हिरूचे फाटीर दांड्यांचो पावस घालो आनी ताका जाड जूड दोरखंडांनी बांदलो.

थंय पडून आशिल्ल्या मोतीन म्हणलें, ''शेकीं मार खावचोच पडलो मरे? कितें फायदो जालो इतलें करून?''

''शक्तीचो अदमास तरी गावलो ना?''

''अदमास घेतलो, आनी बंदखणींत पडलो.''

''झुंजत रावतलों, पडूं पडल्यार बंदखणींत!''

''जीव गमावन बसतलो.''

''कांय परवा ना. कसोय तरी मरतलोंच. पळय, वणत पडिल्ली जाल्यार कितले जीव वाचतले आशिल्ली ते. कितले भाव बंदखणींत पडून आसात हांगा. कोणाच्याच जिवांत जीव ना. आनी दोन-चार दीस अशेच पडून उल्ले जाल्यार मरून वतले.''

''हां, तें खरें तुजें! बरें आसा, चल तर, हांवूंय नेट धरतां.''

मोतीनूय तेच सुवातेर शिंग माल्लें. थोडीशी माती झडली. हिम्मत वाडली. फुडें अशे तरेन मोतीचे धपके बसूंक लागले, जशे काय तो आपल्या दुस्मानाचेर मारता. अशे तरेन ताणें सुमार दोन वरां मेरेन आपले शक्तीचो अदमास घेतलो. उपरांत वणत सुमार दोन वरां एक हात वयल्यान कोसळून पडली मागीर ताणें दुप्पट शक्तीन दुसरो धपको माल्लो. तेन्ना अर्दी वणत पडली. वणत पडली मात, अर्दमेल्लीं सगळीं जनावरां धडपडूंक लागलीं. तांच्या जिवांत जीव आयलो. तिनय घोडयो सरपटत पळून गेल्यो. उपरांत बोकड्यो गेल्यो. ताच्या उपरांत म्हशीनी कूस माल्ली. पूण गाढवां कशींच हाल्लीं नांत! हिरून विचाल्लें, ''तुमी दोगूय धांव मारिनांत?''

एका गाढवान जाप दिली, ''परत पकडले जाल्यार कोणेंय?''

''पकडल्यार कितें जालें? सगळ्यांक पळपाची संद आसा. चलात, पळात!''

''आमकां भंय दिसता. आमी हांगाच पडून रावतात!''

अर्दी रात सोंपून गेल्ली. दोगूय गाढव अजून उबे रावन चिंत्ताले, धांवचें काय ना धावचें! मोती आपल्या इश्टाचे दोर तोडपाच्या कामाक लागलो. जेन्ना तो हरलो, तेन्ना हिरून म्हणलें, ''तूं वच. म्हाका पडूं दी हांगाच. फुडें खंयीं तरी भेटले तर भेटले.''

मोतीचे दोळे भरून आयले. ताणें म्हणलें, ''तूं म्हाका इतलो सुवार्थी समजता रे हिरू! इतले दीस आमी वांगडा रावले, वांगडाच मरुया.''

हिरून म्हणलें, ''खूब मार पडलो. लोक म्हणटले हीं सगळीं तुजींच कारस्थानां आसतलीं.''

मोतीन गर्वान म्हणलें, ''ज्या गुन्यावान तुज्या गळ्यांत बंधन पडलां, आनी

ताका लागून जर म्हाका मार पडलो तर कसली चिंता? धायेक जाणांचो जीव वाचलो, हें कितें थोडें जालें? तांचे, सगळ्यांचे आशिर्वाद तरी मेळटले.'' अशें म्हणत मोतीन दोगांय गाढवांक शिंगांन धुकलून-धुकलून आड्याभायर घालीं, आनी आपल्या बंधू म्हऱ्यांत येवन न्हिदलो.

सक्काळीं उठून कारभारी, चौकीदार आनी कांय हेर कर्मचाऱ्यांमदीं कसलीं तरी खलबतां चलतालीं. तीं हांगा सांगपाची गरज ना. मोतीक मरसर मार पडलो, इतलें सांगल्यार पुरो. इतलें करून मोट्या दोरखंडान बांदून घालो.

एक सप्तकभर दोगूय इश्ट थंय बांदून उल्ले. कोणेच तणाची काडी लेगीत तांच्या मऱ्यांत उडयली ना. हां, एका वेळचें उदक येतालें म्हऱ्यांत. तोच तांचो एक आधार आशिल्लो जगपाचो. दोगूय इतके अशक्त जाल्ले की, तांच्यांनी उठूंक लेगीत जायनाशिल्लें. भायल्यान सगळ्यो बरी दिसताल्यो हड्ड्याच्यो!

एक दीस वाड्याभायर पेरगांवाचें धोलकें वाजलें. दनपार जातां-जातां म्हणल्यार पन्नास-साठ लोक एकठांय जाले. तेन्ना दोगांय इश्टांक भायर हाडले. तांकां लोकांक दाखोवपा खातीर उबे केले. ते पळचे न्हय म्हूण तांची राखण जावंक लागली. लोक येवन-येवन तांकां पळोवन तोंड वांकडें करूंक लागले. असल्या मरतुकड्या बैलांक कोण विकतो घेतलो?

सहसा एक दीस थंय एक खाडयो आयलो. रागीट चेऱ्याचो, रगताळलेल्या दोळ्यांचो. येवन ताणें दोगांय बैलांच्या कुल्यांचेर थापट्यो मारल्यो आनी कारबाऱ्यांकडे कितें तरी उलोवंक लागलो. ताच्या चेऱ्याकडे पळोवन दोगांकूय अंतर्ज्ञानान कांपरो भल्लो. तो कोण आनी तांकां सांसपिता कित्याक, हे बाबतींत तांकां आतां मातूय दुबाव उल्लो ना. तांणीं भियेत-भियेत एकामेकाकडेन पळोवन मान सकल घाली. हिरून म्हणलें,

''गयूच्या घरांतल्यान ओगीच पळून आयले. आतां कशेच वाचनांत.'' मोतीन एका नास्तीकाभशेन जाप दिली, ''अशें म्हणटात की देव सगळ्यांचेर दया करता.



आमचीच दया कित्याक येना काय ताका?''

''आमचें जगप-मरप देवाक सारकेंच. चल, जावंदी ताका जाय तशें. थोडे दीस तरी ताचो सांगात मेळटलो. एकदां ताणें त्या भुरग्याच्या रुपान वाचयल्लें आनी आतां वाचोवचो ना?''

''हो मनीस आमचो गळो कापतलो, पळयतलो तूं!''

''कापूं दी. काळजी कित्याक करता? मांस, चामडें, शिंगा सगळें कसल्या ना कसल्या कामाक येतलेंच!''

पावणी जाली आनी ते दोगूय इश्ट त्या खाडया वांगडा चलूंक लागले. भयान दोगांचेंय सगळें आंग थरथरतालें. बाबड्यांचे पांय लेगीत सारके उखलनाशिल्ले. पूण मारा भंयान पडत-मरत धांवताले. कारण चाल मात्शी धिमी जाल्यार फाटीर दांडो पडत म्हूण भंय आशिल्लो.

वाटेर एक पांचवेंचार पालसण गावलें. थंय गायो-म्हशींचो आसपाव आशिल्लीं गोरवां चरतालीं. सगळीं जनावरां खोशेन भरिल्लीं, ताजेल्लीं आनी सडसडीत जाल्लीं. कोण शेपडी वयर काडून धांवतालीं, कोण गोठेवन खुशालभरीत जावन रवंथ करतालीं. कितलीं सुखान जगतालीं तीं गोरवां! पूण सगळीं सुवार्थी आशिल्लीं. कोणाक कसलीच चिंता नासली की, तांचे दोन भाव वांकेराचे तावडेंत सांपडल्यात, दुख्खांत पडल्यात!

आतां दोगांच्याय लक्षांत आयलें, की वाट सवकळीची आसा. हां, हेच वाटेन गयू तांकां घेवन गेल्लो. तेंच शेत, तेंच भाट, तोच बांद, तोच गांव! सगळेंच वळखी-वळखीचें. आतां तांच्या पायांची गती इल्ली-इल्ली वाडूंक लागली. जिवाक थाकाय आयली. दुर्बळकाय नाच्च जाली. आरे वा! तें पळय आमचें घर आयलें! हेच बांयचेर आमी मोट चलोवंक येताले. हां, हीच ती बांय! मोतीन म्हणलें, ''आमचें घर लागीं पावलें.''

हिरून जाप दिली, ''चल देव पावलो.''

''हांव आतां घराकडे पळ काडटां.''

''हो सोडटलो तुका?''

''ताचो हांव आतां जीव घेतां!''

''नाका-नाका धावन ठिकाणार वच. थंयच्यान आमी फुडें वच्चें न्हय.'' दोगूय सान पडकांवरी उडयो मारीत आपल्या ठिकाणार वचून उबे रावले. खाडयो फाटल्यान-फाटल्यान धावन येतालो. झुरको आंगणांत बसून धग घेतालो. बैलांक पळोवन ताणें एकूच धांव माल्ली. वचून एकट्या-एकट्याक वेंग माल्ली. बैलांच्या दोळ्यांतल्यान खोशेच्या दुकांच्यो झरी व्हावूंक

लागल्यो. दोगूय बैल झुरक्याचे हात-पांय चाटूंक लागले.

खाडयान वचून बैलांच्या दोरांक हात घालो. झुरक्यान म्हणलें, ''बैल म्हाजे.''

''तुजे कैसे बे! मैं गोरवांकार से पावणेपर लाया मरे!''

''ओहें, माहां दिसता तुयें चोरून हाडला. चोल इंगाचो तोंड झेवन. बोयल माझे. इकपा आहल्यार हांव इकतोलों. माझ्या बोयलांक पावणेर कोण काडटलो?''

''स्टेशन पर जाता हूं, रेपट करता हूं, पुलिंसको.''

''बोयल माझ्या दारार उबे आहाय, ती गोवाय पुरोना तुहां?''

खाडयो पिंजळ्ळो. बैलांक फोरसान धरपाक दोन पावलां फुडें गेलो. तेच वगतार मोतीन शिंगा फुडें केलीं. खाडयो फाटीं सरलो. मोती ताच्या फाटल्यान धांवलो. खाडयो गांवाभायर पावलो, तेन्ना मोती थांबलो. पूण उबो रावन खाड्याच्या वाटेकडे नदर मारीत रावलो. खाडयो पयस रावन मेत्यार खातालो, गाळी संवतालो, फातर शेवटून मारतालो. मोती एक जैतवंत वीर कसो खाडयाचो रस्तो आडावन उबो आशिल्लो. गांवांतले लोक हो तमासो पळोवन हांसताले. खाडयो हार खावन गेलो आनी मोती जैतवंताच्या झेतान चलत आयलो. हिरून म्हणलें, ''हांव सामको भिल्लों, रागा भारार तूं ताका जितोच मारीत बी म्हूण!''

''ताणें जर म्हाका हात लायला, तर ताका हांव मारल्या बगर कसोच सोडचो नासलों.''

''आतां आनीक येना तो.''

''आयलोच जाल्यार पैसुल्ल्यानूच घेतां खबर!''

''आनी गुळी घाली जाल्यार?''

''मरतलों, पूण ताच्या उपेगाक तरी पडचो ना.''

''आमच्या प्राणाचें मोल म्हूण कोणाकूच ना!''

''हाचें कारण आमचें सादेपण!''

थोड्याच वेळान तण-पेंडीन दावण भरली. दोगूय इश्ट खावंक लागले. झुरको उबो रावन तांकां पोशेतालो. विशेक भुरगे हो तमासो पळयताले. गांवभर उत्सवाचें वातावरण खेळटालें.

तेच वेळार घरकान्नीन-झुरक्या बायलेन येवन तांच्या फाटीर हात भोंवडायलो.



(प्रेमचंद हांचे हिन्दी कथेचो कोंकणी रुपकार)




**- नं. ध. बोरकार**
मास्कारेन्हस वाडो,
व्हडलें - गोंय
फोन : २२१८१४७

इंद्रधोणू

# सैम-सोबा....!

पावसांत नाचत वाटेर बांद घालून उदक आडावप, आनी आपणेच कागदाच्यो बोटी, होडयो करून सोडप आनी कोणाची बोट फास्ट वता, कोणाची पयलीं तडीक लागता ही सर्त लावन चिखलान हात पांय माखपी आनी शाळा लागीं पावतगीच मात्शा धव्याशा उदकाचो कोणारो सोदून तातूंत हात पांय धुवन 'आपूण' त्या गांवचेंच न्हय, अशा तोंडान घंटा जावचे पयलीं धांवत वचून आपापल्या जाग्यार बसपी भुरगीं हुशार म्हणप काय हळशिकावणीं?



**आ**दिमानवाच्या काळांत मनीस सैमाक सामको लागशिल्लो; न्हय, एकरूप, एकाकार जावन आशिल्लो. झाडां-पेडांनी, रानां-दोंगरांनी रावप, तांचींच पाळां-मुळां, फुलां-फळां खावन जगप, तांच्या पानां खांद्यांनी आपली लज लिपोवप! तांच्याच खुटयां-खोंडांचीं घरां बांदून, तांच्याच पानांनी खोपी शिंवप. वत, पावस, शिंयांपसून आपली राखण करप आनी सैमाच्या आदारान जियेवप! फुडें मागीर-कुपादर एकमेकांक घांसून उजो लावपाचो सोद जाणें लायलो ताणें हें सैमलागसारपण हळुहळू पैसावपाची देख समाजाक घालून दिली म्हणूं येत.

न्हंयच्या कुसव्यांत शेत-भात लावन आनी उदकांतलें नुस्तें, झळकें खावन आपलें 'उदर भरण' करपी मनीस आयज फास्ट फुडाच्या भजनाक लागलो. व्हडल्या व्हडल्या बिल्डींगानी-काँक्रिटच्या रानांनी फस्कांनी रावंक शिकलो आनी सैमापसून पयसावतच गेलो.

दर्याची गाज काळखाच्या पोटाक चिरून अंत:स्करणामेरेन खोस रिगतकीच काळजाच्या गांवांतल्यान भायर सरपी उत्फर्के-काळीज तोडून फोडून वयर सरपी मन मळब भरून उडोवपी तीं ल्हारां जाणीं अणभवल्यांत ताकाच खरो सैम कळ्ळा अशें हांव मानतां. एक रात तरी दर्या लागसार राबितो करून आयिल्ल्या भावूक मनाक हो अणभव येवंकच जाय. आनी जाका तो येवंक ना तो मात कपलफुटको! नातर खळखळ व्हांवपी, नितळ उदकाच्या मदीं मदीं खडपां आशिल्लो पाण्टो, त्या फातरांचेर बसून त्या झुळझुळपी, सुळसुळपी उदकांत पांय बुचकळायत ते लयीक साथ दिवपी काळीज आनी दोशीं वटांनी आशिल्ल्या झाडां-रुखांचेर बसून गावपी शेवण्या सुकण्यांचे कान-मन सुखावपी आवाज तुमी आयकल्यात? ल्हानपणासावन हांवें हें अणभवलां आनी आज ते खोशेक आडनदर करून डोंबिवलीसारक्या मुंबयच्या उपनगरांत रावतां. नितळ निवळ उदकांतल्या इल्ल्या इल्ल्या बुराट्यांक उदकांत हाताचो पोसो धरून वा वालो पातलावन अळंग हातशिवपी हातांक आतां ह्या शारांतल्या फिश टँकांत खाण उडयतगीच तांतल्या त्या रंगयाळ्या नुस्त्यांक पळोवन खोशी मानची पडटा हें दुर्भाग्य न्हय

तर कितें म्हणपाचें?

आमच्या काळांतलीं भुरगीं म्हाका दिसना मातयेंत खेळ्ळेबगर व्हड जाल्यांत. आयचे जागरूक आवय बापूय भुरग्यांक मातयेक हात लावंक तरी दितात? गरज पडलीच जाल्यार विकती मेळटा ती 'Clay' हाडून ताजीं फळां जावं वेगवेगळे आकार करूंक दितात. मातयेंत देंवप म्हणचे तांच्या स्टेटसाक कमीपणाचें! आमी रावतात थंय वयरूच एक मंगळूर सायडची बायल रावता. घरामुखावेल्या भुरग्यांक मातयेंत खेळटात तें पळोवन तिणें म्हाका म्हळें, 'आमच्या बाबूक तांचेबरोबर खेळूंक दिंवनाकात हां - तीं मातयेंत खेळटात तें पळोवं नज. आंगार कांटो येता! शीऽऽ सामकीं 'गलिच्छ'!'' आवयस, हांव तिज्या तोंडाक पळेतच उल्लें. भुरगेपणांत भुरग्यांची ओड मातयेकडेन आसतलीच. आमी 'मातयेंत' जल्मतात आनी शेवट मातयेंतच मेळटात न्हय? मागीर ताका 'गलिच्छ' म्हणून गाळी संविल्लेवरी कशें उलयता ही. हां, आतां खेळटगीच तांची निवळसाण करपाची जापसालदारकी घरच्यांनी घेवंकच जाय, तें सामकें मस्ट! पूण मातयेंत खेळूंक दिवप ना हो तांचेर 'जुल्म ढाय' ल्यापरीच न्हय! मागीर पयल्या पावसाक येवपी मातयेचो गोड-सुरबूस परमळ-तो 'मृदगंध' तांकां कसो अणभवपाक मेळटलो?

आमच्या भुरगेपणांत माय सोंपत आयलो म्हणचे धर्तरेवेल्या झाडापेडां ताकीत भुरगीं येवपी पयल्या पावसाक आशेतालीं. 'पावसा योव'चे सूर कानार पडले, मुयांची रांग तोंडांत धवीं तातयां घेवन धांवतना दिसूंक लागलीं म्हण्टगीच पावस लागीं पाविल्ल्याचें लक्षण मानून, केन्ना एकदां मळब काळ्या कुपांनी दाटून येता, मळब जोगलावन 'गड गड घूम्म' जाता आनी पावसाचो पयलो 'शिंवर' भुंयेर जाता अशें आमकां जावचें. पावसाची पयली दडक येनाफुडें घरांतल्यान आंगणांत धांव मारून 'यो रे यो रे पावसा' करचें हाची मनाक आस लागताली. आयच्या भुरग्यांचें भुरगेंपण घाळ्ळां-शेणलां हाजें आनी आनीक दुसरें खंयचें व्हड प्रुफ मेळटलें? 'बाये, बाबा पावसांत वचचें न्हय, पयल्या पावसांत भिजल्यार थंडी जातली, जोर येतलो, शाळा चुकतली' ताणीं पावल भायर घालचे पयलींच हीं उतरां आदळटात तांचे कानार! मागीर कापोतीन तकली, कान, हात, पांय बंद करून प्लास्टीकच्यो बावल्यो कशो तांची वरात भायर काडटात जावं गच्चीर तांकां खेळूंक दितात. तशीं आतां भुरगीं तरी खंय मेकळीं आसतात. देड दोन वर्सांचे पिरायेरच गळ्याक वॉटर बॅग आनी फाटीर दप्तर मारून तांची पालखी पावयतात मॉंटेसरींत ना तर प्ले ग्रुपांत! थंय मागीर त्या कुडींनी तांकां ठोकळ्यांचीं घरां, बॉल मारून, मणयांनी अशें खेळोवप, नातर थंयच प्लास्टीकच्या झोपाळ्यांनी बसोवप. खरेंच, आतां खंय गेले ते व्हडल्या झाडांच्या खांद्यांक राजवानी बांदिल्ले झोपाळे आनी साका पोतयांच्यो बसका घालून, जमनीक पावल खोमून मळबामेरेन पावंक काडिल्ले ते झोके-उंच उंच-व्हडले व्हडले! मेकळे हवेंत दोंगरांनी वचून थंयच्या सुकिल्ल्या कड्डाचीं, तणाचीं घरां करून झाडापानांनी सजयिल्लीं तीं घरां खंय आनी दोन B.H. कीच्या गॅलरींनी पांचशें ते हजार रुपये खर्चून भुरग्यांक घर घर खेळूंक हाडून दिल्ले ते तकलाद टॅन्ट खंय! कड्डाच्या, पानांच्या घरांनी भुरग्यांमदली उपजत कला उगरमून वयर येताली, तांकां जी खोस मेळटाली, ती आयच्या ह्या आलायत्या टॅन्टानी खंयची येतली? भुरग्यां मागीर दोन चार दीस खेळटगीच तांच्यांतली नविदाद सोंपता आनी ते टॅन्ट वचून बसतात घराच्या माळ्यार!

तशेंच मेकळ्या दर्यावेळेर ओलसार रेवेंत जंय दर्याचीं ल्हारां पावचीनांत असो जागो सोदून मातयेंत पांय रोमून आनी ताजेर रेंव थापून बांदिल्लीं तीं घरां, ते किल्ले! मागीर ते थंयच मेळपी दर्याच्या ऐवजान, म्हणचे शंख शिंपयांनी सोबोवप; तातूंत जी खोस आसता ती विकती माती हाडून ताजीं घरां बांदपांत आसा न्हय? मनीस असो उपजतच खाशेल्या भुरगेपणासावन सैमा-भायरो जावन पडटा, ताका मागीर त्या सैमाविशीं आपलेपण दिसतलें तरी कशें?

पावसांत नाचत वाटेर बांद घालून उदक आडावप, आनी आपणेच कागदाच्यो बोटी, होडयो करून सोडप आनी कोणाची बोट फास्ट वता, कोणाची पयलीं तडीक लागता ही सर्त लावन चिखलान हात पांय माखपी आनी शाळा लागीं पावतगीच मातशा धव्याशा उदकाचो फोणारो सोदून तातूंत हात पांय धुवन 'आपूण' त्या गांवचेंच न्हय, अशा तोंडान घंटा जावचे पयलीं धांवत वचून आपापल्या जाग्यार बसपी भुरगीं हुशार म्हणप काय हळशिकावणीं? पूण हांवय पिशें कशें? - हें सगळें आतां भुरग्यांक असलें अणभव शारांनी खंय मेळटले? थंय व्हावतात गटारगंगा! आनी भुरग्यांक गचमुड्ड्यांनी रिक्षांनी वा स्कुलबसींनी कोमून शाळेंत पावोवपी पालक! तांच्या नशिबांत हे मुक्त खीण खंयचे येतले? तोडांतल्यान उतर फुटतनाच 'Rain Rain Goaway' करीत कोरसान म्हणूंक शिकयिल्ले रायमस् तीं बाबडीं पोपटपंची करीच पाठ करतात. जंय टिचरी भुरग्यांक शुगर म्हणून शिकयल्यार, ताणें ती साखर आनी सोल्ट म्हळ्यार, न्हय तें मीठ अशें सांगतकच ताजें स्पष्टीकरण दिनासतना ताजें कॉन्सेन्ट्रेशन जायना म्हणून भुरग्यांच्या पालकाकडेन कंप्लेन करतात थंय भुरगीं सारकीं शिकतलीं तरी कशीं? भायल्या मेकळ्या सैमांत आमी जें सगळें सहजतायेन शिकतालीं तें हजारांनी रुपये वोतोवन तांकां पाठांतर करून घेवचें पडटा. आयचें हें शिकपच असलें जालां. आवयबापूय जोडूंक वतात आनी भुरग्यांचेर संस्कार करपाखातीर तांकां संस्कार वर्गांत घालचें पडटा.

दिवाळेची सुटी सुरू जायनाफुडें लाकडी चिकनळ्यो करून (कोंड्याबडयांच्यो) घेवन तातूंत तेफळां वा तायकिळ्या पाल्याची गुळी घालून 'ठो' असले फार मारून कोणालो आवाज व्हडलो जाता जावं कोणाची गुळी पयस पावता ह्या

सर्तींचो जागो खऱ्यांभशेन दिसपी प्लास्टिकच्या पिस्तुलांनी घाणयाऱ्या वासाच्यो खऱ्यो ठो जावपी गुळयांनी घेतला. आज आमी जोडटात, आमकां आस्पत आसा, तेन्ना आमच्या भुरगेपणांत आमकां करूंक मेळ्ळें ना तें आमी आमच्या भुरग्यांक दितलीं ह्या अहंकारांतल्यान हजारांनी रुपयांचो फोग घेवन दिवपी आवयबापूय आज सगळेकडेन दिश्टी पडटात. हजारांनी मोलाचे वयर वचून ठो करून फुटपी आनी तांतल्यान रंगरंगयाळे गुळे जावं नक्षेत्रां एकाफाटल्यान एक भायर सरतात आनी मळबांत वयर वचून प्रदुशण करपी धुंवर सोडटात. तशेंच आवाजाचेंय प्रदुशण जाता. कुडीक ताजो त्रासय जाता. ह्या खिणयाळ्या दोळे दिपकावपी खोशयेखातीर हजारांनी रुपयांचो गोबोर करपी आवयबापायक, भुरगीं मागीर चड चड भरीक घालतात आनी आपलेपरीन प्रदुशणाक हातभार लायतात. हांगा सैमाचो पुळको कोणाक येता? त्यापरस भुरग्यांक खंयतरी प्रवासाक बी व्हरून सैमाच्यो वेगवेगळ्यो नवनवोन्मेष दाखोवंक पैसो खर्चिल्यार ताजें सार्थक तरी जातलें.

भुरगेमनाक ल्हानपणा सावन सैमाची वळख करून दिल्यार तांकाय सैमाकडेन इश्टागत करूंक आवडटली. पावसा तेंपावेले पांचवे पांचवे दोंगर, वयल्यान झुळझुळत येवपी वझरे, रंगरंगयाळ्या फुलांचो शालू न्हेशिल्ली धर्तरीमाय पळोवन तांचेंय मन पिशें जाल्या बगर रावचें ना. शारांतल्या परस खेडेगांवांनी ही सैमसोबा चड पळोवंक मेळटा. सैमाचें व्हडपण अणभवूंक मेळटा. शारांनी रातच्या लायटीच्या झगझगीत उजवाडांत गांवांतले काजुले खंयचे दिश्टी पडटले? पूण काजुल्यांनी चकचकपी झाडां फकत गांवांनीच भेटतात. त्यो दिवल्यो पळेतगीच दोळ्यांक थाकाय मेळटा-मन खुशाल जाता. कांय थोड्या भाग्यवंताकच नशिबान हें सूख मेळटा जेन्ना हे काजुले चोम्यांनी उडटात तेन्ना दिव्यांच्यो ओळीच ल्हारां फुटल्यावरी एकाफाटल्यान एक हुबतना दिसतात अंतराळांत! जणू मळबांतली आकाशगंगाच देवन धर्तरीचेर आयिल्ल्याचो भास जाता. कांय दोंगरांनी वा रानांनी पावसातेंपार एक अजाप कशें अप्रूप पळोवंक मेळटा-रातच्या काळखांत चकचकपी लाकडांचें! सैमाची ही गिरेस्तकाय सगळेकडेनच अणभवूंक मेळना. सैमाचे भव्यतायेचो हो साक्षात्कार गांवजीणेंतच चडकरून प्रत्ययाक येता. उटंगाराच्या वाऱ्यांत कितली प्रचंड शक्त आसा हें सत् व्हडले व्हडले रूख मुळासावन पावसपाण्यांत हुमटून आडवे जातना जाणवता.

उकत्या मळार उटांगाराच्या वाऱ्या-वादळांत एकटुकें उबें आसतना मळबांत चक्चक् करून जोगलावपी त्या जोगलांचो हो खेळ पळोवप जितलें मन भुलोवणें तितलेंच मोठें भिरांकूळ आसता. हें भव्य दिव्य सत, सैमाचो हो तांडव सहन करपाची शक्त सगळ्यांच्याच मर्दी नासता. आनी अशा वेळार मात ह्या सैमामुखार आमी कितलीं ल्हान-कितलीं उणाक हें मनाक जाणवले बगर रावना. मळबांत कडकड, गडगड करीत जोगलावता-खीणभर नदर त्या खेळान दिपकावता, पूण जेन्ना तें एकदम फोर्सान रूखांक भेटता तेन्ना तांचो लासून गोबोर करून उडयता आनी चुकून त्या रुखाजाग्यार आपूण आसल्यार कितें जावपाचें हें येवजुनच काळीज कलकलता. तेंच जोगूल खंय शेणा गायरेंत पडल्यार ताचें भांगर जाता अशें भुरगेपणांत सावन जाणट्यांच्या तोंडांतल्यान आयकत आयलां-कितलें खरें, कितलें फट तें तो एक देवच जाणा! हांवें केन्ना तें भांगर पळयलें ना, पूण एकदां असल्या पयल्या पावसाच्या उटांगारांत जोगलांचो हो मनभुलोवणो आनी भयांकृत खेळ पळयला, जाचें येवजुनच आंगार आयजय कांटो उबो जाले बगर रावना. जोगलांचो कडकड गडगड जावन तें पोरसांतल्या दोन माडांचेर पडून उब्या उबो तांचो गोबोर जाल्लो हांवें पळेला. कसो आसा हो सैम? कितलीं वगवेगळीं रुपां दाखोवपी? अनादी, अनंत, सर्वव्यापी सर्वशक्तिमान! तितलोच कृपाळू दयाळू मायाळू! गरीब गिरेस्त हो भेद ताचेकडेन ना. मेकळ्या हातान उदार मनान तो सगळ्यांचेर माणकां मोतयां उधळायता. मागीर देव देव म्हणून आनी वेगळो कसो आसतलो? म्हज्या मतान तरी होच देव! म्हणूनच हें सैमपिशें सगळ्यांनी आपल्याक लावन घेवचें आनी ही सैम सोबा अशीच निरंतर तिगोवन दवरची म्हणून ताचीच मनापासून प्रार्थना करची. तो आमकां पावलेबगर केन्नाच रावचो ना.






– जयमाला दणायत
३०, मांगल्य,
अवधूत को. ऑ. सोसायटी,
डोंबीवली (पूर्व) ४२१ २०२




*आवय कोंकणी उलोवन वातावरण निर्मिती करता. भुरग्यांक न्हिदायतना ती आल्लय म्हणटा. काणयो सांगता. भुरग्यांकडेन उलयताना ती खाशेलीं उतरां वापरता. अस्मितायेचें भान तांचे भितर जागयता. संस्कृतायेचीं मुळां तीं तांचे भितर रुजयता आनी भाशेचो मळो तांचे खातीर फुलयता.*

**कों**कणीच्या लौकीक उदरगतीक बायलांचोच चड सहभाग आसा. ताका लागून तर कोंकणी तिगून उरल्या. नाजाल्यार ती मरून वचपाची. बायलांक लागून ही कोंकणी भास जिती आसा.

खंयचीय भास तीन तरांची आसता. रांदचेकुडींतली भास. वेव्हारांतली भास आनी तिसरी साहित्यीक भास. रांदचे कुडींतली भास म्हळ्यार घरांतली आवय भुरग्यांकडेन, घरच्या लोकांकडेन, सोयऱ्याधायऱ्यांकडेन उलयता ती भास.

गोंयकार गोंय सोडून महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळांत गेले. थंय ताणी देवाबराबर आपली भासूय व्हेली. दादले त्या त्या वाठारांतल्या वातावरणांत भरसून गेले. थंयची भास ताणी आपल्या वेव्हारांत वापरूंक सुरवात केली. पूण बायलांनी रांदचे कुडींत कोंकणी सांबाळून दवरली. कोंकणीच्या उदरगतीक बायलांचें हें केदें व्हडलें योगदान!

मैलामैलाचेर भास बदलता. तशेंच खूब वर्सांनीय बी भाशेंत बदल जाता. तसो बदल केरळ आनी कर्नाटकांतले कोंकणीत बी जाला. थंयचे प्रादेशीक शब्द तातूंत भरसल्यात. पूण ताका लागून कोंकणीत विविंगड उतरांचो सांठो भरपूर वाडला. गरज आसा ती समांतर उतरांचो कोश करपाची. तसो कोश जातकीच आमची कोंकणी कितली संपन्न आसा हाचो आमकांच दिश्टावो जातलो. कोंकणीची तांक जगाक समजतली.

घर ही भुरग्यांची पयली शाळा आनी हे शाळेंतली पयली गुरू म्हळ्यार आवय. आवय ही एक व्हड शक्त. बायलांमदीं सहनशक्ती आसता. ती प्रामाणीक आसता. तिचे भितर टीमवर्क करपाची सहजताय आसता. दुसऱ्यांक मदत करपाची तांक आसता. तांचे भितर सेवाभाव आसता. ही बायल जेन्ना आवय जाता, तेन्ना तिचे हे गूण आपशींच भुरग्यांमदीं येतात. कित्याक भुरगीं पयलीं आवयची नक्कल करतात. चलो जावं चली आवय करता तशें तांकां करचें आसता. ज्या भुरग्यांच्यो आवयो नोकरी करतात तांचीं भुरगीं पर्स खाकेंत मारून आवयचें जोतें घालून 'ऑफिस ऑफिस' खेळटात. जांच्यो आवयो नोकरी करिनात तांचीं भुरगीं आयदना घेवन खेळटात. लामाणी बायलांचीं भुरगीं माथ्यार फातर धरपाचे खेळ खेळटात.

आवय भुरग्यांभितर आवयभाशेची

जाण फुलयता. अस्मितायेचें भान भुरग्यांभितर जागयता. ती जो संस्कार भुरग्यांचेर करता, ताका जो भावनीक आदार दिता तो मुखावेले जिणेंत भायल्या जगांत वावुरतना ताका उपयोगी पडटा. व्हड व्हड प्रज्ञावंत आनी प्रतिभावंत आपल्या आवयची तुस्त करतात. आवयक लागून आपूण हांगा पावलों हें ते आवर्जून सांगतात. आनी ते आवयखातीर कितेंय करपाची तांची तयारी आसता.

बायल एक आदर्श गृहिणी आसता. ती जें कितें रांदता तें भुरगीं जेवतात. आपले आवयचे हातचें जेवण भुरगीं केन्नाच विसरनांत. आपल्या खाणाजेवणावरवीं बायलांनी कोंकणीची खाद्यसंस्कृती सांबाळ्ळ्या. (बायलेन कितलेंय बरें रांदू, आवयच्या जेवणाची रूच तूं रांदता त्या जेवणाक ना अशें दादले म्हणटात.) चवथ, दिवाळी, श्रावणांतल्यो परबो, गांवांगांवांतले उत्सव अशें कितें ना कितें वर्सभर चालूच आसता. तेन्ना ते ते परबेक विशिश्ट तरेचीं खाणां बायलो करतात. हीं आमचीं नीजखाणां आसतात. तांच्या वांगडा सांस्कृतीक संबंद आसतात. तेंवूय तीं नकळटां भुरगीं शिकतात.

आवय कोंकणी उलोवन वातावरण निर्मिती करता. भुरग्यांक न्हिदायतना ती आल्लय म्हणटा. काणयो सांगता. भुरग्यांकडेन उलयताना ती खाशेलीं उतरां वापरता. अस्मितायेचें भान तांचे भितर जागयता. संस्कृतायेचीं मुळां तीं तांचे भितर रुजयता आनी भाशेचो मळो तांचे खातीर फुलयता.

खूब लोक म्हाका विचारता तुजी कोंकणी अजून बरी कशी उरल्या? हांव तांकां सांगतालें ती म्हजी मातृभाषा! ती हांव कशी विसरतलें? पूण आतां लक्षांत येता, मातृभाषा म्हळ्यार कितें तें! आई कितें उलयताली, ओपारी, म्हणी वापरताली ती खाशेली भास, त्यो म्हणी, ओपारी हांव बरोवंक बसतां तेन्ना म्हाका जशाक तशो येवजता. आई म्हणटाली, 'ह्या घराक शीत आसा पूण रीत ना, ह्या घराची खुटी येती वती कानतुटी, रांदतली शेणटा

> *खंयचीय भास तीन तरांची आसता. रांदचेकुडींतली भास. वेव्हारांतली भास आनी तिसरी साहित्यीक भास. रांदचे कुडींतली भास म्हळ्यार घरांतली आवय भुरग्यांकडेन, घरच्या लोकांकडेन, सोयऱ्याधायऱ्यांकडेन उलयता ती भास.*

वाडटली उजवाडा येता, चाडयांइतली बरी सागवाद ना.' आई हें जें कितें म्हणटाली तें फक्त लक्षांत उरलें. आयज ताचो अर्थ कळटा. आनी आई आसतना ती अशें उलयताली तें हांवें कित्याक बरोवन दवरलें ना हें चिंतून वायट दिसता.

आमी पांच भयणी. आईन आमकां कशें बसचें, उठचें वागचें तें शिकयलें. केन्ना जांगेक चिमटो काडून, केन्ना धेंगसो घालून, केन्ना दोळे मोटे करून जाल्यार केन्ना फाटीर हात भोंवडावन. तिणें फाटीर हात भोंवडावन कितेंय सांगतकूच एकेक खेप म्हाका खुब्ब रडूंक येतालें. तेन्ना आई म्हणटाली, "कोण बाये एक आसली. ती खंय चाबकांनी बडयल्यार खदाखदा हांसताली. आनी फुलांनी मारल्यार हुंडक्याहुंडक्यानी रडटाली. तसली गत ह्या शीलाची." आतां जेन्ना हांव हें सगळें येवजितां तेन्ना तिच्या ज्या उतरांचो विश्वात्मक अर्थ म्हजे सामकार उबो रावता आनी आईसारक्या हेर बायलांचें कौतूक दिसता.

हेर भाशांतल्या व्हड व्हड लेखिकांनी भाशा, संस्कृति आनी आपली अस्मिताय हांच्या संवर्धनाखातीर खूब बरें काम केलां. देखदिणें. दिश्ट लागसारकें. स बायलांक ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळ्ळा. तातुंतली आशापूर्णा देवी (बंगाली) अमृता प्रीतम (पंजाबी) इंदिरा गोस्वामी (आसामी) हाणीं आपले भाशेंत बरोवन आपली भाशाय व्हड केल्या.

जेन्ना हांवें कोंकणींत बरोवपाक सुरवात केली तेन्ना आमच्या घरचे मराठी ही भाशा आनी कोंकणी बोली अशें मानताले. कोंकणी कोण वाचिनाशिल्ले. हांव बरोवंक लागलें, 'शीला आमचें कितें बरयता' तें वाचूंक ताणी सुरवात केली. आनी ती कोंकणी ही एक भास, बोली न्हय हें तांकां पटलें.

कोंकणी परिशदेच्या एका परिसंवादांत एका कोंकणी प्रोफेसरान चलयांक लग्नाच्या बाजारांत एक डिग्री जाय आसता म्हण चलयो कोंकणी घेवन बीए करतात अशें म्हळें. ताचेर एके चलयेन बरी जाप दिली. ताणें सांगलें, "अशें म्हणटात की एक चलो शिकता तेन्ना एक व्यक्ती शिकता. आनी जेन्ना एक चली शिकता तेन्ना तिचें कुटूंब शिकता. कोंकणी घेवन लग्नाखातीर काय जायना बी. ए. जाल्ली चली लग्नाउपरांत घरच्यांक कोंकणीवादी करतली. म्हळ्यार एके तरेन कोंकणीची उदरगत करतली म्हळ्यार अतीताय जावची ना."

कोंकणी परिशदेच्या एका परिसंवादांत उलयतना एका तरनाट्यान म्हळें, 'ओली सांज' कथासंग्रहांतल्यो कथा वाचून हांव कोंकणीकडेन वळ्ळों. कोंकणीकडेन एक तरनाटो म्हज्या कथांखातीर आकर्शीत जालो हें कितें उणें जालें?




**– शीला कोळंबकार**
७–ए, देवी निवास,
बी. पी सिंग क्रॉस रोड,
बँक ऑफ इंडिया लागीं,
चंदनबाग रोड, मुलूंड (प),
मुंबय ८०.
फोन : ९८१९३१५३०७







# तिरूपतीची भोंवडी

**मो**बायल वाजलो. पळयत जाल्यार इश्टाचो फोन. तूं कसो आसा? अशी चवकशी करचे पयलींच 'आमी भोवपाक या!' अशीं ताचीं उतरां आयकूंक आयलीं. हांवेंनूय हयकार दिलो. दोन दिसांनी आमची भेट जाली. उलयतां उलयतां ताणें परतून भोवपाचो विशय काडलो. वचपाचें थारलें. एका वांगड्याक हांवें सांगलें. तोवूय येवपाक फुडें सरलो. पांच रेल्वे टिकेटी काडल्यो. वचपाचो दीस उजवाडलो. पांचांतलो एकटो फाटीं सरलो. जशे मंत्री सरकारचो तेंको ऐनवेळार काडटात तेचपरीं तो फाटीं सरलो. पूण आमी फुडें सरले. दनपारच्या बारा वरांचेर बसस्टँडावयल्यान बस सुटली. बॅग खांदाक लावन रामनगर देवले. थंयच्यान लोंडा रेल्वेस्टेशन गाठलें. दुसऱ्या दिसा तिरूपती पावले. पुलीसान भाड्याची टॅक्सी करपाक कुपन दिलें. आमी थंयच्यान तिरूमाला पावले. ऑफीसांत वचून रूम बूक केलो. दारांतूच तांबडे कपडे घाल्लो, बोल्साक बॅच लायिल्लो एक मोटू उबो आशिल्लो. आमी ताका विचारचे पयलींच 'आ मै आपको रूम दिखाता हूँ' अशें म्हणत तो चलूंक लागलो. आमींय ताचो पाठलाग केलो. शाळेंतलीं भुरगीं जशीं पुस्तकांचें दप्तर फाटीर मारतात तशींच आमी आमचीं बॅगां फाटीर मारून चलताले.

रस्त्यार पावतांच तो थांबलो. 'यहां देवस्थान की गाडी आयेगी. ये बस रूम तक छोडेगी. बस पैसा नही लेती, लेकीन मुझे तीस रूपया देना पडेगा.' हो सेवक इतली म्हायती कित्याक दिता तें आमकां कळून आयलें. 'हील व्ह्यूव कॉटिज' हांगा ताणी आमकां रूम दाखयलो आनी एकट्याक थंयच्या ऑफिसांत व्हरून रूमाची चावी दिली. मागीर तो परत बशीर बसून देवळाकडेन गेलो.

तिरूपतीक गेल्यार केंस कापून मुंडन करता अशें आयकल्लें. ते प्रमाण आमींय देवदर्शन करचे पयलीं केंस कापूंक भायर सरले. दोगजाण मुंडन करून आयले. मागीर आमी दोगायनी फक्त केंस बारीक कर अशें कुरवांनीं सांगलें. कारण भाशेचो प्रॉब्लेम. ताणी केंस बारीक करिनासतना पांच कडेन कातर लावन आमचे केंस कापले. चाळीस रूपये अशे ताणी सांगलें. भायर बोर्डार केंस मारपाक धा रुपये अशें बरयलां आनी तूं वीस रुपये कशे घेता अशें ताका विचारलें. पूण चाळीस रुपया दिवनूच आमकां परत येवचें पडलें. उदक न्हाले आनी आमी देवळांत वचपाक गेले. देवाचें दर्शन घेतलो जाल्यारूय दुडू मेजूंक जाय. चड पयशे दिल्यार देवाची भेट बेगीन जाता. साडेतिनशीं दिल्यार दोन वरांनी, पन्नास दिल्यार चार वरांनी आनी फूकट जाल्यार स वरांनी देवाचें दर्शन जाता. स वर्सां जप-तप केल्यार लेगीत आमच्या साधू-संतांक देव प्रसन्न जायना आसलो. आनी आयज आमकां स वरां वाट पळोवपाक पाशियेंस ना. टीवी वयली क्रिकेट मॅच पळोवंक मात आमी हाच्याकूय चड वेळ होगडायतात. हांगा देवाचें दर्शन घेवपाक तुकां कितलो वेळ मेळटा तें तुज्या नशिबाचें. साष्टांग नमस्कार सोड फक्त हात जोडून देवामुखार उबो रावपाक देवळांतले सेक्युरिटी एक मिनीट लेगीत दिनांत. कारण फाटल्यान हजारांनी लोक उबे राविल्ले आसतात. देवळांत भितर सरतना झऱ्याच्या उदकांत पांय बुडयले. मागीर दोळ्यांनी पातकडी बंद जायसर वैकुंठस्वामीचें दर्शन घेतलें. देवळांतले हुंडेंत पयशे घातले. भायर आशिल्ल्या श्रीदेवी लक्ष्मीचे चरण स्पर्श करून जशे भक्त आपल्या हातांत लक्ष्मी खेळची म्हूण प्रार्थना करतात, तशी आमींय विनवणी केली. भायर देवाचो प्रसाद घेतलो आनी महानैवेद घेतल्यांउपरान्त परत रुमार आयले.

सकाळ जाली तरीय कोणूच उठपाचें नांव काडिना. थोड्या वेळान एकलो उठून भायर



गेलो आनी कडकडत भितर आयलो. तो म्हणटालो भायर थंडी पडल्या. सगळेच गॅलरीकडेन गेले. पळयत जाल्यार भायर धुकें पडिल्लें आसा. असल्या कडकडच्यांत न्हावपाचें सोड हातार उदक घेतलो जाल्यार हात थरथरूंक लागले. तरीय लेगीत तोंड धुलें आनी सोपणालागीं आशिल्ल्या गाड्यावयल्यान च्या घेवन गॅलरींतूच रावले. एके वटेन आमचे कुडींत भरला कडकडो पूण धुकें पळोवपाची मनाक लागल्या उमळशीक. गरम गरम च्या केन्नाच सोंपली. वताचो कांयच पत्तो ना. इकरांक फिरपाक वचूंक भायर सरले. रस्त्यार जिपींचें यो वच आशिल्लें. ड्रायवराक गाठून ताचेलागीं उलोवणी केलीं. स स्पॉट दाखोवपाचें ताणें थारायलें. दुसऱ्या रुमाचो शेजारीय आमच्या वांगडा भोंवडेर वचपाक तयार जालो. आठ जाणांक घेवन जीप चालू जाली. बालाजीन तीरूमाला हांगा पयलीं पांय दवरलो. त्या जाग्यावयल्या पादुकांक मस्तक लावन सकयल आयले. मागीर फामाद असो 'शिलातोरण' पळयलो. आमच्या घरच्या दारांक जशे आमी तोरण बांदतात तेचपरी हांगा एका मोठ्या फातराचें तोरण दिसून येता. हांगाच 'रॉक गार्डन' आनी तातूंत आशिल्लीं तरेकवार सवणीं आमकां पळोवंक मेळटात. फातराच्या पोटांतल्यान उदक पाजरपी सोबीत तळी आनी ताचे उपरांत 'आकाशगंगा'. जशी म्हादेवाचे जटेंतल्यान गंगा व्हांवता तशी हांगा उंचावयल्यान गंगा व्हांवता. लोक उदकान भिजल्याबगर कशेच रावनांत. निसरत्या फातरावयल्यान कांयजाण उदकांतूय पडटात आनी आपले भिजिल्ले कुडीकडेन पळोवन हांसत वयर सरतात. तशेंच मुखार गेल्यार देवकीनंदन गोपालस्वामीचें दर्शन घडटा. शेवटाक आमी आमच्या आयुश्यांत जीं कितेंय वायट कर्मां केल्यांत तीं धुवन उडोवपाक 'पापनाशक' आसा. थंयच्यान आमी परतीच्या वाटेक लागले.

वाटेवयले फेरीचेर लक्ष मारीत आमी गजाली करीत वतना तरेकवार पुस्तकां पळोवन हांव आनी म्हजो इश्ट थांबले. देवांच्या काणयांचीं बारीक बारीक पुस्तकां. तशेंच भगवद्गीते सारकिल्ले म्हान ग्रंथ. हिंदी, मराठी, इंग्लीश, कन्नड अशा विविध भार्शेतल्यो गीता. युद्धावेळार श्रीकृष्णान गांडीवधारी अर्जुनाक कथन केल्ली ही गीता म्हळ्यार हिंदूंचो आत्मो. आमी मराठी 'गीता' हातांत घेतल्या उपरांत गीतेंतले श्लोक मराठींतल्यान सांगपी पुस्तकां विकतल्याचीं उतरां आयकून खीणभर ताकाच पळयत रावले. समोरचो मनीस परदेशी. ह्या फॉरेनरान लेगीत आमच्या हिंदू संस्कृतीचो सखोल अभ्यास केल्लो आनी आमी हांगा कोर्टांत गीतेर हात दवरून धडधडीत फट मारतात.

दुसऱ्या दिसा आमी घरा येवपाचे तयारेक लागले. सकाळीं उठून पळयत जाल्यार कालच्या धुक्यान पावसाचें रूप धारण केलां. तशेच देवळालागी वचून थोडी खरेदी केली. मुजरत 'गीता' आनी 'श्रीकृष्ण' घेवपाक विसरूंक ना. मागीर तिरूमाला दोंगराचीं वाकडीं तिकडीं वळणां काडीत तिरूपतीक येवन सोबीत अशा देवळांतल्या श्रीकृष्णाचें दर्शन घेतलें. हांगाच्यो सगळ्यो यादी मोबायलावयल्या कॅमेऱ्यांत साठोवन दवरल्यो आनी आमी रेल्वेंत बसले. हांगाच आमची माये-मोगाची, भक्तीची आनी उमेदीची भोवंडी सोंपली.





–विनोद गावडे
बोकडवाडो, बांदोडा,
फोंडें – गोंय
मो. ९८२३५४७०४७

# वाड्यावयलो तो

*नाक्यार पावतनाच सदांवरी खुर्सार नदर गेली. 'हाय गुडमॉर्नींग' अशें सदांवरी तोंडांतल्यान भायर सरलें. म्हाका सदांच तो खुरीस गुडमॉर्नींग म्हणटा असो भास जाताच. ताचें आनी म्हजें नातें वेगळेंच. खूब वेळां हांव येवजीत वतना 'हाय' म्हणपाक विसरतां तेन्ना ताका बाबड्याक राव नजो जाता. म्हजीं दोनच पावलां फुडें गेलीं की तो खुरीस म्हाका गुडमॉर्नींग म्हणिल्ल्याचो म्हाका भास जाता आनीक हांव परतून, 'हाय गुडमॉर्नींग' म्हणटां.*





आज फांतोडेर तिनांकच जाग आयली. अशें कितें हें? सदांवरी बारांकच न्हिदिल्लें! बेगीन न्हिदून न्हीद वेवस्तीत जाली म्हणपासारकें न्हय. मागीर हें कितें? हे कुशीर ते कुशीर करत साडेचारांकच आंगांतलो आळस पयस करून उठलें.

''पांच जालीं गो?'' हरशीं हांव पांचांक उठपी म्हूण ताणीं (घरकारान) विचारलें.

''ना हांव उठतां तूं न्हीद'' म्हणत ताच्या पोल्यार थापटीत हांवें ए. सी. बंद करून हांव कुडिंतल्यान भायर सरलें.

अं हांऽऽ बरें दिसलें! कुडींतली ए. सी.ची थंडाय आनी भायली हुनसाण, बरेंऽऽ दिसलें. भायर येवन बल्कांवांत उबें रावलें. दीस कसो वचचो तें हांवेंच मनामनांत थारायलें आनीक देवाक पायां पडलें.

आजचो दीस सुरू जालो. ह्या दिसांनी वेळ थोडो, आनी कामां चड जाल्यांत. सांज येता म्हळ्यार जीव खरेंच पुरो जाता. पूण जें घडपाक जाय, करपाक जाय तें तशेंच जावंक जाय. पायांक बांदिल्लीं चक्रां काडूंकच मेळनांत. कांय जाणांक दिसता 'तुजें बरें, दोगांच घरांत. चड कितें? आमच्या सारकें न्हय.' खूब जाणां तोंडार म्हणटात, 'तुजें खरेंच बरें, घरांत थोडें रांदलें की बिझनेस सांबाळप.'

हांव मनांतल्या मनांत हांसतां. खूब वेळां मनांत दिसता. खरेंच म्हजें बरें, हांकां दिसता तेंच खरें जावंक जाय आशिल्लें तशेंच. ह्या सामाजीक कार्यावळींक बांदून रावंक जायना आसलें, 'म्हाका वेळच मेळना, म्हाका कळना, म्हाका जमचें ना. अशें बाकीच्यांवरीं हांवेंय म्हणपाचें. सोपेपणान सुटपाचें.' हें सगळें येवजितां येवजितांच म्हज्या कपांत च्या गाळून कप मेजार पावचे पयलींच हाणें म्हळें, ''म्हाकाय च्या दी.''

दोगांयलीं च्याचीं कपां मेजार दवरून हांवें सकाळचे पासयेक वचपाक कपडे केले. च्याचे घोंट मारीत च्या सोंपयली इतल्यांत 'हो चुडीदार मात्सो चुरला सो मगो!' घोवान म्हाका पळयत सांगलें. नाय म्हळ्यार ताची म्हजेर बारीक नदर, हांवें मॅचींग केलां काय ना, ओंठार लिपस्टीक ओडल्या काय ना. म्हणूनच म्हज्या घोवाची लक्तुबाय दिसता. हांवें मोबायल, चावी हातांत घेत 'येतां' म्हणत पासयेक भायर सरलें.

नाक्यार पावतनाच सदांवरी खुर्सार नदर गेली. 'हाय गुडमॉर्नींग' अशें सदांवरी तोंडांतल्यान भायर सरलें. म्हाका सदांच तो

खुरीस गुडमॉर्नींग म्हणटा असो भास जाताच. ताचें आनी म्हजें नातें वेगळेंच. खूब वेळां हांव येवजीत वतना 'हाय' म्हणपाक विसरतां तेन्ना ताका बाबड्याक राव नजो जाता. म्हजीं दोनच पावलां फुडें गेलीं की तो खुरीस म्हाका गुडमॉर्नींग म्हणिल्ल्याचो म्हाका भास जाता आनीक हांव परतून, 'हाय गुडमॉर्नींग' म्हणटां. लागीं वचून ताचो उमो घेतां. दोनूय हातांनीं ताका सांसपितां आनीक मान वांकडी करून ओठ पातळावन हांसत कांय खीण उबें रावतां. दोळे भरून पळयत हात जोडटां. आपशींच मनांत येता 'सगळ्यांचो दीस बरो वचूं दी. वाड्यार सगळ्यांच्या काळजाक सुशेग दी.' ताका हात लावन हांव म्हज्या हड्ड्यावेल्या म्हूर्तमणयांक हात लायतां आनी म्हणटां 'हाका सांबाळ' आनी थंयचें वचूंक वतां. हांव देवाचीं वा ह्या खुर्साचीं केन्नाच फकणां करिना. ह्या खुर्सालागीं म्हज्या काळजांत लिपिल्लो भावार्थ आसा म्हूण ही मोनी भास म्हाका ताजेलागीं उलोवंची आसता. उलोवंचीच पडटा.

म्हजें लग्न जालें. व्हंकल पावणी घरा येतना मिरामार म्हजी जर पयली वळख कोणालागीं जाली तर ह्या खुर्सालागीं. हांव आनी घोव थंय पावलीं तेन्ना हाणें म्हळें, 'हो आमचो वाड्यावेलो खुरीस.' हांवें नकळत उमो घेवन मोटारींतल्यानूच हात जोडले. म्हाका याद जाली, म्हज्या पापागेरय (कुळारा) वाड्यार खुरीस आसा जाका हांव यादीन म्हज्या पापाच्या वाढदिसाक फुलां घालून वाती लायतां. मन धादोस जालें. म्हणजे हो खुरीस हांव वतां थंय म्हजी फाटच सोडना तर! म्हजेसारको दुसरो समाधानी कोणच नासलो. सप्टेंबर १८ ते २२ डिसेंबर मेरेन त्या वर्सा दीस खरेंच बरे गेले. आनीक २३ डिसेंबराक सकाळीं सातांक म्हजे स्कुटरीचो ॲक्सीडंट जालो. शेतांतल्यान ५-६ सुणीं धांवत येवन स्कुटरीक आदळ्ळीं. हांव स्कुटरीवांगडा रस्त्यार झरकटत वतां हें कळटनाच हांवें हातांतली स्कुटर सोडली. सुणीं आपटल्लीं तेन्नाच म्हजो घरकार रस्त्यार



पडिल्लो. म्हज्या जिवाची पर्वा करिनासतना हांव म्हज्या घोवाचे वासपुशेक उठलें. तो वळवळटालो. कितें जालां तें कळपाक मार्ग नासलो. मॅडीकल कॉलेजींत कशीं तरी पावलीं आनी अजापाची गजाल म्हळयार म्हजो कुळारचो, म्हज्या वाड्यावयलो खुरीस म्हाका मॅडीकल कॉलेजीलागीं मेळ्ळो. मन भरून आयलें. ताका वेंग मारून पोट तिडकेन हांव खूब रडलें. ताका सांगलें, 'आज मेरेन तुजेलागीं हांवें खूब कितें मागलें. तें फक्त दुसऱ्या खातीर म्हजे खातीर केन्नाच कांय मागलें ना. पूण आज म्हाका म्हज्या घोवाकच तुवें सांबाळूंक जाय. घडपाचें घडलें. फुडलें तूं निस्तार. तुजो धीर आदार जाय. तूं म्हाका पळय नाका. ताकाच बरो कर हें म्हणून फाट करपाक म्हजी देर-जाव, भयण-भावोजी, पापा, म्हजो पूत सगळीं आयलीं. आमकां थंय रावपाचें नासलें. सगळे कायदे सांबाळत हांव आनी घरकार, म्हजो पूत, देर-जावे वांगडा घरा आयलीं. येतनाय वाटेर वाड्यावयल्या खुर्साक मेळून फुडें घरा वचचें म्हूण खुर्सालागीं गाडी थारोवंक लायली. पोटभर खुर्सालागीं वोंठ हालयत उलयलें पूण उतरां भायर फुटलीं नांत. ही मोनीभास म्हज्या काळजांतली खुर्साच्याय काळजालागीं पावल्याच जातली. म्हज्या घरकाराक गूण पडत गेलो. त्याच वांगडा म्हजें नातें खुर्सालागीं वाडत गेलें. घराकडच्यान थोड्या पावलावेलो खुरीस म्हजो आदार जालो. अडचणीवेळार कोणाचो तरी आदार जाय सो दिसता तेन्ना हांव ताका उलो मारतां. आतां दर वर्सा लादीनी वेळार पयशे दिवप. केन्नाकेन्नाय वाती लावप सदांचेंच जालां. वर्सावळ फुलांची खुर्साक आमची आसताच आसता असो हो म्हजो खुरीस. भुरग्यांनी तर मम्माचो खुरीस म्हण नांव दवरलां.

म्हजीं सगळीं वळखिचीं ताका आंगवणीचो खुरीस म्हणटात. तांकां आंगवणीच्या रुपान तो पावला जावंये. म्हाका तो मायेपोटी मानवला. हांव ताचे सामकारा उबें रावन मन मेकळें उलयतां. मन सुखावता. म्हजी मोनी भास ताका समजता. पूण तो आपल्याच मर्दी दवरता. दुसऱ्यांक सांगना म्हणूनच म्हजी त्या खुर्सालागीं बरी इश्टागत जाल्या. मनमोकळी मोनी इश्टागत. दुसऱ्यांक न कळपी न समजुपी ही इश्टागत. जाय जाय दिसपी. हांव मनशांलागीं इश्टागत करपापरस ह्या खुर्साची इश्टागत सांबाळपी. आनीक सांबाळटांय.

मन मारून जगचे परस मनमेकळें ह्या खुर्सालागीं जगप बरें. नातर ह्या जगण्यांत अर्थ कितें उरला? म्हज्या वाड्यावयल्या सगळयांचोच खुरीस तो. सगळयांच्या आदाराचो, सगळ्यांक सांबाळपाचो. तरी पूण म्हज्या वेगळ्याच नात्याचो, आपलेपणाचो, जायजाय दिसपाचो, मोने भाशेचो, वाड्यावयलो तो. म्हज्या वाड्यावयलो तो.



- सुफला रुद्राजी गायतोंडे
मिरामार-पणजे
मो. : ९८२३१११९१७





- अंजली आमोणकार
कांपाल, पणजी -गोंय



## यथार्थताय

वाचत आसतना साहित्य,
पळय आसतना नाटक, सिनेमा,
तातुंतलें खंयचेंच सवंग,
आमचे वळखीचें आसना.
तरीय कित्याक जाता आमचें मन -
तांच्या सुखांत सुखी,
दुख्खांत दुख्खी?
क्रोधान भिरांकूळ आनी मर्णान विकल?

ताणी पांगुरलेले शालीचें एक पोंत,
आमच्या शालील्या टोकाकडे जुळटा खंय तरी
आनी मागीर, तांची ती शाल
आमचीच जावन उरता.
त्या पोंदचें जगप आनी मरप लेगीत -
आमचेंच जाता खिणान्

इत्सा आसूं अगर नासूं-
मागीर आमी आमकांच पळयतात,
खोल-खोल बुडटनां.

## आवय

सोऱ्याच्या तालार, काल-
ताताल्या पुतान,
ताचो खड्डोच फोडलो
व्हनीबायन खूब बडयलो पुताक
घोवाल्या घायांक तेल-हळद लायत,
खूब्ब गाळी घाल्यो-
झ्पाड पडिल्ल्या, बापायचेर हात उखलता?
बरें मागूंक पावचो ना तूं-
उदक-उदक करीत, किडी पडून मरतलो
सुणो लेगीत आफुडचो ना तुका........ह्ह
एकटो एक पूत,
दिवलेची वात कसो,
पूण दादल्याच्या घायांनी
खूब्ब रडयलें व्हनीबायक
नशीबाक खेदत, रडटां-रडटां
भार आयिल्ल्या भशेन, परती चवताळली
सान्नीच्या मुगड्यान मारत-मारत
भायर घालो पुताक
बडबडत-पडत-झडत, पूत-
देवळांच्या सोपणांचेर येवन पडलो
फांतोडेर उटयलो भटान, तेन्ना-
आंगार आशिल्ली, आवयची गोधडी
मध्यानरातीक केन्नातरी
सोदत-सोदत-सोदत
येवन, घालून गेल्ली

## अजाप



हळदुळें पोन्में, तुजें पत्र
अकस्मात पेटींत मेळ्ळें
पिनिल्लें तें घडीयाँचेर
अजापान जेन्ना उगडलें
शाई आशिल्ली पसरलेली
बोंदर जाल्ल्या कागदाचेर
कुडके सगले उबूंक लागले
मंद वाऱ्या-ल्हारांचेर
करून दोळे बारीक मोटे,
नांवार तुज्या धसयलें
बोंट दवरीत, वेळ काडीत
नातवान वाचून दाखयलें
म्हाल तुज्या यादींचे
जालें उबें दोळ्यांमुखार
सख्य तुजें घमघमलें
दवरून म्हाका पयस कांठार
ज़री जुळल्यो नात, यादींच्यो
अंधुक सांखळ्यो परतून
तरीय, येतां कित्याक गंध
बोवळांचो, भोवून-भोवून?



## स्वर्गसूख

जोडूंक लागलों जेन्ना
तेन्ना अहंभावान तपासल्यो,
विधवा आवयच्यो, जमाखर्चाच्यो चोपड्यो
दिशिल्ले, आसतले तातूंत
हिशेब : घेतिल्ल्या रिणांचे
तारखो : फारीक करपाच्या हप्त्यांच्यो
बेरजो : उदार घेतिल्ल्या दुडवांच्यो
उडोवया, फारीक करून, वट्ट सगलें
आपशींच, गळ्यान माळ पडटली
कुटुंबाल्या मुखेलपणाची.....
कडकडीत गीमांत, सांवळी दिवपी झाड कळून आयलें
थंय नाशिल्ले कसलेच हिशेब
तारखो आशिल्ल्यो : बाळटीच्यो सुटपाच्यो
रकमो आशिल्ल्यो : अडचणींत आशिल्ल्या भुरग्यांक
मजत धाडपाच्यो
उधारी आशिल्ल्यो : कुटुंबांतल्या मनशांक
दिल्ल्या मोगाच्यो, मायेच्यो, त्यागाच्यो, दानाच्यो
बलिश्टपणान सोसलेल्या गरीबीच्यो.....
तेन्नाच्यान, मुखेलपणाची फटवणी माळ/मोखून उडयली
आनी आतां,
तिच्या विशाळ रिणांत जगत,
स्वर्गसुख मेळयतां

## मागणी

वेदनेक जात लागना
पिळून काडटना, ती पळयना -
कोणाचोच धर्म, जात, रंग, रूप, चेरो....

वेदनेक रूच आसना
मनीस भोगतना, ती पळयना
नि:सत्व, कांतिहीन, कळाहीन कुडी......

वेदनेक माणसुकी आसना
शोशण करपाक, तिका कोणूय चलता-
निष्पाप, पापी, पुण्यवान, दुश्ठ, हलकट.....

वेदनेक संकोच आसना
वस्तेक येतना, तिका लागून जायना-
खंयचोच कायदो, नेम, कानून, परवानो....

वेदनेक बंधनां आसनात
ताबो घेतना, तिका पर्वा आसना
प्रसंगाची, गरजेची, वेळेची, गांभिर्याची....

वेदनेक जाय आसता, पुराय शरणागती
हतबल मुजरो, लाचार साश्टांग नमस्कार -
पाड घातिल्ल्या संवसाराचो
मागीर ती अदृश्य जाता
बुड्डून घेतिल्ल्या दानाचेर, धादोशी जावन
ढेकर दीत....

समिक्षकाचे नदरेंतल्यान

# कवी बाळकृष्णजी कानोळकार हांकां उक्ती चीट

भौ. बाळकृष्णजी कानोळकार हांकां
नमस्कार,

मार्च २०१०च्या 'बिम्बा'च्या काव्योसत्सव स्पर्धेत तुज्यो कविता पळोवन धक्कोच बसलो. ही स्पर्धा नवोदीत कवी/कवयित्रीखातीर आसा असो म्हजो समज आशिल्लो. पूण तुज्यासारको - जाच्या नांवार मराठी - कोंकणीत चार-पांच समिक्षाग्रंथ आसात, एक मराठी आनी एक कोंकणी काव्यसंग्रह आसा आनी जो पंचवीसेक वर्सां कवितेची साधना करीत आसा ताका नवोदीत कवी कसो म्हणूं येता? - आतां इतलेंय आसून जर खुद्द तुकाच जर तूं नवोदीत कवी दिसता आसत जाल्यार प्रस्न वेगळो. तो तुज्या मानसिकतेचो प्रस्न अशें हांव धरतां. कितेंय जावं समिक्षक म्हणून 'बिम्बां'तल्या तुज्या पांच कवितांची मोलावणी करप हें काम मात हांव रसिकतेचे नैतिकतेन करतलों हाची तुका खात्री दितां.

तूं कवी आसलो तरी स्वताच एक काव्यसमिक्षक आसा म्हूण सुर्वेकूच कांय प्रस्न हांव तुज्या मुखार दवरतां :

१. हुमाणें आनी कविता हातूंत कितें फरक आसा काय ना?

२. कविता बरोवप आनी कविता बरोवपाचो आव हाडून बरोवप हातूंत कितें फरक आसा काय ना?

३. 'आदिमायेचे उले' ह्या तुज्या काव्यझेल्यांतल्यो 'माजी आई', 'पालखी', 'कवी' सारक्यो कविता आनी स्पर्धेतल्यो ह्यो तुज्यो 'चेडो-वाडो', 'वडातळा', 'कूड', 'नातूक' सारक्यो कविता हातूंत कविता म्हणून मोटो काव्यात्मक फरक पडूं येता हें तुका जाणवलां काय ना?

४. कविता हो एक उतरांचो खेळ अशें जरी मानलें तरी त्या उतरांच्या खेळांतल्यान नवें काव्य-सृजन जावंक जाय अशी रसिकांची अपेक्षा आसता काय ना?

५. कवितेंत उतरांच्या फुडें भरपूर टींब टींब... वापरून आशयाचें आयतें भांडवल गांठीक मारूं येता असो तुजो 'काव्यात्मक' समज आसा काय कितें?

मराठींत पु. शि. रेगे हांची 'पक्षी जे झाडावर गाणे गातो' ही एक प्रसिध्द कविता आसा. आनी ती कविता रेगे हांणी अशा पध्दतीन बरयल्या, की ते पध्दतीन फकत एकूच कविता बरोवप शक्य आसा. पूण रेगेन उपरांत आपल्याच ह्या 'दुसऱ्या पक्षी'चे अनेक कवितांत रिपिटेशन केलें आनी कवी म्हणून आपली मर्यादा स्पश्ट केली. हें जालेंच! पूण बाकीच्याय अनेक कवीनीं त्या कवितेचें अनुकरण करपाचो यत्न केलो आनी ते फसले.

आतां रेगेंच्या हे कवितेची देख दिवपाचें कारण म्हळ्यार 'पक्षी जे झाडावर गाणे गातो'' ह्या पध्दतीच्यो तुज्यो दोन कविता हांगा वाचपाक मेळटात. देखीक, 'वडातळा' ही कविता पळोवया :

वडातळा खुरीस
खुरसार वड
वडार....
मळब
मळबार....?

मळब
वयर....वयर
वय्....र

वडातळा
खुरीस : खुरसार वाती
मुळांत माती
खुरसातळा...
वडातळा ...
तळा ..... तळा
तळ्ळ ..... तळा

हातूंत उतरांचो खेळ तुवें बरोच ताणला अशें दिसता. पूण इतलेंय जावन तातुंतल्यान नवें काव्यसृजन निर्माण जालां अशें दिसना. हो उतरांचो खेळ खरें म्हळ्यार हुमाण्याच्या पावंड्यार उरता. मळबाची उंचाय आनी मातयेची खोलाय हातुंतलो कॉन्ट्रास्ट जिणे-मर्णाच्या संदर्भात तुका मांडपाचो आसा अशें हय-न्हुं शेंच जाणवता. पूण ताका सृजनात्मक, सशक्त काव्यरूप येवंक ना अशें म्हजें मत.

दुसरी हेच पध्दतीची 'कूड' ह्या नांवाची तुजी एक कविता हांगा आसा. तिवूय पळोवया :

कूड :
सासणाची
कुडीन आज्जी

कूड:
आज्जीची
कुडीन माय
म्हजी

मायचे कुडीन
हांव : म्हजे कुडीन
कूड :
सासणाची

हातूंतय परत तोच मोनोटोनस खेळ आसा. उतरांच्या खेळांतल्यान कितेंतरी गहन सांगूंक सोदता असो तुजो आव आसा. खरें म्हळ्यार ह्यो कविता वाचल्या उपरांत म्हाका तुजी कवितेंतली 'हुशारी' तितलीच जाणवली. कारण कवितेंतलीं 'अस्त्रां' कशीं वापरपाचीं हें तुका समिक्षक म्हणून बेस बरें खबर आसा. पूण मुळांतूच कवितेंत अणभवाची भाशीक क्षमता नाशिल्ल्या कारणान तुजी 'हुशारी' उगडी पडटा. कवी कितलोय हुशार जावं, ताची हुशारी फकत वेवहारीक जिणेंत चलतली, उपकारा पडटली. पूण कला-साहित्याच्या प्रांतांत हुशारेक स्थान ना. थंय कलावंताचो 'भेदक प्रमाणिकपणा'च जाय पडटलो आनी तोच म्हत्वाचो थरतलो.

कवी आपल्या मेंदवांत आपल्यो भावना जळयता आनी त्या भावनेच्या राखेंतल्यान तो आपली काव्यभाशा निर्माण करता. (कवितेची भाशा ही फिनिक्स सुकण्यासारकीच आसता.) आतां हें काम तो आपल्यो सैमिक गरजो पुऱ्यो केल्ल्यावरीच करता. जशें मुतोंक जालें, मुतता. हागूंक जालें, हागता. हातूंत कसली हुशारी आसतली? हो निसर्गनेम. त्याच निसर्गनेमांतल्यान कवी कविता बरयता. फकत कवीक फरक पडटा तो कवितेंतल्यान भाशीक निसर्गाचें नियमन करपाचो. आनी त्या भाशीक निसर्गाचें नियमन करपाचें काम आपसूक कवीचो अणभव करता. आतां ह्यो सगल्यो गजाली Impulse चेर अवलंबून आसता आनी Impulse हे संकल्पनेंत 'हुशारी' ही सामकी 'झिरो' आसता. तशें पळोवंक गेल्यार प्रत्येक कलाकृतींत 'घडप' आनी 'घडोवन हाडप' ह्यो दोनय गजाली आसतात हें मान्य. कला आनी कारागिरी थंय हातांत हात घालून आसतात. पूण कलेंत फकत कारागिरीच चड दिसूंक लागली जाल्यार तो कवीच्या 'हुशारी'चोच भाग थरतलो. तुज्यो 'वडातळा' आनी 'कूड' ह्यो कविता वाचून म्हाका तरी हेंच जाणवलें.

'चेडो-वाडो' ही कविता तुवें एके म्हणीचेर आदारून बरयल्या हें जाणवलें. 'हाण्णीर आसा चेडो, सोदता सगलो वाडो' ही ती म्हण. पूण हे कवितेंतूय ते म्हणीच्या म्हालवजार एक काव्याणभव साकार जाला अशें दिसना. दिसता तो फकत उतरांचो खेळ. देखीक :

वाडो वाडो चेडो
चेडो वाडो वाडो

वा
चेडो-घोडो
घोडो-चेडो
उडो... उडो... उडो

-ह्या शब्दखेळांतल्यान तूं कितें सांगूंक सोदता हें म्हाका नीट शें कळूंक ना हें जालेंच, पूण कवी म्हणून तुजो अणभवूय थंय जाणवना. ही बालकविता अशें जरी म्हळें तरीय इतली 'बालीश' कविता म्हाका दिसता भुरग्यांक लेगीत वाचूंक दिवन कांय अर्थ ना.

'नातूक' ही तुजी कविताय अशीच. कन्फ्युजड.

नातूक रडटा...
तिनसना

आनी
नातूक रडटा...
उब्या फात्यार

- हांच्या मदलें अणभवविश्व हांगा नीट उबेंच जायना. नातूक, खुरीस, मेणवात, चंद्रीम, रातराणी, वज्रकणी, वासरमणी ह्यो प्रतिमा येवंक जाय म्हणून येतात पूण तांच्याभितर कवीन कसलेंच काव्यसंघटन केल्लें दिसना.

तातुंतल्या तातूंत तुजी ह्या पाचांतली बरी कविता म्हळ्यार 'निळोनिळें' ही कविता. तातुंतय हुशारी आसा. पूण ती कारागिरीपरस कलेकडेन अदीक लागीं येता. देखीक :

निळें निळें
गगन जशें
तशीच जाली.... भूंय

उतरून निळें
सपन आयलें
धुंदळशी ... रूंय

हांवूय निळो
क्रीस्णसो
निळेंच जालें... तूंय

- हे कवितेंत कला आनी कारागिरीचो तुवें बरे तरेन मेळ घातला. त्या खातीर वाचपाक ही कविता बरी दिसताच पूण तांतलो मोगाचो मिलनाचो अणभव सामर्थ्यान उबो जाला. कवी म्हणून तुजी ताकद हे कवितेंत जाणवता. उलट बाकीच्या चारूय कवितांत तुजी




फकत 'काव्यहुशारी'च दिसता.

हांवें एक पळयलां, तूं जेन्ना सादेपणान बरयता तेन्ना तूं 'पावरफूल' बरयता. देखीक, 'माजी आई' सारकी कविता. आनी कवी म्हणून जेन्ना तूं पोझ घेवन बरयता तेन्ना तूं फसता. आतां हें म्हजें निरिक्षण. तें तुका पटुंकूच जाय अशें ना. कारण साहित्य-कला ह्यो मुळांतूच वादग्रस्त संकल्पना जावन आसात.

कांय म्हयन्यांफाटीं 'आदिमायेचे उले' हो तुजो काव्यझेलो हांवें वाचिल्लो. त्या झेल्यांत कवी म्हणून तुजें यश आनी अपयश दोनूय दिसता. 'गोमंत-स्तोत्र' सारकी तांतली आऊटडेटेड कविता, 'ताणेल्यानो तुमी ताणीत रावात' सारकी पुंडलीक नायकाच्या 'पाडेल्यानो तुमी पाडून चलात' हे कवितेचो उगडास करून दिवपी कविता, असल्या गजालींनी हो झेलो बरोच दागाळला. तरीय तातुंतल्या 'माजी आई', 'पालखी', 'कवी' सारक्या मेजक्याच जबरदस्त कवितांखातीर हो तुजो झेलो म्हाका म्हत्वाचो दिसता. तुवें पुस्तकाचे प्रस्तावनेंत बरयलां त्या प्रमाण तुजो हो झेलो पंद्रा वर्सा आदीं उजवाडा येवपाचो. पूण गोवा कोंकणी अकादमीन तो 'पयल्या चंवरां'त रिजेक्ट केलो म्हणून तो आतां २००८ सालांत प्रसिध्द जाला, आनी तोवूय पूर्ण तुज्या खर्चांत. कितेंय जावं, पूण म्हाका अजाप दिसलें तें, तुजो झेलो कोंकणी अकादमीन नाकारलो ताचें. कारण अनेक फालतू काव्य-झेले ह्या 'पयल्या चंवरा'त भायर सरतात. उलट तुज्या झेल्यांत कांय उत्कृष्ट आनी क्रांतीकारक कविता आशिल्ल्यो त्या खातीर ताका प्रकाशन-पालव मेळुंकूच जाय आसलो. आतां तेन्नाचे परिक्षक मंडळ कोण आसलें खबर ना, पूण तांकां कवितेचो मातूय गंध नासतलो हें सेर्त! किंवा तुजी 'पालखी' सारकी क्रांतीकारक कविता तांच्या पचनी पडूंक नासतली!

जावं. हे मात्शें विशयांतर जालें. पूण तें गरजेचेंच आसलें. साहित्यांतल्या राजकारणाचो संदर्भ त्या निमतान तरी उस्तुपाक मेळ्ळो.

तूं मुळांत प्रयोगशील कवी. पूण तुजे कवितेंत बरेच फावट कवी परस तुज्यांतलो समिक्षकच नाका आसताना तकली वयर काडटाना दिसता. 'बिम्बां'तल्यो ह्यो तुज्यो कांय कांय कविता वाचून तर तें जास्तच जाणवलें.

आनी निमणें, तुजे कवितेंत नाका आसतना हीं भरपूर टिंबां टिंबां... कित्याक येतात? टिंबां टिंबां वापरलीं की कवितेचो आशय आपसूक वाडटा अशें तुका दिसता? काय रोमँटीक कवितेच्या प्रभावांतल्यान ह्यो गजाली आयल्यात? (पूण तूं तर रोमँटीक कवी दिसना!) हांवें पळयलां की रोमँटीक आनी नवोदीत कवीच ह्या टिंबांचो भरपूर उपेग करतात. पूण मुळांत कवीच्या उतरांतूच कांय दम ना जाल्यार ह्या टिंबा-टिंबांचो कवितेंत कितें उपेग जातलो? तूं स्वताक कितें समजता? रोमँटीक कवी कांय नवोदीत कवी?

म्हाका दिसता नवोदीत कवीच! म्हणुनूच तुवें तुज्यो कविता बिम्बाच्या 'काव्योत्सव' स्पर्धेक धाडल्या आसतल्यो.

स्पर्धेंत भाग घेतल्या बद्दल परबीं. कळोवचें,

तुजोच
**एस्. डी. तेंडुलकार**

मटोव पत्रकारांक सतावपी प्रस्न सुटावे करून सरकार पत्रकारांच्या फाटल्यान सदांच आसतलें अशें उतर मुख्यमंत्री दिगंर कामत हाणीं १९ मार्च २०१० ह्या दिसा पत्रकार कृतज्ञता निधी येवजणेचें उक्तावण करतना सांगलें.

मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हांचे हस्तुकीं हे येवजणेचो शुभारंभ जालो आनी ही येवजण म्हायती आनी प्रसिध्दी खात्या वतीन चालीक लायतले अशें ताणीं सांगलें. ह्या सुवाळ्याक ते मुखेल सोयरे आशिल्ले. पत्रकारांनी समाजाचे उदरगतीखातीर केल्ल्या वावराची ताणीं तोखणाय केली. लोकशायेंत पत्रकारांक म्हत्वाची सुवात आसा. पत्रकारांखातीर अश्यो येवजण्यो करप हें बऱ्या सरकाराचें कर्तव्य आसा अशें ताणी म्हणलें. पत्रकार कृतज्ञता निधी पत्रकारांच्या फुडाराचे नदरेंतल्यान म्हत्वाची आसा अशेंय मत ह्या वेळार ताणीं उक्तायलें.

हे कार्यावळींत मुख्यमंत्र्यांचे हस्तुकीं पत्रकारांक लॅपटॉप आनी संगणक घेवपाक रीण दिवपी येवजणेचो शुभारंभ जालो.

म्हापसा अर्बन को ऑपरेटीव्ह बँकेचे अध्यक्ष रमाकांत खलप, मुख्य सचीव संजय श्रीवास्तव, म्हायती सचीव नरेंद्र कुमार, नवहिंद टायम्साचे संपादक अरूण सिन्हा, गोंय पत्रकार संघाचे अध्यक्ष प्रकाश कामत, म्हायती संचालक मिनीन पिरीस आनी सुदेश आर्लेकार हे कार्यावळीक हाजीर आशिल्ले.




पत्रकार कृतज्ञता निधी येवजणेचें उक्तावण करतना मुख्यमंत्री दिगंबर कामत, रमाकांत खलप, मुख्य सचीव संजय श्रीवास्तव, म्हायती सचीव नरेंद्र कुमार, नवहिंद टायम्साचे संपादक अरूण सिन्हा, गोंय पत्रकार संघाचे अध्यक्ष प्रकाश कामत, म्हायती संचालक मिनीन पिरीस आनी सुदेश आर्लेकार.




बिम्ब प्रकाशनान उजवाडाक हाडिल्ल्या रुपा विजय कोसंबे हांच्या उमळ ह्या कविता संग्रहाचें आनी इंदू अशोक गेरसप्पे हांच्या संकल्प ह्या कविता संग्रहांचें विमोचन करतना नामनेचे साहित्यिक विष्णू सूर्या वाघ, वांगडा दिलीप बोरकार, रमेश वेळुस्कार, रुपा कोसंबे, कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष एन्. शिवदास आनी इंदू अशोक गेरसप्पे.



नामनेचे कवी रमेश भगवंत वेळुस्कार हांच्या समुद्रमुद्रिका ह्या हिन्दी काव्य संग्रहाचें विमोचन करतना पद्मश्री सुरेश गुंडू आमोणकार. वांगडा नवहिंद टायम्सचे अरूण श्रिवास्तव, इन्स्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांझाचे उपाध्यक्ष मोहनदास सुर्लकार, कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष एन्. शिवदास, गोंय विद्यापिठाच्या हिन्दी विभागाचे मुखेली रवीन्द्र मिश्रा आनी मराठी विभागाचे मुखेली सावंत.

मंगला कारापुरकार हांच्या उत्सव ह्या काव्यसंग्रहाचें प्रकाशन करतना आदले मुखेलमंत्री आनी सद्याचे विरोधी पक्ष फुडारी मनोहर पर्रीकार. वांगडा पुर्णानंद च्यारी, मंगला कारपुरकार, भाई नायक आनी ज्योती कुंकळकार

संजय तळवडकार हांच्या घोस्त ह्या पुस्तकाचें विमोचन करतना नामनेचे कादंबरीकार दामोदर मावजो. वांगडा लेखक संजय तळवडकार, प्रकाशक दिनेश मणेरकार, नामनेचे गितकार आनी लेखक ॲड. उदय भेंब्रे, समिक्षक किरण बुडकुले आनी रवीन्द्र मंदिराचे उपाध्यक्ष श्रीधर कामत



कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष आनी साहित्यिक एन्. शिवदास हांच्या धर्मायण आनी गोड गोड काणी शाली जालें राणी ह्या नाटकाचें प्रकाशन करतना घरमंत्री रवि नायक, उदय भेंब्रे आनी नागेश करमली.

## निरोप

काळजांत थोडो जागो करून
पेकनाशिल्ले कांय घावे घालून
तरी जिणेंत सगळ्यांक
दिवंचोच पडटा निरोप

धाव्वी मेरेन शिक्षण घेवन
शाळेच्यो यादी पुंजोवन
वांगड्यांक आनी शिक्षकांक
दिवंचोच पडटा निरोप

कॉलेजींत प्रवेश करता म्हणसर
वर्सां कशीं सोंपता कळचना
आनी एक दीस फुडारा खातीर
तांकांय दिवंचोच पडटा निरोप

भुरगेंपण तें जुवानपण घालोवन
घरच्यांक आपल्या काळजांत दवरून
लग्नाकडेन व्हंकलेक
दिवंचोच पडटा कुळाराक निरोप

घरच्या जाण्ट्यांचीं करून फकाणां
घेवन शिकवण आनी आशिर्वाद
तांचेकडल्यान आनी तांकांय
दिवंचोच पडटा, सासणाचो निरोप

जल्मभर सगळ्यांक निरोप दीत
जाता काळीज जड
आज आसा तो फाल्यां ना
एक दीस तुकांच
दिवंचो पडटा सगळ्यांक निरोप



– काजल चि. केरकार
आदित्य अपार्टमेन्ट्स,
खडपाबांद, फोंडे.
मो. : ९४२०६८६३९७



## मुंगरत रावपाचें आसा

उतरांनी बांदूंक सोदतालें भावना
पूण भावनाच केन्ना तरी दुखयतल्यो
म्हूण.......
दवर तुजीं तीं सपनां
तुजे खोल खोल काळजाचे तळयेंत
जंय मुंगरत वचूं दी तुजे
ते अणभवाचे विचार
नाका जगूंक तूं स्वातंत्र्याचें
दायज घेवन
जगूं नाका तुकां जाय तशें
जग... दुसऱ्याक जाय तशें!
कितें दिसता?
कांयच दिसूंक फावना
उलयन दिसता उलोवं नाका
ओकीत राव तुज्या त्या
मनांतल्या मनांत
ह्या कलियुगांत
हें अशेंच चलपाचें आसा
हांगा समाजान दवरिल्ल्या
चेपणा पोंदा
मुंगरत रावपाचें आसा
मुंगरत रावपाचें आसा....



– श्रीनिशा ए. नायक
बेतकी – खांडोळ, गोंय.

## पापा

पापा तूं खरो पिसो
जो म्हाका लागून आपलें
सूख मारता
पापा तूं खरो पिसो
जो म्हाका लागून
रात दीस जागो रावता
पापा तूं खरो पिसो
जो म्हाका लागून झर झर झरता
पापा तूं खरो पिसो
जो म्हाका लागून
देवाचे पांय धरता
पापा तूं खरो पिसो
हांव उपाशीं रावल्यार, तूं उपास करता
पापा तूं खरो पिसो
कारण म्हाका लागून सूर्य, चंद्रच न्हय तर
मळबांतली नखेत्रांय एक करता
पापा तूं खरो पिसो
जो म्हज्या बगर
जिवो रावूंक शकना
पापा तूं खऱ्यानीच पिसो
पूण हांव मात भाग्यवंत
कारण....
तुमचो सांगात तुमचो मोग
तुमचोच माथ्यार हात
तुमच्याच दीव्य त्यागान
म्हजें काळीज भल्लां काठोकांट
जरी केली कोणेंय फाट
तुमच्याच आशिर्वादान आतां
चलन हांव केदीय वाट
चलन हांव केदीय वाट



– पूजा प्रे. परब
घर नं. डी एल ८२,
घोगळ हाऊसींग बोर्ड,
मडगांव – गोंय



## जीण

जीण म्हळ्यार
एक कुवाडें
वेळ काडनासतना
सोडोवंचेलें
जीण म्हळ्यार
व्हड सपन
गोड-गोड
मायेचे उर्बेचें
धडपडत रावल्यारच
साकारतलें
मृगजळावरी पैसुल्या
आभासाचें
जीण म्हळ्यार
एक भोवणी
सदांकाळ चलचेली
हाशांत विरचेली
वाटे कणकणी
काटे कुटे
तोपले तरी
निमण्या, श्वासामेरेन
चलत रावचेली



– शर्मिला वि. प्रभू
फोंडें – गोंय

## वसंत ऋतूची

कुहू कुहू
कोगूळ गायता
वसंत ऋतूची
जाग येता
पांचव्या पानांतल्यान
सूर घुमतात
दिका दिकांत
उमेद पसवता

वाऱ्या झुळकेन
धोलता रान
धुन्द सुरांनी
रंगता मन
अनंत दिकांनी
घुमता धून
नवल घडलां
कोगूळ सूरान

सैम तळ्यांत
फुल्लां साळीक
लयेन व्हांवता
संत उदक
तनामनाक मेळटा उर्बा
अप्रूप घडलां
कोगूळ सुरान.



– अशोक शीलकार
शीला, सावयवेरे.

## मायेचें पाखें

म्हज्या घराच्या उक्त्या जनेलाखातीर
वाऱ्याची मंद झुळूक जाय आशिल्ली
मागीर कळ्ळें, म्होरबंद निविदा
मागोवची पडटली
जो कोण सगल्यांत कमी मोलाक दिता
ताचेच कडल्यान ती घेवची पडटली
मागणी तशी पुरवण जातली
अशेंय ना
तशी मर्दी मर्दी झुळूक येतली
घडये येवचीय ना
फकत पड्डो हालता असो भास जातलो
कोण तरी मर्दींच तो हालोवनय वचत
आनी आतांच मंद शितळ वाऱ्याची
झुळूक येवन गेल्ल्याची गवायय दीत
..... सगलेंच अर्थहीन
देखून हांवें म्हज्या घराचीं जनेलां
दारां निखळायलीं....
वण्टी मोडल्यो...
आतां वारें, उजवाड घरभर खेळटा
मनशां मेकळे मनान भितर सरतात
निमाणें सगल्यांकच जाय आसता
सावली दिवपी
एक मायेचें पाखें



– राधा भावे
पणजी – गोंय

# गीत उजवाडाच्या प्रवासाचें...

आमी भायर सरतात
खळी भरूंक पोटाची
काम-धंदो करूंक
धांवपळ चल्ल्या मनशांची
चलतना, धांवतना
आदळटात कितलेशेच अनवळखी
कोण हटकिता नदरांनी
कोण कुरवांनी
कोण तोंडांनी
कोण हातांनी
कोण उरतात यादींनी
कोण शेणटात यादींनी

कोण टांके घालता
पिंजिल्ल्या गणभेसाक
फुटिल्ल्या टायराक
कोण तेला डब्यार
बडयो बडयता
दोन घासां खातीर
ताळो सरांटून गायता
फाटीचेर मारून वजें
भुरगो शाळेंत वता
गणीत, भुगोल, इतिहास
तकलेंत आपल्या भरता
अभ्यास, अभ्यास, अभ्यास
तकली ताची भेरेता
भुरगेपणांतलें भुरगें मन
भुरगेपणांतूच सोंपता

आमी उतरां सांठयतात
काळजाच्या कुर्कुटांत
कांय कांटेरी, कांय म्होंवाळ
कांय विचार करपाचीं
कांय विसरून वचपाचीं
कांय मनांत घोळोवपाचीं
कांय काळजांत रुजोवपाचीं
कांय इश्टागत जोडपाचीं
कांय दुस्मान करपाचीं
मनीस, येतात, वतात
जल्मतात, मरतात
ओंठार एकचाराचें गीत
मेळप, शेणप, विसरप
हीच आसा संवसाराची रीत
ह्या उजवाडाच्या प्रवासाची
ह्या उजवाडाच्या प्रवासाची

– अतुल र. पंडित
मडगांव – गोंय

## हुंवार

रगताचें उदक करून
तिणें घर बांदलें
धुवेक लग्नाक घालपाक
भांगर करून दवरलें
एके काळराती
उदकान तिच्या घरांत
घर केलें
घरांत आशिल्लें नाशिल्लें
धुवून व्हेलें
तेन्ना रगत
तिच्या दोळ्यांतल्यान
उदक जावन व्हांवलें



– **हर्षा शेटये**
कृष्णप्रेम, अंबाजी
फातोर्डे-गोंय-४०३६०२
फोन – ९८५०५३०१५२

## भुरगेंपण

मातयेच्यो वण्टी
आनी नळ्याचें छप्पर
खंयतरी शेणलां म्हजें
भुरगेपणांतलें घर
घोटिल्ली जमीन ताजेर
सारयिल्लें शेण
केळीचे पानारच
घुस्पलें भुरगेंपण
तांबडो गूंज रस्तो
ताचेर मिठा-सोडिचो खेळ
मनांत रुतून बसला
तो भुरगेपणांतलो खेळ
दीस धारेक पावलो तरी
खेळच सोपनासलो
भुरगेंपणांतलो तो खेळ
खरेंच आगळो आसलो
रडप पसून कशें सामकें
मन मेकळें करून
एकदां सुरू करतकच
गांव एकठांय करून
काण्णां, चुन्नां, चिवरां, बोरां
दिसूयभर हेडटालीं रानांत पोरां
कितले कांटे तोपून गेले
कितले हुमले चाबून गेले
पूण उमेदीच्या भिरभिरत्या वयांत
मन मात्र टवटवीत उल्लें
चवथ, दिवाळी, शिगमो, होळी
सणापरबांची खोशीच आगळी
तरातरांचीं घालून आंगलीं
हांगा थंय नाचतालीं पिसोळीं
काऱ्याबांय, भोळो, धेडके तार
बाप्पा रानांत मारतालो फार
आईचे हातचे शागोते वासान
आजूय जीब ओली उदकान
दीस सोंपले राती गेल्यो
यादीचो म्होवोळ मात्र
ताजोच उल्लो
केन्नाय पिसावता
उस्पीत बसता
खंय तरी शेणिल्लें
भुरगेंपण सोदीत रावतां

– **सुफला प्रभू शेळकार**
वास्को – गोंय



# मीनाची धिटाय

**मी**ना नांवाचें एक भुरगें आशिल्लें. तें खूब हुशार आशिल्लें. तें सदांच वर्गांत पयलें येतालें. ताका धिटायेच्यो काणयो वाचपाक आवडटालें. तशेंच ताका कसलेंय धिटायेचें काम करून दाखोवपाची उमेद आसली.

तर एक दीस तें आपले इश्टीणीवांगडा खेळटालें. कांय वेळान पुराय वाडो हालता अशें दिसलें. मीनाक आतां भुकंप येता अशें दिसपाक लागलें. इतल्यान मीनाक टिचरीन सांगिल्ली गजाल याद जाली, की 'जेन्ना भुकंप येता तेन्ना सगळ्यांनी एका उक्त्या जाग्यार वचपाक जाय.' मीनान आनी वेळ केलो ना. ताणें आनी ताच्या इश्टिणींनीं मेळून पुराय वाड्यावयल्या लोकांक एका उक्त्या मळार व्हेले.

कांय वेळान जायतीं घरां कोसळ्ळीं पूण कोणाक कांयच जावंक ना. ६<sup></sup>१/२ रिक्टर इतलो भुकंप जालो. मीनाक लागून जिवीत हानी टळ्ळी. सगळ्या गांववाल्यांनी मीनाक शाबासकी दिली.





– साईश दी. नाईक
सातवी,
अवर लेडी मदर ऑफ द पुअर हायस्कूल,
तिळामळ – गोंय

# आमची सावळी... काळखी न्ही !!!

**जे**न्ना आमी सावळी पळयतात... आमच्या मनांत विचार घोळटा. सावळी?? काळखी न्ही !!! पूण आमची सावळी आमची फाट केन्नाच सोडना. मनांत हो विचार घोळत रावता... केन्ना काय ही सावळी आमकां मेकळी करतली? जाप कोणाकडेनूच आसना... ह्या प्रस्नाची जाप नाय बी.

सावळी ही आमची फाट केन्नाच सोडना... आनी सोडचीय बी ना. जेन्ना ही सावळी आमची फाट सोडटली... आमी 'काळखांत' आसतलीं. मनशाची जी चितपाची तरा आसता... ती खूब वेळां चुकिची आसता. आमची सावळी कित्याक लागून निर्माण जाता... हें आमी लक्षांत घेनांत... वा घेवपाक सोदनात. सावळी आमची काळोख खरी... पूण ती उजवाडांतल्यान निर्माण जाता. जेन्ना आमच्या मुखार उजवाड आसता.... तेन्नाच ही सावळी आसता. आमी ती सावळी... एक खांबो अशें चितून फुडें वचपाक जाय. ज्या खांब्यार आमी तेंकपाक शकतात... तो खांबो आसा म्हणून फाटल्यान पळयनासतना आमी तेंकपाक शकतात. आनी आमी पडनात. आमची सावळी... आमकां तेंको दिता... ती धीर दिता... की बाबा... हांव फाटल्यान आसा हां...तूं भिनाका..!!

पूण तेच सावळेक आमी काळोख म्हणून तिचो अपमान करतात!! खरें म्हणल्यार हेच सावळेचो आदार घेवन आमी उजवाडांत पावल घालप आसता. आमचें way of thinking- विचारसरणी जर आमी बदल्ली आनी जर आमी चड practical जालीं... जाल्यार आमची सावळी आमकां खूब आदाराक पावतली.

आमी आमची सावळी घेवन चल्ल्यार... फुडाराक आमीं बऱ्याक पावतलीं. हीच सावळी घेवन आमी आमच्या जिवितांत उजवाडाच्यो पणट्यो पेटोवंक शकतात. कारण आमची सावळी... काळखी न्ही!!!





– हर्ष कामत
मडगांव – गोंय
फोन : ९७६३७८८७९९
ई-मेल : harsh.kamat@gmail .com

# भोवभाशी पंडीत आनी बुदवंत बिरबल



एक फावट अकबर बादशाच्या दरबारांत एक भोवभाशी पंडीत आयलो. म्हणल्यार ताका खूबशो भासो उलोवंक कळटाल्यो. बादशाकडेन तो फारशी (पर्शियन) भाशेंत उलयलो. दुसऱ्या लोकांकडेन तांचे तांचे भाशेंतल्यान तो उलयलो. ताचें भाशेचें गिन्यान पळोवन बादशा खोशी जालो आनी ताणें पंडिताक मोलादीक इनामां दिवन ताचो भोवमान केलो.

ह्या पंडिताक आपणाल्या ह्या गिन्यानाविशीं खूब गर्व आशिल्लो. कोणाय मनशाकडेन आपूण ताचे आवयभाशेंतल्यान उलोवंक शकतां अशें म्हणून तो फुशारक्योय मारतालो. जाय त्या मनशान आपणाक प्रस्न विचारचे आनी आपूण तेच भाशेंतल्यान ताका जाप दितां म्हण आव्हान दितालो.

फारशी, संस्कृत, तेलगू, कानडी, हिन्दी, उर्दू अशा जायत्या भासांनी ताणें दरबारांतल्या मंत्री आनी हेर मनशांकडेन भासाभास केली. सगळो दरबार ताची कुशळताय आनी भासांचें ज्ञान पळोवन अजापीत जालो. अजापान ते ताका पळयतच उरले. ताणें बादशा मुखार एक आव्हानच दवरलें. ताणें म्हणलें, ''महाराज, तुमच्या राज्यांतल्या खंयच्याय विद्वानान म्हजी आवयभास खंयची तें सांगचें. कोणाकच ती वळखूंक जमली ना जाल्यार म्हजे इतलो विद्वान तुमच्या राज्यांत कोणूच ना अशें हांव समजतलों. फाल्यां सकाळमेरेन हांव तुमकां वेळ दितां.''

बादशान ताचें तें आव्हान घेतलें आनी ताका म्हणलें, ''आज तुमी आमचे भोवमानाचे अतिथी म्हणून रावात. फाल्यां सकाळीं तुमच्या प्रस्नाची जाप तुमकां मेळटली.'' बादशान मागीर सेवकाक धाडून पंडिताच्या रावपाची आनी जेवपाखावपाची वेवस्ता केली.

पंडीत गेले उपरांत बादशान थंय हाजीर आशिल्ल्या सगळ्या मंत्री आनी हेरांक विचारलें, ''तुमचे मदल्या कोणेय वळखल्या ताची आवयभास खंयची ती?'' सगळे ओगी रावले. बादशान बिरबलावटेन पळयत म्हणलें, ''बिरबल आमकां लज जावपाचो वेळ आयला. तूंच आमकां वाटावंक शकतलो हाची म्हाका खात्री आसा. चल, लाग कामाक.''

भोवमानान मान बागोवन बिरबलान म्हणलें, ''हांव यत्न करतां हुजूर.'' आनी तो थंयच्यान गेलो.

तेच रातीकडेन बिरबल आवाज करिनासतना ल्हवूच पंडीत न्हिदिल्लो ते कुडींत गेलो. वता आसतना ताणें एक बारीकशी तणाची काडी हातांत घेतली. पंडीत सुस्त न्हिदिल्लो. बिरबलान म्हऱ्यांत वचून ती तणाकाडी ताच्या कानांत घालून हुळहुळायली. ताणें कानाकडेन फाफुडिल्ले भशेन केलें आनी घुंवून दुसरे कुशीर न्हिदलो. बिरबलान ताच्या दुसऱ्या कानांत काडी घालून हुळहुळायली. न्हीद खळिल्लेभशेन जावन ताणें बेजारून आपणालेच भाशेंत

कितेंतरी म्हणलें. बिरबलाक तो उलयल्लो त्या उतरांचो अर्थ कळ्ळो आनी ताची भासूय कळ्ळी. न्हिदेंत आडखळ आयिल्ल्यान 'कोण रे तो' ह्या अर्थाचीं आपणाले भाशेंतलीं उतरां तो उलयल्लो. बिरबल अळंग कुडींतल्यान भायर आयलो.

दुसरे दिसा सकाळीं दरबार भरलो. सगळे मंत्री आनी हेर लोकांनी आपापणालीं आसनां आनी जागे घेतले. बादशा आपणाल्या शिंवासनाचेर बसलो. लार्गींच ताचे एके वटेन बिरबल बसलो. बादशान पंडिताक एक भोवमानाचें आसन दिवन ताका बिरबलाकडे भासाभास करपाक सांगलें.

पंडीत जे जे भाशेंतल्यान उलयलो ते ते भाशेंतल्यान बिरबलान ताचेकडेन भासाभास केली. मागीर बिरबलान पंडिताक म्हणलें, ''पंडीतजी तुमची आवयभास तेलगू.'' पंडीत अजापान बिरबलाक कांय खीण पळयतच उरलो. ताणें मागीर हय म्हणून तकली हालयली. बादशान खूब खोशी जावन बिरबलाची तोखणाय केली. बिरबलाकय बी खूब भासो कळटात तें पळोवन पंडिताचेंय बी गर्व देंवलें. बादशान दिल्लीं इनामां पंडितान काडून बिरबलाक दिलीं आनी बादशाचो निरोप घेवन गेलो.

मागीर बादशान बिरबलाक विचारलें, ''ताची आवयभास कशी सोदून काडली तुवें बिरबल?''

आपणें कितें केलें तें सांगून बिरबलान म्हणलें ''म्हाराज मनीस त्रासांत पडटा तेन्ना ताच्या तोंडांतल्यान आवयभाशेंतलीं उतरांच पयलीं भायर पडटात. पंडिताचे न्हिदेंत हांवें आडखळ हाडली तेन्ना आपणाले भाशेंत 'कोण रे तो' म्हणलें. तीं तेलगू भाशेंतलीं उतरां आशिल्लीं. तीच ताची भास.

इनामां दिवन बादशान बिरबलाचो भोवमान केलो.



꧁꧂

पुनर्कथन:
–रमेश लाड
मडगांव – गोंय

# खूबच आत्मविस्वास बरो न्हय

एक भुरगो आशिल्लो. नांव ताचें टोनी. टोनीक आपणाचेर खूबच आत्मविश्वास आशिल्लो. ताका दिसतालें की तो सगळें जाणां. तो वर्गांत सगळ्यांपरस शिटूक आशिल्लो.

ताचो आत्मविश्वास ताच्या इश्टांक आनी टिचरांक लेगीत आवडनाशिल्लो. ताचे इश्ट ताका सदांच समजयताले पूण तांचें सांगणें तो कानामनार घेय नाशिल्लो. ताची परिक्षा चलताली. पयले परिक्षेंत आपणालो दुसरो रँक आयिल्लो म्हूण ताचो आत्मविश्वास आनिकूय वाडलो. दुसऱ्या दिसा गणिताचो पेपर आशिल्लो. ताका दिसलें की 'म्हाका सगळें कळटा, म्हाका आनीक अभ्यास करपाची गरज पडची ना.' अशें चितून ताणें पुस्तकांक हात लेगीत लायलो ना. दीस उजवाडलो. सकाळ जाली. टोनी परिक्षेक वचपाक भायर सरलो.

वर्गांत पेपर दिलो. ताका सगळें कळटालें. पूण जेन्ना तो पेपर बरोवंक लागलो तेन्ना ताका कांयच सुचना जालें. तो हेवटेन तेवटेन आपल्या इश्टांक पळोवंक लागलो. तांकां उलो मारूंक लागलो. पूण ताका ताचे इश्ट लेगीत दाखयना जाले. ताच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं.

तो रडूंक लागलो. इतल्यांत घांट वाजली आनी टिचरीन पेपर घेतलो. निकाल आशिल्लो तेन्ना ताका गणितांत खूब उणे गूण पडले. ताचो रँक देवलो. ताच्या आई-बाबान ताका खूब तापयलो.

꧁꧂



**– पुजा गांवस**
यत्ता : आठवी
द नीव ऐड्युकेशन इन्स्टीट्यूट,
कुरचोरे – गोंय.
फोन : २८५७३२८

# पाडवो - नवें वर्स



चैत्र म्हयन्याचो पयलो दीस, म्हणजे पाडवो. ह्या दिसाक आमच्या हिंदू धर्मांत खूब म्हत्व आसा. हो दीस, म्हणजे आमच्या नव्या वर्साची सुरवात.

म्हज्या लहानपणांत म्हजो आजो म्हाका प्रत्येक पाडव्याक काणयो सांगतालो. ताणें सांगप की पुरातन काळांत ह्या दिसा कांय घडणुको घडिल्ल्यो. आज म्हजो आजो ह्या संवसारांत ना. पूण म्हाका ताणें सांगिल्ल्यो सगळ्यो काणयो मात याद आसात. हालींच हो पाडवो आमी सगळ्यांनी मनयलो हें तुमी पळयलांच. त्या निमतान म्हाकांय सगळ्या माणकुल्यांक त्यो सांगन दिसता...

श्रीरामान लंकेचेर स्वारी करून, रावणाकडे युध्द केलें आनी रावणाचे सत्तेचो नाश केलो. सीतेक रावणाचे तावडींतल्यान सोडयली आनी श्रीराम, सीता आनी लक्ष्मण अयोध्येक परत आयलीं. तेन्ना सगले अयोध्या नगरीन उत्सव मनयलो. सगल्यांनी आपापल्या घरांनी गुढयो उबारल्यो. तो दीस म्हणजे पाडवो.

तशेंच आमच्या ह्या भारत देशांत, पयलींच्या काळार एक राजा आशिल्लो. ताचें नांव आशिल्लें शालीवाहन. तो शूर वीर आशिल्लो. आनी त्याच काळांत एक शक नांवाचोय राजा आशिल्लो जो तेन्ना लोकांक खूब त्रास दितालो. सगल्या लोकांक छळटालो, लोकांचेर जुलूम करतालो. ताका सदांच सुंदर चलयांची खंडणी दिवची पडटाली. ताचो विजय साजरो करपाक तो लोकांक आपल्या साडी-चोळयेची गुढी उबारूंक लायतालो. तेन्ना शालिवाहन ह्या राजान, ह्या शक राजाक बुध्द शिकोवपाची थारायली. ताणें आपलें सैन्य तयार केलें आनी ह्या शक राजाकडेन युध्द करून ताचो पराभव केलो. तेन्ना सगल्या गांवान उत्सव मनयलो. सगल्या लोकांक खूब खोस जाली. सगल्यांनी आपापलीं घरां सजयलीं. शक राजाच्या पराभवाचो आनंद मनोवपाक सगल्यांनी गुढयो उबारल्यो. तो दीस ह्या चैत्र म्हयन्याचो पयलो दीस, म्हणजे पाडवो.

म्हाका म्हज्या आज्यान अशेंय सांगिल्लें की आमचे हे सृश्टीची, पृथ्वीची, ह्या संवसाराची निर्मिती ब्रह्मदेवान ह्याच दिसा केल्ली.

ह्या दिसा घरांतली सगळी मंडळी सकाळीं बेगीन उठ्टात. न्हावन-धुवन आपलें घर सजयतात. दारा भायर रांगोळी घालतात. दारार आंब्याच्या पानांचें, रोजांचें तोरण करून लायतात. कोंड्याची बडी घेवन, तिचेर गंध-फूल घालून, साडी न्हेसोवन आनी तांब्याचो तामयो परतो घालून ती बडी, म्हणजे ती गुढी भायर लायतात. अशें म्हणटात की ही गुढी म्हणजे आमच्या पुर्वजांनी केल्ल्या बऱ्या कामाची, यश मेळयल्ल्याची, विजय मेळयल्ल्याची एक याद म्हणून लावपाची.

हो दीस आमच्या हिंदू पंचांगा प्रमाण, जे साडेतीन म्हूर्त आसतात, तांतलो एक अख्खो म्हूर्त म्हणून मानतात. म्हणजेच ह्या दिसा म्हूर्त पळोवपाची गरज लागना. कसलेंय शूभ कार्य करपाचें आसत जाल्यार ह्या दिसाच्यान सुरवात करपाची. ह्या दिसा कोडू लिंबाचीं पानां खातात. कोडू लिंबाचें पान हें खूब गुणकारी आसता. तें खाल्ल्यान कसलोच विकार वा रोग जायना. ह्या दिसा आमी आपल्यो वायट गजाली विसरून, एके नवे उमेदीन, नवे आशेन, येता त्या नव्या वर्साची सुरवात करपाची.

हांवें हें सगळें सांगलां तें तुमी केलां आसतलेंच. फकत हांवें ह्या पाडव्या निमतान तुमकां थोडी म्हायती दिल्या. आमी ज्यो परबो मनयतात ताच्या फाटली म्हायती मेळत जाल्यार आमच्या गिन्यानांत भर पडून परबेची खोशी दोट्टी जाता न्हय?

हांव तुमकां आनी तुमच्या घरच्यांक ह्या पाडव्याचीं हुनहुनीत परबीं दितां आनी देवा लागीं मागतां की तुमचें हें वर्स, सुख-समृध्दीचें वचचें, तुमकां बरें आयुश्य-आरोग्य लाभचें, आनी तुमच्यो सगल्यो मनाच्यो इच्छा पूर्ण जावंच्यो...

देव बरें करूं!



- नेहा मोहन तेलंग
कांपाल - गोंय.

# मस्ती

यो रे यो रे म्हज्या राया
वेंगेंत तुकां घेतां
कितलो पळय भागला
आता खेळप हें नाका

फांतोडेवेल्या सूर्याचें कीर्ण तूं
जाणटेल्याच्या सप्नाची आस तूं
पुस्तकां आसात दोळ्यांमुखार
नाका करूंक सवंगां
जावंक जाय तुका दोतोर
मात्शें घे मनार
यो रे यो रे राया

एकलो एकसुरो
सगळ्यांच्या मायेचें रत्न तूं
पेटोवंक जाय हुशारकेचे दिवे
नाजाल्यार जाय आमकां
आयकुपाक कान नवे
यो रे यो रे राया

मस्ती नाका करूं रे
हांव जातलीं जाम
कशें तुजें जातलें
येवजिल्यार येता बेजार
यो रे यो रे राया

हो... पळय तुजो बाबा येता
बेगीन बेगीन यो...
दाखय थोडीं शाणेपणां
मस्ती उडोवन यो... बेगीबेगीन यो...
यो रे यो रे राया
बेगी बेगीन यो

– रोमा रा. लाड
कारायमड्डी,
सावर्डे – गोंय.

## सुटये दिसांनी

सुटये दिसांनी मामागेर येतात
सगळीं ताचीं भाचरां
मामागेर आसात फळ झाडां
मागील दारां फुडल्या दारां

वाऱ्या दडक आयली तशी
झडटात जांबळां घोटां
आवाज आयकून भुरावळ
सगळी धांवता झाडा पोंदा

टप टप टप टप आवाज करीत
झडत आसतात जांबळां
आमुल्लेच्यो ताळयो हालून
झडटात सकयल घोटां

भुरगीं सगळीं बोवाळ घालीत
पुंजायतात घोटां
चलयो भरतात तांचे व्होंटयेंत
चले आपल्या बोल्सांत

– नागेश नायक वडिये
लक्ष्मी बिल्डींग,
दत्तगिरी अपार्टमेंट,
वामन वर्दे मार्ग,
मडगांव



## एक आसली बावली

एक आसली बावली
तिचें नांव रमा
एक आसलो बावलो
ताचें नांव शामा
रमा आसली गोरी
शामा आसलो काळो
रमाचे केंस कुरळे
शामाचे केंस सरळ
रमाचे केंस पिंगशे
शामाचे केंस काळे
रमाले केंस बॉयकट
शामाले केंस वाडयिल्ले
रमान घाल्लें जीनपेंट शर्ट
शामान घाल्लीं कानांतलीं कांकणां
रमान केलो चल्याचो भेस
शामान केलो चलयेचो भेस
रमा चलयता मोटार गाडी
शामा चलयता मोटार सायकल
रमा जाली शामाची इश्टीण
शाम जालो रमाचो इश्ट
दोगांयची जाली इश्टागत बरी
दोगांयची जाली जोडी खरी



– शांता केणी
विद्याश्री अपार्टमेंट
११४, दळवी नगर,
चिंचवड, पुणे ३३

# लयलुब्ध कवी बाकी

**भो**वमानेस्त बाकीबाब,

नमस्कार.

बाकीबाब, गोंय स्वतंत्र जाल्या उपरांतूच तुजें नांव आयकल्लें, कोण तरी तें म्हणटालो. आनी म्हाका तें तेन्नाय आवडलेलें. तशें तें गणितांत आसलें. तें गणीत अशें. काकासायब कालेलकार वजा मामा वरेरकार बरोबर बाकी बोरकार. म्हाका हें गणीत खूब आवडलेलें. म्हाकां दिसता काका सायब, न्हय तर काका कालेलकार. सायब हें उतर कांय काळाफाटीं आमच्या तोंडार खूब घोळ्ळें. ताका लागून काकाचो काकासायब जालो. ते संवयेन हांवें सायब बरयलें. काका कालेलकार वजा मामा वरेरकार बरोबर बाकी बोरकार हें कशें जुस्ताजुस्त बसता. तर जांचेकडल्यान हें आयकल्लें ते आसले मराठीवादी. पूण हे मराठीवादी दोन मराठीवाद्यांक कित्याक हाडटात तें मात म्हाकां कळनासलें. आनी हो बाकी कोण तें कळूंक नासलें. पूण हो कोण तरी गोंयकार आसा इतलें मात्र कळ्ळेलें. बाकीबाब, तूं कोंकणी बी बरयता वा कोंकणीचो पाखो घेता म्हण हीं फकणां करताले तुर्जी आनी त्या दोन मराठी लेखकांचींय. काका कालेकारांचें नांव मराठी शिकतना आयकल्लें. ताचे एक दोन मराठी धडेय वाचलेले. एक मोटो मराठी लेखक अशेंच आयकल्लें. कोणा तरी मास्तरान सांगलेली ही गजाल.

उपरांत विद्यापिठाच्या पावंड्यार कालेलकारांचे कांय निबंध शिकलों तेन्नाय तांचे संबंधान चडशें कांयच कळ्ळें ना. कालेलकार हे एक व्हड लेखक आसले. काकासायब गुरूदेव रवीन्द्रनाथ टागोरांनी स्थापीत केल्ल्या शांतिनिकेतनात शिकोवपाक गेल्ले. थंय तांका गांधीजीची वळख जाली.



थंयच्यान ते तांचे वांगडा गुजरातांत गेले. गुजरातांत ताणी शाळा काडल्यो. गुजराती. थंय गांधीजीवांगडा हिंदी खातीर काम करपाक लागले. बरोवपाक लागले. गुजरातींतूय बरोवपाक लागले. इंग्लीशूय बरोवपाक लागले. काकासायबान २९ मराठी पुस्तकां बरयल्यांत. ताचेय परस चड म्हटल्या ६९ पुस्तकां गुजरातींतल्यान बरयल्यांत. आनी गुजराती परसूय चड ९८ पुस्तकां राष्ट्रभाशेंतल्यान उजवाडायल्यांत आपले लिखणेंतल्यान. आनी १२ पुस्तकां इंग्लीशींतल्यान. हे भायर तांची विद्वत्ता, देश प्रेम, साहित्य प्रेम, संवसारीक प्रवास आनी तत्कालीन संवसारीक विद्वानांकडे आसलेलो तांचो संपर्क हे विशीं मात त्या फकाणां करपी लोकांक कांयच खबर नासलें. पूण एक बरें जालें. ताणीं केल्लीं फकाणां म्हाका तरी तीं फकाणां अशीं दिसलीं ना. म्हणचें ते जें कितें करताले तें त्याच अर्थान तशें लोक घेतालो काय कितें, असो दुबाव घेवपी वातावरण हें. वरेरकार हे कादंबरीकार, भाषांतरकार, नाटककार, लेखक. बाकीबाब होय कोण तरी मोटोच लेखक आसपाक जाय अशें मनांतल्या मनांत दिसलेलें. तेन्ना आमी जीं मराठी पुस्तकां शिकल्यांत तीं अत्रे घाटे पुस्तक मालेचीं आसलीं. तातूंत तुजी कविता नासली. आनी म्हाका तुजी कविता वाचिल्ल्याची याद जायना. पूण बाकीबाब तुर्जी फकाणां मारतल्यांक आनी तातूंत काका सायबांक आनी वरेरकारांक हाडटना काकासायबान २०८ वयर पुस्तकां बरयल्यांत आनी तींय बी वेगवेगळ्या भासांनी हें मात तांकां बिलकूल खबर नासलें. पूण फकाणां करपांत हे मुखार आसले. मामा वरेरकारान मराठी साहित्यांत मोलादीक भर घातल्या हेंय तांकां खबर नासलें. शरदचंद्र हो बंगालींतलो कादंबरीकार. ताणीं मराठींत हाडला तें तांकां खबर ना. ताणी कितल्योशोच कादंबऱ्यो बरयल्यात, आनी नाटकां बरयल्यांत हेंय तांकां खबर ना. आनी तुवें कितें बरयलां तेंय तांका खबर नासलें. पूण फकाणां मात ते मारताले. जांकां कांय कळना तेच फकाणां मारपाक शकतात अशें म्हाकां तांचे वागणुके वयल्यान दिसलें. बाकीबाब, फाटली गजाल तूं जाणांच. जेन्ना डॉ. सुनीतिकुमार चटर्जीन कोंकणी ही एक भारतीय साहित्यिक भास म्हण मान्यताय दिली तेन्ना कितल्याशाच फालतू लोकांनी जांका साहित्य म्हटल्यार कितें तें कळना अशा लोकांनीय डॉ. सुनीतिकुमार सारक्या बुजूर्ग साहित्यिकाचीं फकाणां केल्लीं. आनी हांकां हेच सुनीतिकुमारां परस विद्वानशे दिसताले. देखून तें म्हाकां तशें दिसलें. तांच्या करण्याचो कसलोच परिणाम म्हजेर तेन्ना जालो ना. चडशा प्रमाणांत अशेंच जालां आसूंक जाय. बाकीबाब तुमी तेन्नाचे हिरो आसले. काकासायब कालेलकारांनी कोंकणी खातीर बरोच वावर केलो. तुमच्या सारख्यांक ताणी आपले भाशेचें म्हत्व सांगलें. एके तरेन मराठीन हो कोंकणी भाशेचेर केल्लो मोठो उपकार. वरेरकारूय कोंकणी प्रेमी. तांची मूळ

भास कोंकणी. कारण ते कोंकणांतले. आनी कालेलकारांची आवय कोंकणी. तसो ह्या दोगांयचो संबंद कोंकणीकडें आसलो. पूण जांची निवड गुरूदेव टागोरान आपल्या शांतिनिकेतनाचो गुरू म्हण केल्ली ताचें महत्व आनी जांका गांधीजीन आपल्या वावरांत महत्वाचें स्थान दिल्लें ते राष्ट्रविधाते विद्वान काकासायब जेन्ना सांगतात तें तितलेंच महत्वाचें आसलें. अशा ह्या काकासायबांची अंदू १२५ जयंती. राष्ट्राखातीरूय तांचें काम तितलेंच महत्वाचें. पूण गोंयांत तांच्या जयंतेचें व्हडलेंशें कांयच पडून वचूंक नासलेले वरी दिसता.

बाकीबाब, तुज्या नांवान चलयल्लो काव्योत्सव आतां आमी बंद केला. कोणूय म्हणत की आतां तो आमी बंद करूंक ना. तो बंद जाला. पूण बाकीबाब कविता बरोवप बंद जावंक ना. तें चालूच आसा. पूण कवितेचो कस इल्लो उणोच जाला. कारण कविता बरोवपाचेरूच नवे पिढयेचो भर दिसता. कवितेंत कितें बरोंवचें न्हय हें आयच्या कवींक कळना अशें दिसता. तें कळटकूच कितें बरोंवचें हाचें गिन्यान जाता. पूण कवींकडे सद्या पासियेंस ना. कारण कविता बरोवपाक एका पानार एक पांच धा ओळी आसल्यार पुरो जाता अशें तांकां दिसता. आपणे बरयल्ली कविता आपल्या आदीं जायत्या लोकांनी बरयल्या हें तांकां खबर आसना. कारण उक्तें आसा. ते हेरांनी बरयल्लें कांयच वाचिनात. आनी अशीं पुस्तकां आमच्यो अकादमीय छापतात. अकादमींक विचाल्ल्यार अकादमी म्हण्टा की ही निवड आमकां आमच्या त्या त्या विशयांतल्या तज्ञानी करून दिल्या. अशें तुजे वेळार जायनासलें. 'कोंकणी काव्यसंग्रह' ह्या साहित्य अकादमीच्या प्रकाशनाचें संपादन तुवेंच केल्लें. म्हाकां याद जाता, म्हज्या कवितांची निवड तुवें केल्ली तेन्ना तुवें म्हाकां मुद्दाम आपल्या घरा पर्वरी आपोवन व्हेल्लो. आमी मागीर दोगांयनी एक सांजभर कवितांचेर चर्चा केल्ली. तुज्या कितल्याशाच प्रस्नांक म्हाकां जापो दिवंच्यो पडलेल्यो. तुवें कविता



म्हजे कडल्यान म्हणून घेतल्यो. तांतलें संगीत आनी स्वराघात, अर्थ सगळेंच आमी चर्चेक घेतलेलें. हें जाल्या उपरांतूच तुवें म्हज्यो कविता वेंचलेल्यो. आयज असो आस्थेन कवितेक वेळ दिवपी लोक उणो. पूण बाकीबाब आमकां हांतल्यानूय वाट काडुंकूच जाय.

बाकीबाब, कांय दिसां आदीं हांव गोंयां आसलों तेन्ना हांव शिरदोनचे वेळेर गेल्लों. थंयसल्ले कांय वड बावडे जावन पळयतात तें पळयलें. आदीं कशें आब्रील मायाचे मुदांसाचे दीस. शिरदोनां दर्या देगेर आसलेल्या ह्या वडांच्या पोंदा शेंकड्यांनी लोकांचो राबितो आसतालो. कारण ह्या दिसांनी लोक खारें उदक न्हावपाक हांगा येताले. आमगेरूय हीं उदकां न्हावपाक येवपी सोयरे आसताले. ते आयले तशें दोन चार दीस दर्यार उदकां न्हावप जातालें. वेगवेगळ्या सोयऱ्यांच्यो वेगवेगळ्यो वेळो. दीस सुटयांचे. आनी तांचे वांगडा रावपाक, न्हावपाक, भोंवपाक मजा येताली. तेन्नाची संवय म्हण आमी कांय इश्ट हेर सिजनांतूय दर्यादेगेर येताले. अशेंच एका सिजनांत हांवें ह्या वडाच्या झाडाकडें सांजवेळां तुजीं पांयजणां आयकलीं.

त्या दिसा वडाकडें गडद तिनसनां
मंद मंद वाजत आयलीं तुजीं गो पायजणां

हीं पायजणां मात तिच्या पायांत नासलीं. कितें जाल्लें खबर ना सांज जरूर जाल्ली. तिनसानूय गडद जाल्ली आनी ह्या वडाच्या झाडाकडें ती आनी तिची इश्टीण गजालींनी गुल्ल आसलीं. पूण तिच्या दोळ्यांचीं घुंगरां शिरंतरांत व्हांवतल्या रगताच्या कणकणार घुंगुरतालीं. मना वयले सामाजीक संकेतांचे सगळे धागेदोरे ना जावन मन एका आद्भूत आनंद संदर्भानी गरगरून येतालें. आनी मजा म्हटल्यार त्या वडाशेजारचो एक शिडशिडीत आंगाचो तरणो पिंपळ पानापानान उमेदीन मुरगट्टालो. सवन

आसमंतांत एक मदीर मिर्मिर लय भरून येताली. हे लयेचेर तिच्या नदरेच्या स्वप्नील शक्तिंचो वचक आसलो. बाकीबाब, एक दीस हांव स्कुटरीचेर म्हजे स्पिडींत आसतना रस्त्यावयल्या ऑयलीच्या धारेंत सांपडलों आनी ऑयलीन म्हजे स्पिडीचो ताबो घेतलो. ते वेळार रस्त्यावयल्यानूय कशें व्हावूं येता तें एका खिणांत कळ्ळेलें. हे धारेच्या ओघांत कितेंय जावं येतालें. पूण तें जालें ना हे कोणाचे उपकार तें खबर ना. पूण ते दिसा ते सांजवेळा काळूय असोच ऑयलीवेल्यान निसरून वयतालो दिसलो. त्या काळाचें रसायणूच सामकें अनाकलनीय आसलें.

घुंगर अंगुरी<br>
झंकारत वयता<br>
कुशळांचो पर्मळ<br>
सुर्ङार केळयता

म्हज्या मनांतलीं हीं उतरां पूण तीं म्हटलीं मात त्या पिंपळान... बाकीबाब, आजून हांवें ह्या खिणाचेर कविता बरोवंक ना. तुजी कविता वाचलेली आनी ही म्हजी कविता तर अशी... तुजी कविता वाजता... पांयजणता... आनी म्हजी कविता मोनी. तरीय 'अकस्मात तुजीं वाजती पांयजणां' असो सो हो खीण अकस्मात म्हज्या मनांत येता. त्या खिणाची एक निश्पाप ऊर्जा म्हज्या मनांत खेळत आसता म्हज्या नकळत आनी ती म्हाका खेळयत आसता. हें सगळें तुजेकडें उलोंवचें आसलें. कितलो कळाव जालो हें सांगपाक? पूण म्हाकां कितें दिसता जाणा काळाक कळाव म्हण कांय नासता. काळ म्हण्टा, 'सकाळ म्हण कांयच नासता. दनपार म्हण कांयच नासता. सांजवेळ म्हण कांयच नासता.' काळ म्हण्टा, 'तुमकां मनशांक उज्वाडूय दिश्टी पडना आनी काळोखूय दिश्टी पडना. तुमकां दिसता तें उजवाडाचें बींब जाचेर धरता ती वस्त. उजवाड मनशाक खंय दिश्टीच पडना. आनी काळोख म्हण कांय नासताच. ह्या नासता तांतल्यानूच सगळें उपरासून येता खंय! पूण मनशाक तें कळच ना' अशें हें काळाचें म्हणणें. पूण जेन्ना तो असो कोणा कोणाकडें उलयता तेन्ना तें त्या मनशाक कळटा. काळूय म्हण काळाचो! तसो मोनो पूण ताच्यो उलोवपाच्यो तरा हजार. तुवें आपले कवितेंत ताका बरे तरेन केळयला. तुवें पांयजणांत त्या काळाक अमुरपिके



आमोरेचेरूच उचंबळ तरणे अवस्थेंतूच अशे तरेन धल्ला की तुज्या त्या उतरांची तुस्त करीत तितली थोडी. कोंकणी काव्यसंग्रहांत शंकर रामाण्याची एक कविता आसा. रामाण्यानूय काळखाक आपल्या उतरांनी अचूक धल्ला.

रात अशी खांपुल्ली<br>
खंय खंय झेमता दिवो<br>
पावला पावला काळखाच्या<br>
खोलायेक अर्थ नवो....

रामाण्यान झेमत्या दिव्याच्या उजवाडांत खांपुल्ले रातीचे गचेक धल्ल्या. पावला पावलांक काळखाचे खोलायेक एक नवो अर्थ तांका उमजून येता. पूण हांगा आनी एक सुक्षीम प्रस्न उपरासता तो हो की पावला पावलाक काळखाच्या काय काळाच्या? रूप सोडून अरूप जावन येवपी काळोख हो काळूच आसता अशें म्हाकां दिसता. मनांत आयल्ले विचार अशे केन्ना केन्ना अनाम जावन येतात.

बाकीबाब, २९/३/२०१० हे दिसा म्हज्या हिंदींतल्यान बरयल्ल्या कवितांचो एक संग्रह उजवाडाक आयला. नांव कितें जाणां? 'समुद्रमुद्रिका' तुकां हें नांव खुब्ब आवडटलें आसलें आनी आतां तरी तुकां तें आवडलेंना अशें कित्याक म्हणप? तुवेंय कांय हिंदी कविता बरयल्ल्यो. आपाप आयिल्ल्यो कांय कविता.

सद्याक हांव तुज्यो समग्र कविता वाचतां. तुजें लयलुब्ध काव्य आयज इल्लें इल्लें लोकांक आवडप कठीण जाता अशें कांय लोकांचें म्हणणें आसा. म्हाकां दिसता की काळाचे प्रक्रियेन लोकांचे समज निबर जायत चल्ल्यात. म्हणूनच तांका लयलुब्ध संवेदनशीलताय सोडून गेल्या आसूं येता.

बाकीबाब, बरें आतां आनी केन्नाय!

तुजो,<br>
रमेश भगवंत वेळुस्कार



कथिका

रामभटाक चलो नाशिल्ल्यान आनंदान ताचें उतर मानून घेतलें. हें आयकून रामदास खोशी जालो. ताणें मोट्या थाटान आपले धुवेचें लग्न केलें. उपरांत रामदासान आपलें घर-दार आपले धुवेच्या आनी जावंयाच्या नांवार केलें. पूण आनंद मात सदांच आपल्या घरा वतालो. दनपारचें जेवणूय थंयच जेवतालो. पूण रातचो मात थंय रावनाशिल्लो. आनंदाल्या तिगूय भावांक मात दिसतालें, हाका घर जावंय केला न्हय, मागीर हाणें दीसभर हांगा कित्याक रावपाक जाय?

# आनंद भट



रामदास भट आनी व्यंकटेश भट हे दोग घट्ट इश्ट आशिल्ले. दोगूय एकमेका शेजराक रावताले. खरें म्हणल्यार व्यंकटेश कर्नाटकांतलो. एक दीस गोंयांत आयिल्लेकडेन ताची वळख रामदासाकडेन जाल्ली. व्यंकटेश कोणाच्याय अडचणींक पावपी. ताचो सभाव आनी गूण पळोवन रामदासाचे बायलेन आपल्याच सोयऱ्यांची चली पळोवन व्यंकटेशाचें लग्न लावन दिलें. आनी तेन्नासाकून तर व्यंकटेश तांचो घरचोच कसो जाल्लो.

गांवांतलीं सगळीं कार्यां दोगूय करताले. रामदासागेर चार चलयो, आनी व्यंकटेशागेर चार चले. रामदास केन्ना केन्ना उलयतना म्हणटालो आपणाकूय देवान एक तरी चलो दिवपाक जाय आशिल्लो. तेन्ना व्यंकटेश ताका समजयतालो, "आरे देवान तुका चार चलयो आनी म्हाका चार चले कित्याक दिल्यात तें जाणा मरे, आमची इश्टागत फुडेंय अशीच भुरग्यांनी चालू दवरची म्हण. हें अशें सांगतकच रामदास मात चिततालो, हाचे फुडें आनी कसली इश्टागत उरल्या काय? व्यंकटेशाक कसल्याय गजालींचेर फकाणां करपाची खूब संवय. कसलेय गजालिंकडेन सिरियसनेस म्हणटा ती नाच; रामदास मागीर भटपण केल्याभशेन बडबडटालो.

रामदासान आपल्या तिगां चलयांक लग्नां करून दिल्लीं. दोगां चड पयस पडलीं जाल्यार एकलें मातशें लागीं आशिल्लें. रामदास आनी ताची बायल चिंततालीं, लग्न करून दिल्यांत तीं सगळीं बऱ्या घराण्यांत पडिल्ल्यान, एकलेंच उरलां ताकाय लग्न करून दिलें जाल्यार हें घर कोणाक? हाका लग्न करून तरी घर जावंय करपाक जाय. व्यंकटेशानूय आपल्या तिगां चल्यांक लग्न करून सुनो घरांत हाडिल्ल्यो. व्यंकटेशालोय आतां एकटोच चलो उरिल्लो. रामदासाक दिसतालें आपणें चलयेखातीर व्यंकटेशाकडेन उतर घातल्यार बरें जातलें आशिल्लें. व्यंकटेशालें घरूय लागीच आशिल्लें. पूण घर जावंय म्हणत जाल्यार हां म्हणत काय? 'इश्टागतीक बादा बी येवची ना मू?' अशे जायते विचार ताच्या तकलेंत येताले.

व्यंकटेशाच्या निमाण्या चल्याचें नांव आनंद; बी. ए. मेरेन शिकिल्लो. पूण भटपणूच करतालो. गुणान बरो. कोणाकूय उठ-बस करपी. खरें म्हणल्यार व्यंकटेशभट धरून ताचे चारूय चले भटपणाच करताले. वाड्यार वा गांवांत अमक्याच भटान वचपाक जाय अशें कांय तांचें नाशिल्लें. कोणाक वेळ मेळटा तो भट वतालो. पूण वाड्यावेल्या कसल्याय कार्याक आनंदभट आयलो जाल्यार त्या घरांतलीं सगळींजाणां खोशी जातालीं. आं.... बरें जालें रे बाबा, आनंद भट आयलो तो. अशें चडकरून बायलांच्या तोंडांतल्यान उतरां आयकुपाक येतालीं. आनंदभट कोणाचेर तापनाशिल्लो. पुजेची तयारीबी सारखी करूंक ना जाल्यार आपूण वचून हातबोट लायतालो. चुकल्यार समजावन सांगतालो. कितें दितात ती दक्षणा घेवन वतालो. भुरगो आसून सुध्दां जाणट्यांभशेन समजून घेवपाची तांक ताच्यांत आशिल्ली. ताच्या ह्या गुणाक लागून रामदासाक घरजावंय म्हण आनंदभटूच योग्य आसा अशें दिसतालें.

एक दीस उलयतां उलयतां रामदासान आपली इत्सा व्यंकटेशाक सांगली. हें आयकून व्यंकटेशानूच ताका सांगलें, आमी तुजेकडेन येवपाचीं आशिल्लीं. आमचीय इत्सा आशिल्ली तुजे चलयेक सून करून घेवपाची. पूण घरजांवय जावपाची इत्सा मात तुमी आनंदाकडेनूच उलोवंचें पडटलें. रोखडीच रामभटान आपली इत्सा आनंदाक सांगली. दोगांयचीं घरां एकमेका शेजराकूच आशिल्ल्यान आनी रामभटाक चलो नाशिल्ल्यान आनंदान ताचें उतर मानून घेतलें. हें आयकून रामदास खोशी जालो. ताणें मोट्या थाटान आपले धुवेचें लग्न केलें. उपरांत रामदासान आपलें घर-दार आपले धुवेच्या आनी जावंयाच्या नांवार केलें. पूण आनंद मात सदांच आपल्या घरा वतालो. दनपारचें जेवणूय थंयच जेवतालो. पूण रातचो मात थंय रावनाशिल्लो. आनंदाल्या तिगूय भावांक मात दिसतालें, हाका घर जावंय केला न्हय, मागीर हाणें दीसभर हांगा कित्याक रावपाक जाय? घडये ताका भाटाचो आनी ह्या घराचो वांटो जाय दिसता. अशे तरेचे नाका ते प्रस्न तांच्या मनांत येवपाक लागले. खरें म्हणल्यार आनंद आपल्या भावंडांखातीरूच वतालो. पूण तागेल्या भावांनी ताचो अर्थ वेगळोच केल्लो.

एक दीस ह्या तिगांयनी आपणाले आवयक म्हळें, "जाणा मुगे अम्मा, आनंदाक घर जावंय केला पूण तो हांगाच चडसो आसता, कित्याक जाणा मगे, ताका ह्या घराचो आनी भाटाचो वांटो बी जाय आसतलो." हें आयकून आवयक मात खूब वायट दिसलें. आवयन तिगांय पुतांक समजावन सांगलें, "बाबा, आनंद तसो आशेचो मनीस न्हय. ताका घर जावंय जावपाची इत्सा नाशिल्ली. पूण रामदासाल्या लग्न जाल्ल्या सगळ्या चलयांनी आपणाक कांयच नाका म्हूण बरोवन दिलां खंय. हें सगळें जर कोणाक नाका जाल्यार आसा त्या घर-दाराचें आपणें कितें करचें? हें रामदासान तुज्या बापायक आनी आनंदाकूय समजावन सांगलें, तेन्ना हें सगळें आयकूनच न्हय तर इश्टागतीच्या नात्याक लागून आनंदाक हय म्हणचें पडलें."

"हें सगळें खरें गे, पूण आनंदाक सदांच कित्याक येवपाक जाय.....?" हाचेर कितेंय तरी उपाय काडपाक जाय म्हण तिगांनीय एक युक्ती काडली. आनंद घरा येतकच हे तिगूय भाव ताचेकडेन उलोवंचें पडटा म्हूण पयस पयस रावपाक लागले. जेवतना खातना ताचेबराबर बसना जाले. उलोवपाचें टाळपाक लागले. आपल्या भावांभितर जाल्लो बदल आनंदाक जाणवलो. तेन्ना साकून आनंद येवपाचो कमी... कमी जायत गेलो आनी जेवणाकूय रावना जालो. पूण ताका घरचेंय जेवण चलना जालें. तिगूय भाव आपणाकडेन सारखे उलयनांत तें पळोवन आनंदाचे तकलेर बरोच परिणाम जालो. अकस्मात एक दीस आनंद दुयेंत पडलो. हें जेन्ना आनंदाल्या तिगांय भावांक कळ्ळें तेन्ना तांकां सामको धक्कोच बसलो. आपणें भावाचेर अन्याय केला अशें तांकां दिसलें. आतां खंयच्या तोंडान भावाक मेळपाक वचपाचें? आनंद आमकां कितें म्हणटलो? कितें म्हणटा तें म्हणू दी, आयकुपाची तयारी दवरून तिगूय भाव आनंदाक मेळपाक गेले. आनंद खाटीचेर न्हिदिल्लोच आशिल्लो. सगळे भाव ताच्या म्हऱ्यांत वचून उबे रावले. ताका हात लावन उठोवपाचेंय तांकां धाडस जायना जालें. तो उठसर ताचे कुशीकूच उबे रावले. जेन्ना आनंद जागो जालो तेन्ना ताका सगळे भाव आपल्या म्हऱ्यांत आसात तें दिसलें. ताणीं बेगीबेगीन तांकां खाटीचेरूच बसपाक सांगलें. तेन्ना सगळ्यांनी आपणाची चूक जाली म्हण सांगून ताका घट्ट वेंग मारली. आनंद कितें कितें उलोवपाक सोदता हाची वाट पळयनासतना सगळ्यांनी ताका थंयचो उकलून आपल्या घरा हाडलो. आनंद हें सगळें पळोवन खूब खोशी जालो. एका मिनटांत दुयेंस विसरून गेलो.

आनंदान तिगांय भावांक सांगलें, "तुमच्यांत जाल्लो बदल म्हाका कळ्ळो. पूण म्हाका भाटां-भेसांचो वांटो नाका आशिल्लो. म्हाका सगळ्या भावांबरोबर खोशयेन रावपाक जाय आशिल्लें."

हें आयकून सगळ्यांनी आपली मान सकल घातली.

"आमची चूक जाली, अशें आमी केन्नाच करचे नांत!" म्हणपाचें उतर ताणीं आनंदाक दिलें.



– कुमूद भिकू नायक
खोर्ली,
तिसवाडी – गोंय

दिका

# श्रद्धांजली



*सांतान म्हळयार आमच्या नशिबाची काणी जाल्या. सावदीच्यान नोकरी सोडून येतकच सोरो पिवपाक लागलो. सुर्वेक मात्सो मात्सो करून सामकोच लोळपाक लागलो. ह्या चाटेपावलाक जाल्ल्या सोऱ्या दुकानांनी ताचो घात घेतलो. तो संवसार सोडून गेल्यार वर्स जायत येतलें. जोडून हाडिल्लें सगळें काबार केलें.*

सुमार पंदरा वर्सांनी संजीव तांगेर पावलो. तरणाटपणार नोकरेच्या निमतान सावदी अरेबिया गेल्लो तेन्ना ताका व्हरपाक कोणच आयलो ना. एका पुलीसान येवन ताका विचारलें तेन्ना ताणें कागदां दाखयलीं आनी कंपनीचें नांव सांगलें. तो गेलो. बरोच वेळ रावन पासून ताका व्हरपाक कोणच आयलो ना. ताचेर आकांत आयलो. तेन्नाच आपल्या एका इश्टाक पावोवपाक सांतान आयिल्लो पळयलो. ते कोंकणी उलयतात तें आयकून तो तांच्या फुड्यांत गेलो आनी आपली अडचण सांगली. आपणाकडेन जाता तो आदार करतां म्हूण सांतानान ताका धीर दिलो. सांतानाच्या इश्टाचो वेळ जालो आनी तो गोंयां येवपाक भायर सरलो जाल्यार सांतान संजीवाक घेवन आपल्या अपार्टमेन्टांत आयलो.

"जाणा संजीव, तूं आनीक थोडो वेळ विमानतळार उरिल्लो जाल्यार तुका पोलीस धरून व्हरपाचे. तुजें नशीब बरें हांव तुका मेळ्ळों. आतां तूं विसव घे. तुजे कंपनींत वचून फाल्यां चवकशी करुया." सांतानान परत एक फावट ताका धीर दिलो.

दुसऱ्या दिसाक सांतान संजीवाक घेवन ताचे कंपनींत गेलो. तांच्या अधिकाऱ्यांक कागदां दाखयलीं पूण संजीवाक नोकरेखातीर विझा काडिल्ली हें खंयच मेळनासलें. सांतानय मात्सो भियेलो. थंयच रावून ताणें आनीक एका गोंयकाराक फोन लायलो. थोड्या मिन्टां भितर तो पावलो. संजीवाक असोच दवरप धोक्याचें आसलें. ते आपलें भितर कितें तरी उलयले आनी सरळ सांतानाचे कंपनींत गेले. थंय एक गोंयकार फोरमॅन आसलो. ताचेकडेन उलयलो.

संजीवान बारावी मेरेन शिकून फिटराचो कोर्स केल्लो आनी फिटराचेच नोकरेखातीर सावदीक आयिल्लो. पूण हांगा सगळीच गडबड जाल्ली.

सांतानाचे धांवपळीक फळ आयलें. तांचे कंपनींत हॅल्पराचो एक जागो कालूच खालीं जाल्लो. संजीवाक हॅल्पराची नोकरी करपाक तयार केलो आनी ताचे ट्रेडी प्रमाणे नोकरी मेळटा तेन्ना वचपाची तजवीज दवरून कामार रुजू केलो.

त्या दिसाक जर संजीवाचे नोकरेचें जाग्यार पडनासलें जाल्यार एक तर ताणें परत गोंयां वचूंक जाय आसलें ना जाल्यार सावदीचे बंदखणींचीं दारां ताका उक्तीं आसलीं. पन्नास हजार भरून तो सावदीक आयिल्लो. कितल्या जाणांकडेन रीण काडिल्लें तोच जाणा. घराकडेन गरीब परिस्थिती. परत गेल्लो जाल्यार.... वचपाक आनीक रीण कोण दितलो आसलो? ताणें सांतानाचे पांय धरले आनी बुळबुळीत रडपाक लागलो.

मागीर सगळें जाग्यार पडलें. सुमार स म्हयन्यांनी ताका दुसरे कंपनीत फिटराची नोकरी मेळ्ळी. दोन वर्सांनी सांताना बराबरूच गोंया परतलो. ताच्या घराय गेलो आनी उपरांत सावदीकच टी. व्ही. पत्रकार जावपाची ताका संदी मेळ्ळी. ताचेकडेन पत्रकारितेचो डिप्लॉमा आसलो. मागीर ताची कामाची पद्धत बदल्ली, वेळ बदल्लो आनी सांतानाक मेळपाक वेळ मेळना जालो. तरी केन्नाय फोनाचेर उलयतालो. एक दीस ताका कळ्ळें

सांतानाची कंपनी बंद जाली आनी सांतान सदांकाळ सावदी सोडून गेलो म्हूण.

"कोण थंय, तूं कोणाक सोदता?" एक धा-बारा वर्सांचे सांतानाले चलयेन वोऱ्राद न्हेसून आयिल्ल्या संजीवाक पळोवन विचारलें. हालींच्या तेंपार अशे व्हड मनीस तांगेर कोण येनासले. तो सावदीक आसतना मात कोण कोण येताले. संजीव भानार आयलो.

"हांव संजीव, तुज्या पप्पाचो इश्ट." म्हणत ताणें एक बॅग तिचे कडेन दिवपाचो यत्न केलो. तें फाटीं सरलें.

"मम्मी, हो पळय कोण पप्पाचो इश्ट आयला." म्हणत तें धांवत भितर गेलें. ताची मम्मी म्हळ्यार सांतानाली घरकान्न भायर आयली. तिणें ताका वळखलो आनी भितर आपयलो. भितर सरतांच ताची नदर फुलांचो हार घालून आशिल्ल्या सांतानाच्या फोटवाचेर पडली आनी तो अजापलो.

"हें कितें भाभी?"तो तिका भाभीच म्हण्टालो.

"सांतान म्हळयार आमच्या नशिबाची काणी जाल्या. सावदीच्यान नोकरी सोडून येतकच सोरो पिवपाक लागलो. सुर्वेक मात्सो मात्सो करून सामकोच लोळपाक लागलो. ह्या चांटेपावलाक जाल्ल्या सोऱ्या दुकानांनी ताचो घात घेतलो. तो संवसार सोडून गेल्यार वर्स जायत येतलें. जोडून हाडिल्लें सगळें काबार केलें."

"म्हजेर सांतानाचे खूब उपकार आसात. म्हज्यान तुमकां कसलो आदार करूंक जाता?"

"देव बरें करूं बाबा. सांतान म्हाका सांगतालो तूं थंय टी.व्ही. पत्रकार जाला म्हण. हांगासर कोणाकय धरून घरा-घरांनी सकाळ फुडें सोरो विकप्यांचेर बंदी हाडूंक जाता जाल्यार पळय रे. म्हजो सांतान गेलो तो गेलो. आनीक जायते सांतान हांगा आसात, तेय गेले जाल्यार गांवचो घात जातलो. वचत थंय सोऱ्या दुकानां, थोडीं कायदेशीर, थोडीं बेकायदेशीर. तांकां विचारतलो कोण ना, धरतलो कोण ना. रातची शांतताय म्हण्टा ती ना. कोण ना कोणागेर बेबबद्यांची झगडीं आसतातच."

"भाभी, तूं सांगता ती गजाल तितली सोंपी ना. हांवेंय आतां सावदीची नोकरी सोडल्या. गोंयांत म्हाका टी. व्ही.चेरच काम करपाची नोकरी मेळ्ळ्या. एक दीस म्हजी टीम घेवन हांव येतां तेन्ना तुमचें म्हाका सहकार्य लागतलें. पूण एक सोपूत घेवन हांगाच्यान वतां, सांतानाच्या आत्म्याक शांती मेळपासारकें हांव काम करतलों."

आपणें तांचेखातीर हाडिल्लें बॅग तिचेकडेन दिलें आनी निरोप घेतलो. पंदरा वर्सां आदलो गांव आनी आजचो गांव बरोच बदलिल्लो दिसतालो. सोऱ्याचे परवाने दिवन सरकाराक येणावळ मेळटा तीं सरकार बंद करतलो? त्या परस आनीक कितेंय वेगळें केलें जाल्यार.....!

ते रातीक ताका न्हीद पडली ना. सांतानाचो चेरो ताका परत परत याद जावपाक लागलो. सावदी अरेबियाचो पयलो दीस परत दोळ्यां मुखार येवन गेलो. त्या दिसाक सांतान मेळूंक नाशिल्लो जाल्यार.... आज जो संजीव आसा, तो संजीव आसपाचो? देवा रुपान तो हाजीर जाल्लो आनी देवाचीच करणी ताणें केल्ली. 'हॅलो-हाय' करून ताच्यान वचूं येतालें पूण ताणें तशें केलें ना. एका गरजेवंताक आदार करून आपलें धार्मीक तत्व पाळ्ळें. पूण हांगा ताका गरज आसली तेन्ना कोणच कित्याक पावलो ना?

त्याच खिणाक आपल्या संपादप्याक फोन लायलो आनी सोऱ्याचेर एक खास स्टोरी तयार करपाची परवानगी घेतली. सकाळ फुडें उटलो आनी सांतानाल्या गांवांत गेलो. उजवाडचे आदींच लकत लकत वचपी कितलेच जण सांपडले. तांकां ताणें आपल्या कॅमेऱ्यांत कैद केले. थोड्यांकडेन उलयलो. तांचेकडल्यान सोऱ्याविशीं फुटेज घेतली. सुमार दोन वरां हो कार्यक्रम चल्लो. गांवांत चर्चा सुरू जाली. संजीव सांतानागेर भितर सरलो आनी भाभीक सांगलें, सगळ्यांनी आज सांजेर सात वरांचेर बातमी पळयात म्हण.

थंयच्यान तो सरळ excise खात्यांत गेलो. रायट टू इनफॉर्मेशन खाल त्या गांवांत कितलीं कायदेशीर दुकानां आसात तांची म्हायती मागली आनी भायर सरतना excise इन्स्पेक्टराक आज सातांक बातमी पळोवपाक लावन भायर सरलो. उपरांत मुखेल मंत्र्याची भेट घेतली. तो टी. व्ही. पत्रकार जाल्ल्यान सगळें सोंपें जालें. हेर पत्रकार ताचे बराबर वावुरपाक लागले. कांय जाणांनी गांवांत वचून भोंवडी केली. मुखेलमंत्र्यान लक्ष घालपाचें उतर दिलें.

सांजवेळार पुराय गांवभर खवदळ. सगळ्यांची नदर टी. व्ही.चेर आसली. थोड्यांक आपणाकूच टी.व्हीचेर पळोवन अजाप दिसलें. पूण ही खोशयेची गजाल काय लजेची गजाल! फुटेज सोंपतना संजीवान एकच प्रस्न केलो. 'ह्या गांवचो म्हजो इश्ट सोऱ्याचे भकीक पडून इबाडलो. ह्या आदीं जायते सांतान अशेच गेल्यात, आनीक कितले सांतान वचूंक सोदतात? हो ह्याच गांवचो प्रस्न न्हय तर सबंद भारतांत ही समाज विकृती चालू आसा. कोणाक वेळ आसा हाचेर विचार करूंक?'

संजीवान आपले परीन सांतानाक श्रद्धांजली ओपली, आमी सगळे सोऱ्याच्या नादान मरप्यांक फक्त श्रद्धांजली ओपतले वो सोऱ्यान मरपाक सोदतात तांका वाट दाखयतले?





– विन्सी क्वाद्रूस
'स्नोज कृपा'
आर्लेम राय,
सालसेत-गोंय
मो. 9822587498

# चित्रंग मेळावो २०३४ !!!



६ आनी ७ मार्चाक साळांतल्या राऊत फार्मांत अंदुचो चित्रंगी मेळावो व्हड उमेदीन मनयलो. कोंकणी भाशा मंडळ आनी बार्देस कोंकणी अस्मिताय केंद्रान हो बायलां मेळावो घडोवन हाडलो. ह्या मेळाव्याक १२५ वयर बायलो आपले हक्क, मागण्यो मागपाक तशेंच ठाम मतप्रदर्शन करपाक आयिल्ल्यो. बायलांच्या उतरांचे चाबूक सोंसपाक आनी तांचे दशेचे उमाळे आयकून दुकां गळोवपाक कांय दादलेय उपस्थित आशिल्ले. बायलांचीं मनां समजून घेवन फुडलो जल्म बायलांचोच मेळचो अशी आशा बाळगुपी, गांधीजी आनी साने गुरुजींच्या पावलार पावल दवरून चित्रंगी नांवाच्या वाघीणीचे धोलींत मोव काळजान भितर सरिल्ले. 'आलीया भोगासी असावे सादर!' म्हणीत दोन दीस आयोजनाच्या नांवाखाला ह्या मेळाव्याक अल्पसंख्यांक थारिल्ल्या दादल्यांनी स्त्री सत्ताक राज्याचो अणभव घेतलो. तांच्या धैर्याक दाद दिवचीच पडटली. असो एक विनोदी विचार म्हज्या मनांत आयलो. दोन दीस ह्या चित्रंगी मेळाव्यांत वावुरताना म्हजें निरिक्षण चालू आशिल्लें. सगल्या बायलांच्या मनांतले विचार म्हज्याय मनांत चलताले. पूण ह्या वेळार दादल्यांच्या मनांत कितें शिजता? दरेका सत्राचो तांचेर कसो-कसो प्रभाव पडटा आनी ह्या प्रभावाचो परिणाम कितें जातलो? पुरुशसत्ताक संस्कृतायेंत चित्रंगी सारके मेळावे कितें बदल घडोवंक शकतात हे विचार म्हज्या मनांत येताले. इतल्यान त्रिविक्रम कामत म्हजेकडेन आयलो आनी म्हणपाक लागलो, 'दोन दीस तुमी हो मेळावो आयोजित केलो, आतां समारोप जातलो. म्हाका ह्या मेळाव्याविशीं, ताच्या परिणामाविशीं उलोवपाक जाय. तुमी म्हाका थोडे मुद्दे दियात. दादल्यांच्या दिश्टीकोणांतल्यान ह्या मेळाव्याचे परिणाम कितें जातले ह्या विशयाचेर अन्वेषा सिंगबाळ आनी तन्वी बांबोळकारान म्हाका उलोवपाक सांगलां. युगांक नायकय मजत करता.'

मनांतल्यान हांव खूश जालें. म्हजे सारको विचार करपी आनी चार जाण आसात तर! त्रिविक्रमाक हांवें कांय मुद्दे दिले. उपरांत एका फाटल्यान एक विनोदी विचार म्हज्या मनांत येवपाक लागले.

त्रिविक्रम हो एक extra ordinary Brilliant भुरगो. सुरतकल हांगा I.T.B. Tech. करता. विज्ञानीक दिश्टीकोण, नवे विचार, जिज्ञासा, कल्पना शोधक वृत्ती ह्या सगल्यांचो समन्वय म्हळ्यार त्रिविक्रम. अशा सुपीक तकलेंतल्यान आनी म्हज्या कल्पनेंतल्यान साकार जाल्लो हो आसा 'चित्रंग मेळावो २०३४'. (दादल्यांमेळावो) चित्रंगेक येवंक नाशिल्ल्यांचे भेटेक हाडटां.

पुरूशसत्ताक समाजाच्या अत्याचाराक विरोध करपाक १९८४त चित्रंगीचो जल्म जालो. अस्तुरेक स्वताच्या अस्तित्वाची, अस्मितायेची जाणीव करून दिवपाक हेमाबाय सारक्या अस्तुऱ्यांनी क्रांती घडयली. चित्रंगीची वाल दर वर्सा वयर सराली. मदींच सारें उदक पडलें ना आनी वाल बावली. २००९ वर्सा सावयवेऱ्यां परत एकदां जमनी पोंदच्या पाळांक जाग आयली. 'चित्रंगीची वाल जाली अस्तुरेची ढाल, आडय वार, नाका तलवार, उतरांचेच पुरो प्रहार, घडय तूंच तुजो फुडार' म्हणीत परत एकदां चित्रंगी फुलली. मार्च २०१० वर्सा तिचेर फुलांचो भार चडलो. एक एक फूल म्हळ्यार क्रांतिकारी विचारांचे, अस्मितायेच्या जाणिवांचे धगधगते इंगळे. प्रशांती तळपणकार, रत्नमाला दिवकार हांचे सारके आदारस्तंभ चित्रंगीची वाल वयर चडोवपाक फुडलीं चोवीस वर्सां मेळत जाल्यार २०३४ मेरेन 'चित्रंगी मेळावा' बंद करून 'चित्रंगमेळावो'सुरू करचोच पडटलो.




'चित्रंग' दादल्या मेळाव्याचो जल्म हें चित्रंगीच्या उदरगतीचें फळ आसतलें. दादल्यांक आपल्या हक्काची राखण करपाखातीर तांच्या अस्मितायेच्या संवर्धनाखातीर हो मेळावो घेवंचो पडटलो. आयची बायलांची स्थिती तेन्ना दादल्यांची आसतली. पाळण्याची दोरी हालोवप आनी भुरग्यांक जल्म दिवपाचें काम दादल्यांकच करचें पडटलें. २००९त Times of India न प्रसिध्द केल्ल्या विज्ञानीक वृत्ता प्रमाण 'दादलो गुरवार जावंक शकता.' हाचो शोध लागतकच बायलो ही जापसालदारकी लग्ना उपरांत ऐच्छीक दवरतल्यो. व्हड व्हड जापसालदारक्यो स्त्रीसत्ताक समाजांत बायलांचेर पडिल्ल्यान तांका णव म्हयन्यांचें गुरवारपण असह्य जातलें. देखून हें काम दादल्यांकच करचें पडटलें. तांचे भितर भावनीक परिवर्तन घडटलें. १५ दिसांची मॅटर्नीटी लीव आनी ४ म्हयन्यांची पॅटर्नीटी लीव आसतली. स्त्रीसत्ताक समाजांत दादल्यांक हुंडो दिवंचो पडटलो. ताका लागून 'पुरूश भृण' हत्येचें प्रमाण वाडटलें. 'अबळ' थारिल्ल्यान तांचेवयले अत्याचार वाडटले. दादल्यांचेर बलात्कार जावंक लागतले. तांच्या आत्महत्त्येचें प्रमाण वाडटलें. दादल्यांच्या शीलाचें रक्षण करपा खातीर स्त्रीसत्ताक समाजांत तांचीं लग्नां बेगीन जातलीं. दादलो ल्हान आनी बायल पिरायेन व्हड आसतली. कन्यादानाच्या जाग्यार पुत्रदान जातलें. व्हंकल न्हवऱ्यागेर वचची ना. न्हवरोच व्हंकलेगेर वतलो. ताका रांदची कूड सांबाळची पडटली. मांय-सुनेच्या झगड्याच्या जाग्यार मांव-जावंयाचें झगडें जावपाची शक्यताय न्हयकारपाक येना. दादल्यांच्या सोंशीकसाणीची कसवटी २०३४ वर्सा पळोवपाक मेळटली. दादल्यांक आपलें दादलेपण असह्य जातलें. तो बायलां भशेन कणखर जावपाक सोदतलो.

पीता रक्षति कौमार्ये
पति रक्षति यौवने
पूत्र रक्षति वार्धक्ये
न स्त्री स्वातंत्र्य महर्ति
अशें आयज म्हणपी आमी २०३४त अशेंय म्हणटलीं.
माता रक्षति कौमार्ये
पत्नी रक्षति यौवने
कन्या रक्षति वार्धक्ये
न पुरूष स्वातंत्र्य महर्ति

दादल्यांचेर कुटुंबीक अत्याचार जावंक लागतले. आवय आनी बायल हांच्या चेपणा पोंदा दादलो वावुरतलो. बायलांचें प्रमाण वाडिल्ल्यान चलयांक पटोवप सोपें जातलें पूण मुठींत दवरप कठीण जातलें. त्योच तांका मुठींत दवरतल्यो.

बाजारांत गेल्यार दादल्यांक जावं चल्यांक घेवपा सारके Gift items चड मेळचे नांत. सगलो बाजार सलवार, चुडीदार, जीन्स, साडियो, बावल्यो, आयदनां, मेकअपाचें सामान, वस्ती हाणींच भरिल्लो दिसतलो. भांगराक गिरायक वाडिल्ल्यान भांगराचें दर देंवतलें. सौंदर्यप्रसाधनांच्यो कंपन्यो तरतरांक येतल्यो. दादले घरकामांत




अडकल्ल्यान मैदानी खेळांक गळटी लागतली. sports Goods तयार करपी कंपन्यो बंद पडटल्यो. कोणें चलयलीच जाल्यार लुकसाणान वचपाचोच भंय आसतलो. क्रिकेट फुटबॉल हांच्या थेट प्रक्षेपणा बदला ह्या खेळांच्यो इतिहासीक T.V. सिरियल्स सुरू जातल्यो. Sports आनी खबरांचॅनलांचे कस्टमर्स उणे जाल्ल्यान येणावळ उणी जातली. तांचो जागो बायलांक रस आसपी 'सास भी कभी बहू थी, कुलवधू, पवित्र रिश्ता' सारक्यो रडारडीच्यो सिरियल्स घेतल्यो. रेसिपी आनी ब्युटीपार्लराविशींच्यो कार्यावळी सगल्याच चॅनलांचो महत्वाचो घटक जातलो. पावडर, क्रीम, शांपू, वस्ती, कपडे हांच्या जायरातींचेरूच T.V. चॅनल चलतले. स्त्रीसत्ताक राज्यांत सरकारूय बायलांच चलयतलीं. तांकां राजकारण येवं ना येवं पूण ताचे परिणाम दादल्यांक भोगचे पडटले. गोंय dry state declare जातलें. सगले सोरेकार सोऱ्याच्या थेंब्याक पादीशेर जावन सोऱ्याविणे मरतले. पयलींच अल्पसंख्यांक थारिल्ल्या दादल्यांची संख्या आनीक घटतली.

पुलीस खातें बायलांच चलयतलीं म्हळ्यार भ्रश्टाचार उणावतलो काय वाडटलो हो एक वेगळो प्रस्न. राजकारण बायलांच्या हातांत गेल्ल्यान रस्त्याचीं नांवांय तांकां सोबसारकी आसतलीं. देखीक प्रतिभा पाटील रोड, शशीकला काकोडकार रस्तो, संगिता परब पूल आनी सांताक्रूजच्या चार रस्त्यांक मामीचें (व्हिक्टोरिया फेर्नांडीस) नांव दिवं येता. गजाली हो बायलांचो वीक पॉयंट आशिल्ल्यान देशाच्या सैन्यात भरती जाल्ली सामान्य अस्तुरी देशाचें नेतृत्व करीत व्हड व्हड हुद्द्यांचेर पावतली तेन्ना 'मिलीटरीचीं गुपितां' हीं गुपितां उरचीं नांत. तीं जग जाहीर जातलीं. हाचो परिणाम म्हळ्यार देशाच्या स्वातंत्र्याक बाधा निर्माण जातली. अशें बायलांच्या मानसशास्त्रावयल्यान दिसून येता. स्त्रीसत्ताक राज्याचे भयानक परिणाम पळयतकच २०३४च्या चित्रंग मेळाव्यांत दादल्यांनी केल्ल्यो मागण्यो अश्यो आसतल्यो.

१) बर्शींत तांचेखातीर १०% आरक्षण

२) राजकारणांत ३३% मेळ्ळें ना तरी २०% चलतलें

३) दादल्यांचो 'दादल्यां दीस' मनोवप.

४) अबल थारिल्ल्या दादल्यांचेर लैंगीक अत्याचार जावंचे न्हय, बायलांनी तांची अब्रू लुटची न्हय म्हूण असलीं कर्मा करपी बायलांक खर ख्यास्त आनी दंड दिवपी कायदो करचो.

ह्यो सगल्यो मागण्यो चालीक लागतल्यो जाल्यार पुरूश सशक्तिकरण करपाखातीर बायलांभशेन कणखर वागात असो उलो आयोजक मारतले.

हो आशिल्लो फुडलीं चोव्वीस वर्सां भरपी चित्रंगी मेळाव्याचो परिणाम म्हूण भरिल्ल्या २०३४ वर्साच्या दादल्यांच्या 'चित्रंग' मेळाव्याचें काल्पनीक चित्र. वाचप्यांनी चड मनाक लावन घेवचें न्हय. ही आशिल्ली फकत मनरिजवण. भविश्यांत कितें घडटलें आनी दुसऱ्याच्या मनांत कितें चलता हें आमकां 'सच का सामना' भशेन दरेका खिणाक कळिल्लें जाल्यार जिणेचो नरक जावपाचो. भविश्य खबर नासप हें मनशाचें सगल्यांत व्हडलें भाग्य. आमी कल्पनेचीं शेवणी भविश्याच्या मळबांत सोडटात आनी आमकां जाय तेंच पळयतात; गायतात; तशेंच हें. चित्रंगी मेळाव्याचो उद्देश कितेंय आसूं. म्हजें वैयक्तीक मत म्हळ्यार, लिंगभेद करिनासतना दरेका मनशाक एक स्वतंत्र व्यक्ती आनी मनीस म्हूण भुरगेपणांतल्यानूच घडोवप. तांका सगले हक्क, अधिकार दिवप. मागीर दादलो वा बायल स्वताची १००% पात्रताय सिध्द करतलो तेन्ना कसल्याच आरक्षणाची गरज आसची ना. दरेका मळार दरेका मनशाक ताच्या अधिकारांसयत सन्मानान जगपाक मेळचें अशें म्हाका दिसता.

❀❀❀



**– अपर्णा गारुडी**
शिवोली, गोंय
फोन : ९८२३०९८२५४

आत्मनिरीक्षण

# कर्तव्य

पयरूच मंगळूरच्यान फोन आयलो. म्हज्याच सोयऱ्याचो. दोगांय घोव-बायलं म्हाका खूब मानतालीं. आतां मंगळुरा घरा चुकून केन्नाय पावतां. कांय सोयरे मात अजुनूय फोनार संपर्क दवरून आसात. तातुंतलेंच हें एक जोडपें. फोनार ह्या जोडप्यान म्हाका आपली कर्मकाणी सांगली. हांवें हे परिस्थितीचेर उपाय सोदचो अशी विनंती केली. दोगांय सामकीं निर्शेल्लीं. ताचें कारण म्हळ्यार स म्हयन्या पयलीं तांच्या एकल्याच अपुरबायेच्या पुताचें काजार जाल्लें.

काजार सोयरीगतीन जाल्लें. व्हंकल कुवेत आसताली. तिचें कुटूंब मुंबय स्थायीक जाल्लें. लग्ना उपरांत ही व्हंकल न्हवऱ्याक कुवेत व्हरपाची आशिल्ली. हरशीं तो मंगळुरा खासगी कंपनींत काम करतालो. काजार जातकच व्हंकलेन ताका व्हरून मुंबय आपल्या आवय बापायकडेन दवरलो. कारण तांकां पळोवपाक कोण नाशिल्लो. कुवेत वचपाची तयारी करपाक मुंबय रावप गरजेचें आशिल्लें. न्हवऱ्याल्या आवय बापायन म्हळ्यार आमच्या सोयऱ्यांनी समजिकायेन घेतलें.पुताचो फुडार चिंतून ताका मुंबय धाडलो. आमकां कोण पळयतलो हो सुवार्थी विचार तांच्या मनांत आयलोच ना. अपेक्षा इतलीच आशिल्ली की आठ-आठ दिसांनी तरी पुतान फोन करून तांची खबर घेवची. पूण घडलें भलतेंच. लग्न जातकच व्हंकल रोखडीच कुवेत गेली - घोवाकय थंय व्हरपाच्या कामाक लागली. हेवटेन न्हवरो आपल्या मांय-मांवाचे सेवेंत इतलो घुस्पल्लो की फकत मुंबय बरे भशेन पावलो हो एकूच फोन ताणें आवय-बापायक केलो. उपरांत स म्हयने ताणें एकदांय आपल्या आवय बापायची खबर घेवंक ना. ताणी फोन केल्यारूय फोन घेना जालो. घरा फोन केल्यार, तो घरांत ना अशी जाप मेळपाक लागली. पुताच्या हुस्क्यान जाण्टी आवय बापूय सामकीं निर्शेल्लीं आनी दुयेंत पडलीं. ताणीं म्हाका फोन केलो. सगलें आयकून म्हाका तांची काकुळट दिसली. कितें तरी करचें पडटलें. हांवें चिंतलें आनी मुंबय फोन लायलो. व्हंकलेच्या मांयन (आवयन) फोन उखल्लो. तिका हांवें सगली परिस्थिती सांगली. तिका अजाप दिसलें. हातुंतली आपल्याक कांयच खबर ना अशें तिणें सांगलें. जावंयाक विचारल्यार आपलीं आवयबापूय बरीं आसात अशी जाप तो दितालो. हांवें तिका विचारलें तूं जर ताच्या आवयच्या जाग्यार आशिल्ली आनी स म्हयने तुज्या पुतान तुका फोन करूं नाशिल्लो जाल्यार तुका कितें दिसपाचें? ती वग्गी रावली. मागीर म्हणपाक लागली. हांव आयजूच ताका समजायतां आनी घरा फोन करपाक सांगतां. खऱ्यानीच ते दिसा पुतान आपल्या आवय-बापायक फोन केलो आनी पुताविणे तळमळपी आवय-बापायच्या खोशयेक शीम-मेर उरली ना.

तांच्या पुताक फोन करून, हांवें ताचें अशें वागपाचें कारण विचारलें तेन्ना ताणें म्हळें, 'आवय-बापूय सुशेगाद घरा आसात न्हय? मागीर तांकां कित्याक फोन करप? हांवूय खूब बिझी आशिल्लों. ही गजाल म्हज्या लक्षांतूच आयली ना.'

ताची इतली सहज जाप आयकून हांव अजापलें? कितले सहजतायेन ताणें आपल्या वागपाचें स्पश्टीकरण दिल्लें. ना चुकीची जाणीव, ना आपल्या वागपाची खंत. पंचवीस वर्सां पिरायेचो जाय मेरेन जो पूत जेवलेबगर ताची आवय-बापूय जेवलीं नांत ताका Good Night म्हटले बगर न्हिदलीं नांत तो पूत तांकां फाटले स म्हयने सहजतायेन विसरून गेल्लो. मनशाच्यो सगल्यो भावना, संवेदना, प्रेम, माया, कर्तव्य, आपलेंपण, नातीं एका 'काजार' नांवाचे घडणुकेन बदलूं येतात? कर्तव्याक चुकिल्ले अशे कितलेशेच संवेदनाशुन्य जायत वचपी पूत आनी धुवो आयज आमकां पावलां कणकणी मेळटल्यो. हाका जापसालदार कोण? गरज आसा आत्मपरिक्षणाची. संवेदनशील अशी नवी पिळगी तयार करपाखातीर शेणत वचपी संस्कारांच्या मुल्यांचीं बिजां रूजोवपाची. तेन्नाच हो प्रस्न सुटटलो.




-सिस्टर जॅसीन्ता पिंटो



समुपदेशिका,
अवरलेडी ऑफ
माऊंट कार्मेल हा. से. स्कूल
हरमल, पेडणे-गोंय

तेफळां

# पर्यटक आनी आमी



*'आओ, जाओ घर तुम्हारा' अशेंच गोंयांत येवपी पर्यटकांनी मानून घेतिल्ल्यान तांचो हांगा मुक्तपणे स्वैराचार चालू आसता. लज भीड हाची जाण दवरिनासतना तांच्यो न्हेसपाच्यो पद्धती आनी स्थळ-काळ पळयनासतना चलिल्लो उक्तो शेमांस पळोवन कांय आंबट शौकीन लोक थंय आकर्शीत जातात आनी हातुंतल्यान मागीर खून, विनयभंग, बलात्कार असले प्रकार घडटात आनी गोंयचें नांव बदनाम जावपा दिकेन वाटचाल करता.*

गोंय हो धतरेवेलो स्वर्ग आनी ह्या स्वर्गांत कितें कितें मेळटा तें माध्यमांनी केल्ल्या जायरातींवरवीं सगळें जग जाणां. आनी म्हणूनच जळा-मळातले पर्यटक गोंयांकडेन आकर्शीत जातात. गोंयच्या अर्थ-वेवस्थेचो कणोच हे देशी-विदेशी पर्यटक जाल्ल्यान आजवेर तांचो थातो-मातोच जायत आयला. आनी तांची दादगिरी आतां चड जावपाक लागल्या तें पळोवन उदक नाका तोंडामेरेन पावलां म्हणपाची जाणविकाय जाता. घुंवळी वखदांनी कितें थैमान घालां तें आतां लिपून उरूंक ना. नामनेच्या कॉलेजींतल्या भुरग्यांमेरेन घुंवळी वखदां पावोवपाचें काम त्या कॉलेजीचो वॉचमॅन म्हणोवपी एक बेजबाबदार नागरीक करता हातुंतच सगळें आयलें. धा वर्सां मेरेन ताणें हें काम सगळ्यांवटांनी जतनाय घेवन केलें. आनी ताकालागून देशाच्या कितल्या भावी नागरिकांचें स्वप्न उध्वस्त करून उडयलें तें ताचें तो आनी त्या घुंवळी वखदांचें भक्ष्य जाल्ले विद्यार्थीच जाणात. तशेंच व्हडल्या-व्हडल्या ड्रग माफियांक आलाशिरो दिवपी आनी तांच्या धंद्याक सहकार्य करपी पुलीस आनी तांचे वरिष्ठ आशिल्ल्याकारणान वंयच शेत खावपाक लागल्या अशें म्हणपाक हरकत ना.

गोंय हो सुपुल्लो असो सैमसोबीत वाठार. न्हंयो, बायों, दर्या, चर्ची, देवळां, पांचवेचार दोंगर हें गोंयचें खाशेलें आकर्शण. पूण तें आतां आकर्शण आशिल्लें अशें म्हणपाची पाळी येतली म्हळ्यार अतिताय जावची ना. कारण सद्या गोंयचो पांचवोचार रंग विरपाक लागला आनी थंय तांबड्या-तांबड्या रंगाच्यो मिनाच्यो खाणी आनी कॉंक्रिटाचीं जंगलां तयार जाल्यांत. पर्यटकांक तशेंच गोंयकारांक भूल घालपी दर्यावेळो दिसानदीस गोंयकारांचो मालकी हक्क होगडावपाक लागल्यात. कारण रशियनांचें थंय जाल्लें आक्रमण आनी तांचो धंद्यांत बशिल्लो जम. ल्हवल्हव करून गोंयकारांकच ते विकते घेवपाक लागल्यात आनी आमचे तरणाटे तांकां गिरायक सोदून दिवपाच्या तांच्या नोकरेंत आसात अशेंच चित्र आसा.

गोंयांतलीं बरींच विद्यालयां दर्यादिगेर आशिल्ल्यान जुवानीच्या दरवंटचार आशिल्लीं भुरगीं दर्याच्या वाठारांत भोंवपाक वतात आनी नग्नतेचें तें बिभत्स प्रदर्शन पळोवन तांच्यो लैंगीक भावना चाळोवन,

शिक्षणाकडेन दुर्लक्ष जावन आपलें करियर इबाडपाचे बी ना मूं? असो प्रस्न पडला. तशेंच सुटयेच्या दिसांनी आपल्या भुरग्यां-बाळां सयत वेळेर वचून शीण घालोवपाचो गोंयकार वाट पळयता. पूण आतां वेळो भुरग्यां-बाळांक बरोबर घेवन वचपाच्यो उरूंक ना. कारण थंय फकत कमीत कमी कपड्यांत वावुरपी ललना आनी नाकाशिल्ल्या अवस्थेंत आशिल्लीं जोडपीं दिश्टी पडटात. ड्रग्स घेवन कसलेंच भान नाशिल्ले वेळेवयले लोक पळोवन आमच्यासारकेल्यांक वेळेर वचपच नाकाशें दिसता. कारण बरोबर वतात तीं भुरगीं नाकाशिल्ले प्रस्न विचारून नाकापुरो करतात. तशेंच आनीक एक चित्र म्हळ्यार फॉरेनरा फाटल्यान आपल्यो वस्तू विकत्यो घे घे म्हणून भोंवपी लमाणी आनी तांकां हात लावन लावन भीक मागपी घाटयांचीं पोरां.



'आओ, जाओ घर तुम्हारा' अशेंच गोंयांत येवपी पर्यटकांनी मानून घेतिल्ल्यान तांचो हांगा मुक्तपणे स्वैराचार चालू आसता. लज भीड हाची जाण दवरिनासतना तांच्यो न्हेसपाच्यो पद्धती आनी स्थळ-काळ पळयनासतना चलिल्लो उक्तो रोमांस पळोवन कांय आंबट शौकीन लोक थंय आकर्शीत जातात आनी हातुंतल्यान मागीर खून, विनयभंग, बलात्कार असले प्रकार घडटात आनी गोंयचें नांव बदनाम जावपा दिकेन वाटचाल करता. रशियनानी तर गोंयकारांच्या मानसिकतायेचो खरायेन अभ्यास केला. तांची दादागिरी गोंयकारांचेर शेक गाजयता. दुकानां फोडप, टॅक्सी चालकांचो खून, वचत थंय चल्ल्यांत तीं सेक्स रॅकेटां आनी हातूंत चिड्डत वचपी आमचो गोंयचो तरणाटो. भायल्या देशांतली शिस्त कितली कडक आसता आनी अपराध्यांक कितलें खर शासन दिता हें आमी वाचून आनी आयकून जाणांत आनी हांगा गोंयांत आमी मात तांची अरेरावी तोंड आनी दोळे धापून पळयतात. कारण राज्य चलोवप्यांक हाचें कांयच पडून गेल्लें ना. आपल्या सत्तेचो आनी पयशांचो वापर करून असलीं प्रकरणां धापून दवरपाचो चड प्रयत्न जाता कारण तातूंतच तांचे हितसंबंध लिपिल्ले आसतात.

गुन्यांवकारांक खर शासन केलें जाल्यार हे प्रकार आळाबंदाक येवचे नात? गोंयांत वतना थळावे लोक न्हेसतात तशे कपडे घालचे असो सल्लो ब्रिटीश सरकारान गोंयांत पर्यटक म्हण वचपी आपल्या नागरिकांक दिला अशें हालींच दिसाळ्याचेर वाचिल्लें. गोंयांत वतना खास करून बायल पर्यटकानी थळाव्यो बायलो न्हेसतात ते प्रमाण कपडे न्हेसचे असो सल्लोय ताणीं गोंयांत विदेशी नागरिकांचेर जावपी हल्ल्याचे फाटभुंयेर खबरदारीचो उपाय म्हूण 'ट्रॅव्हल ॲडव्हायजरी'वरवीं जारी केला. अर्दकुटे कपडे घालून दर्या देग वाठारांतल्या गांवांत भोवपी विदेशी पर्यटकांक लागून थळाव्या लोकांचेर आनी खास करून विद्यार्थ्यांचेर परिणाम जाता आनी ताका लागून विदेशी पर्यटकानी थळावो ड्रेस कोड समजून घेवन ते तरेचे कपडे घालचे अशें मत हांगासल्ल्या मुखेल राजकी पक्षांनी उक्तायिल्लें अशें दिसाळ्यांनी फुडें म्हणलां. पूण फकत मतप्रदर्शना करून असले प्रकार कमी जावप शक्य ना. खर कारवायेचो बडगो दाखोवपाकच जाय.

गोंयचो खऱ्यानीच विकास जावपाक जाय आनी पर्यटनाचे वरवीं आर्थिक लाभ जावपाक जाय जाल्यार गोंयकारांनी जागरूक रावप गरजेचें. नाजाल्यार महानंदान जेन्ना सोळा चलयांचो खून केल्लो म्हण उक्ताडार आयलें आनी चडशे खून त्या चलयांचीच ओढणी वापरून केल्ले म्हणपाचें सिध्द जालें तेन्ना आमच्या हांगासल्ल्या माननीय मंत्र्यांनी चलयांनी चुडीदाराचेर ओढणीच घेवची न्हय अशें म्हणिल्लें तशें दर्या वाठारांनी जातात ते हिडीस प्रकार थांबोवपा खातीर गोंयकारांनी अजिबात वेळेर म्हण वचचें न्हय असो फतवो काडलोना म्हणटगीर मेळयलें!






**– रुपा कोसंबे**
शिंदोळी, सांकवाळ,
कुठ्ठाळी-गोंय.
फोन-२४५२१५०

गांवची कूड

## आंबल्यांचें गोड लोणचें

**साहित्य :** २ आंबल्यांच्यो फोडी, २ वाटयो गोड, १ च्या चें कुलेर सासवां, १ च्या चें कुलेर मिरसांगेचो पिठो, १० हरव्यो मिरसांगो, १ मोठो खडो शंकरछाप हींग, १ व्हडलें कुलेर तेल, चवी पुरतें मीठ.

**करपाची तरा :** आंबल्यो तासून तांच्यो बारीक फोडी करच्यो. गोड किसून घेवपाचें, मिरसांगो उब्यो चिरून ताचे कुडके करचे. एका आयदनांत सासवां सुकींच फुरफुरावन पिठो करून दवरपाचो. एक व्हडशाच आयदनांत तेल घालून तापोवचें आनीक तातूंत मिरसांगेचे कुडके घालून तळसुचे. हींग धोडावन पिठो करून घालचो आनी परतून हींग फुलतकच उदक घालचें, गोड आनी मीठ घालचें. सासवां पिठो घालून शिजोवन घेवपाचें. गोड शिजोवन खतखतो आयलो मागीर तातूंत आंबल्यांच्यो फोडी घालच्यो आनी खूब शिजोवंच्यो.

तिखट जाय जाल्यार तातूंत मिरसांगेचो पिठो घालचो. शिजयताना धापिना जाल्यार जाता. दाटशेंच जातकच सकयल काडचें आनी थंड जातकच डब्यांत घालून दवरचें.

## आंब्याचो हालवो

**साहित्य :** ६ मुसराद आंबे, १०-१२ वेलच्यांचो पिठो, १ की. साकर.

**करपाची तरा :** आंबे बरेच पिकतकच रोस काडचो. परत हातांनी पिळून मदीं सुतां आसल्यार काडून उडोवंचीं. दाटशाच आयदनांत हो रोस घालून गॅसार दवरून धवळीत रावचें. हो रोस सुकत येतकच दाटसोच जाता तेन्ना तातूंत साकर घालची. वेलचेचो पिठो करून घालचो. आनी घोटीत रावचें. गॅस चड मोटो करूंक जायना. पोंदाक करपता. धवळीत रावचें.

घट्टसो जातकच म्हळ्यार तोपाचे कडेक साकर घटशी जाता तेन्ना जालो अशें समजुपाचें. थंड जातकच डब्यांत भरून दवरपाचो.



## आंबल्यांचें रायतें

**साहित्य :** २ अमुरपिक्यो आंबल्यो, २ कुलेरां मिरसांगांचो पिठो, १ धाकटें कुलेर हळदपावडर, २ कुलेरां तांदळांचें पीठ, १ ल्हानसो शंकरछाप हींग, १ कुलेर सासवां, रुची पुरतें मीठ आनी गोड. २ कुलेरां सोय.

**करपाची तरा :** एका आयदनांत तेल घालून, तातूंत हींग, सासवां घालून फोडणी करून, दोन वाटी उदक घालपाचें. उदकाक उकळी आयली की तातूंत आंबल्यांच्यो फोडी घालून मीठ आनी गोड घालून शिजोवन घेवपाचें.

एके वाटयेंत थोडें उदक घालून तांदळाचें पीठ आनी सोय घालून एकजीव करून तें रायत्यांत घालपाचें आनी बरेंच शिजोवन घेवचें.

## घोटांचें सांसव

**साहित्य :** १२ घोटां पिकिल्लीं, १ नाल्लाची सोय, १० मिरसांगो, ५० ग्रा. सासवां, मीठ, गोड.

**करपाची तरा :** घोटांच्यो साली काडून घेवपाच्यो. सासवां, मिरसांगो भाजून घेवपाच्यो. सोय, सासवां, मिरसांगो वाटून घेवंच्यो. तातूंत घोटां, गोड, मीठ घालून मुड्डून घेवचें. बरे तरेन चाळून हीं सासवां एकजीव करपाचें.



## घोटांचें तोंडाक

**साहित्य :** १२ घोटां पिकिल्लीं, १ नाल्लाची सोय, १ चमचो सुकी कोथंबीर, १० सुक्यो मिरसांगो, १ ल्हान हिंगाचो खडो, १ कुलेर सासवां, कुवाळ्याच्यो १० वडयो.

**करपाची तरा :** घोटां सोलून घेवपाचीं, सुक्यो मिरसांगो, कोथंबीर, सोय हळद हें वाटून घेवपाचें. एका आयदनांत तेल घालून तातूंत हींग, सासवां आनी वडयो घालून फोडणी करपाची. वडयो मात्श्यो तळसून घेवप. तातूंत वाटण घालपाचें. गोड, मीठ घालून शिजोवन घेवचें. मागीर तातूंत घोटां घालून खतखतो येसर शिजोवपाचें.

## आंबल्यांचें पन्हें

**साहित्य :** ६ आंबल्यो कमी आंबट आशिल्ल्यो, १ की. साकर, ५-६ वेलचेची पूड, पाव चमचो मीठ.

**करपाची तरा :** आंबल्यो कुकरांत घालून शिजोवन घेवच्यो. थंड जातकीर ताची साल काडून, गर सगळो वेगळो करचो. गर हातांनी मुड्डून घेवंचो.

गर आनी साकर थोडें उदक घालून मिक्सरांत वाटून घेवचें. तातूंत तिप्पट उदक घालून मीठ, वेलची पूड घालून पन्हे तयार करपाचें.

हें पन्हें बाटलेंत भरून फ्रिजांत दवरपाचें. थंड जाल्यार तें खूब बरें लागता.



- कल्पना कृष्णकांत चिमुलकार
सांतिनेज-पणजी, गोंय.
फोन : ९६२३८२७६०४

# नातें माणकुल्यांचें



*ताचोय बापायचेर खूब मोग. तें बोर्डिंगांत रावतालें. आठ दिसांनी तो ताका मेळपाक येतालो. येतना ताच्या आवडीच्यो वस्तूय घेवन येतालो. वर्गशिक्षिकेच्या नात्यान म्हाकाय येवन मेळटालो. आपलो बापूय लग्न जावन दुसरी बायल घरा हाडटा म्हूण तें खूब खुबळिल्लें. आपल्याक ती मांय नाका म्हूण हुंडक्या हुंडक्यांनी रडून ताणें बापायक सांगिल्लें.*

दनपारचो वेळ आसलो. कोण तरी गेट धोडावपाक लागलो. हांव उठून भायर आयलें. म्हाका पळयलें आनी ताणें धांवत येवन म्हाका कडकडून वेंग मारली. पेट्रिशा लग्न जाल्लें. बरोबर घोव आनी दोन वर्सांची चली आशिल्ली. हांव भुतकाळांत गेलें. वर्गांतलें मस्तें भुरगें. एका जाग्यार रावनासलें मोटवें आनी गुटगुटीत. उलोवपाकूय चुणचुणीत. ह्याच सभावाक लागून घडये आमचीं मनां जुळटालीं. आज सुद्दां ताका शालेय जिणेंत घडिल्ली एक-एक गजाल याद आसली. आनी त्या गजालीनीं आमी बुडून गेल्लीं. ताचो घोवूय आमच्या गजालींचो आनंद घेतालो. ''मीस, आमी खूब मजा केली त्या दिसांनीं. कसलेंच बंधन ना. ते दिसूच वेगळे आसले.''

ह्या दिसांनी विद्यार्थ्यांमदीं आत्महत्येचें प्रमाण वाडत आसा. अश्यो बातम्यो आमी जेन्ना नेमाळ्यांनी वाचतात तेन्ना आंगाक दरदरून घाम येता. ह्या निश्पाप जिवांनी संवसाराक फाट करपाचो निर्णय कित्याक घेतलो काय? असो प्रस्न उबो रावता.

विद्यार्थी, अभ्यास आनी परिक्षेच्या चेपणाखाला घुस्मट्टात. घरांत घरचीं तर भायर सोयरीं धायरीं, शिक्षक तांचेकडल्यान खूब अपेक्षा करतात. तांचे कुवतीचो, तांचे मानसीकतायेचो कोण विचारूच करना. आयच्या शिक्षणीक सर्तींत आपल्याच पुताच्या वा धुवेच्या हातांत जैताची घुडी आसची अशें दर एका पालकाक दिसता.

शाळेंत धाडलें. अभ्यास जमना जाल्यार सांजेच्या आदेसाक ट्युशनाक धाडलें. दीसभर अभ्यासाच्या फाटल्यान धावतना विद्यार्थी आपलें भुरगेंपण सांडोवन बसता. ताच्या व्यक्तीगत प्रस्नांची जाप दिवपाक कोणाक वेळ नासता. अशा वेळार ताच्या मनांत विचारांचें तांडव सुरू जाता. योग्य दिका मेळना जाल्यार ताच्या वागण्यांत बदल जाता. एक तर तो एकमुळी जीण जगता, ना जाल्यार वाळेस भुरगो म्हूण समाज ताका वळखता.

अशेंच एक भुरगें. वर्गांत वोग्गी बशिल्लें. हरशीं चुणचुणीत. हांव म्हऱ्यांत गेलें. ''बाय कितें जालां? आज वोगी वोगी शें.'' हांवें विचारलें.

''कांय ना मीस'' ताणें जाप दिली.

''तुजें कितें तरी जालां. तुजें तोंड सांगता.'' अशें म्हणनाफुडें ताचे दोळे भरून आयले.

''डॅडी काजार जाता.'' तें तिडकीन उलयलें आनी परत गाल फुगोवन बसलें. तें जल्माक आयलें आनी ताची आवय भायर पडली. ही गजाल म्हाका खबर आशिल्ली. त्या खातीर बापूय ताका ताळटावयलो फोड



कसो जपतालो. ताचोय बापायचेर खूब मोग. तें बोर्डिंगांत रावतालें. आठ दिसांनी तो ताका मेळपाक येतालो. येतना ताच्या आवडीच्यो वस्तूय घेवन येतालो. वर्गशिक्षिकेच्या नात्यान म्हाकाय येवन मेळटालो. आपलो बापूय लग्न जावन दुसरी बायल घरा हाडटा म्हूण तें खूब खुबळिल्लें. आपल्याक ती मांय नाका म्हूण हुंडक्या हुंडक्यांनी रडून ताणें बापायक सांगिल्लें. हो प्रस्न नाजूक आशिल्ल्यान वर्गांत उलोवप शक्य नासलें. चार ते पांच हो वेळ तांचो खेळपाचो. आमी सांजचीं उलोवया म्हूण हांवें ताका थारयलें. हांवें ताका खूब समजायलें. म्हयन्याच्या निमण्या शेनवाराक जेन्ना ताचो बापूय नवे आवयक घेवन आयलो तेन्ना तोंड पळोवंचेना म्हणपी चलयेन तांकां हासत येवकार दिलो. बापायन म्हजे काळजासावन उपकार मानले. आवय नाशिल्ल्या भुरग्याक आवय मेळ्ळी. बापायचें आनी धुवेचें नातें तुटलें ना म्हूण म्हाका समाधान भोगलें.

भुरग्यांकडे चुकी जातात. पूण त्या चुकीचेर बोट दवरून परत परत ताका याद करून दिवचेपरस नवी जीण जगपाक ताका उर्बा दिवप हातूंतच शाणेपणा आसता.

मुंबयचें चली स्वैर विचारांचें. अभ्यासापरस नाका आशिल्ल्या हेर गजालींकडे चड लक्ष दितालें. आवयक ताचेर नियंत्रण दवरप कठीण जातालें. हाचेर उपाय म्हूण तिणें ताका पयस अशा बोर्डिंगांत घालपाचें थारायलें. कांय पालक हेंच करतात. ल्हान आसतना भुरग्यांचे नाका आशिल्ले लाड करतात. जेन्ना तीं हाताभायर वतात तेन्ना तांकां शिक्षा म्हूण हो उपाय घेतात.

हांव सातवेची वर्गशिक्षिका आशिल्ल्यान ताची आवय म्हाका मेळपाक आयली. सगल्या आवयांभशेन म्हजे चलयेचेर नदर दवर म्हूण तिणेंय म्हाका सांगलें. आनी मागीर तिणें त्या भुरग्याच्यो कागाळी सांगपाक सुरवात केली. तें सुद्दां त्या भुरग्यासामकार. ताणें लजेन मान सकयल घातली. म्हाका ते चलयेची काकुळट दिसली. हांवें तिका मर्दींच थारायलें आनी म्हणलें, ''जें कितें मुंबय जालें तें तूं म्हाका सांगू नाका. हे शाळेंत आयलां तें नवें एन्ड्रीया. तुका ताच्याबद्दल कसलीच कागाळ आयकुपाक येवचिना.'' तेन्ना सावन हांवें ताची जबाबदारी घेतली. एन्ड्रीया अभ्यासांत, खेळांत, सर्तींत सदांच मुखार. फाटलें सगलें विसरून ताणें नवे जिणेक सुरवात केली. धावी शिकून जातकच मुंबय गेलें. पदवी घेतली. आज तें व्हड जालां. नोकरी करता. पूण जेन्ना जेन्ना गोंयांत येता तेन्ना फुलांचो तुरो घेवन म्हाका मुजरत मेळपाक येता आनी म्हणटा, ''मीस, तुवें म्हजी जीण बदल्ली. म्हज्या बद्दल दाखयल्ल्या आत्मविश्वासा खातीर हांव नवें एन्ड्रीया जालें. हें शक्य जालें तुमच्याखातीर.''

भुरगें वायट नासता. ताका परिस्थिती वायट करता. अशा वेळार गरज आसता ताचेकडेन संवाद सादपाचो. तांची तांक वळखून पालकांनी तांचे मार्गदर्शक जावपाक जाय. आपले निर्णय तांच्या माथ्यार थापतना त्या निर्णयाच्या वजनाखाला तें चिड्डून वचचेना हाची खबरदारी घेवपाक जाय.

भुरग्यांची विचार करपाची शक्तच जेन्ना सोपता आनी तांका दोळ्यांमुखार काळोख दिसता तेन्ना तीं भुरगीं आत्महत्ये सारक्या आत्मघातकी निर्णयाक आपणायतात. आमी जर तांची जीण सुदारपाक शकना जाल्यार तांची जीण कुसकरावन उडोवपाचो आमकां कांयच अधिकार ना.

भुरगीं पालकांनी वा शिक्षकांनी दाखयल्ल्या आशेच्या किरणाच्या उजवाडाचेर आपल्या फुडाराची दिका थरयतात. तातूंत तीं अयशस्वीय जातात आनी अभिमानान म्हणटात, 'आमी जें मेळयलां तें तुमच्या प्रयत्नाखातीर' तेन्ना आमच्या कश्टाचें सार्थक जाल्लेवरी दिसता.





– कुसूम अग्रवाल
शिवोले-गोंय
फोन : २२७२०२१

# डायरी - ए - काश्मीर



**आ**मचो शिकारो आतां नेहरू पार्काचे दिकेन सरकतालो. कमलदल फाटीं पडत आशिल्लें. नेहरू पार्क वल्ह्या वल्ह्यानी लागीं सरकतालें.

नेहरू पार्क जंय आसा तो एक दल सरोवरांतलो जुवों. ती सुवात हेर कृत्रीम जमनी वसयल्यात तसली जमीन न्हय. ह्या जुव्याचें नांव खंय गागरीबल. ताचो अर्थ कितें हाचो अर्थ आयज थंय उरूंक ना. तो पुराय जुवों आज वळखतात नेहरू पार्क म्हूण.

पंडित जवाहरलाल नेहरू हाणीं, १९५३ सालांत खंय ह्या पार्काचें उक्तावण केल्लें. आयज म्हायती मेळटा ती नेहरूंचे यादीक हें पार्क बांदलां. हें कशें कितें तें कळपाक मार्ग ना. १९५३ सालांत नेहरू थंय गेल्लो तेन्ना ह्या पार्काचें उक्तावण ताणीं केल्लें ही सत गजाल. तेच पासत त्या पार्काक आज नेहरू पार्क अशेंच म्हणटात हीय सत गजाल. पूण पर्यटकांक थंयचे गायड पंडित नेहरूंचें यादस्तीक म्हूण हें पार्क बांदलां अशें सांगतात तेन्ना गोंदळ जाता.

गोंदळ तसो सगळेकडेन चलताच. वेळग्यां सुनंदाबाई बांदोडकार हायस्कूल आसा. तांच्या स्मरणार्थ तें बांदलां. तशीं हेर कडेनूय खूबशीं आस्थापनां आसात जीं कोणाकोणाच्या स्मरणार्थ बांदिल्लीं आसात. जेन्ना रमाकांत खलप हायस्कूल, र. वि. नायक हायस्कूल हांचोय आस्पाव जेन्ना तातूंत जाता तेन्ना कोणाचोय गोंदळ जावपाचोच.

आमचो शिकारो नेहरू पार्काक तेंकलो आनी हांवें त्या पार्काचे भुंयेर पांय दवरले तेन्ना हेच भुंयेक, हेच मातयेक केन्ना तरी भारताचे भाग्यविधाते पंडित नेहरू हांचो पदस्पर्श जाल्लो ही जाणविकाय जावन म्हज्यांत एक वेगळीच भावना तयार जाली. हांव नेहरूंचो भक्त न्हय. पूण नेहरूंत राजकारण्यां वांगडाच वेगवेगळे गूण आशिल्ले. ह्या गुणांखातीर हांव तांचेर फिदा आसां. नेहरूंचेर चलयो, बायलो मरताल्यो. तश्यो मरपाक दादल्यांभितर कितें गूण आसूंक जाय हें म्हाका थोडें थोडें होलमता, आनी असल्या मनशाच्या सभावाची म्हाका कल्पना आशिल्ल्यान नेहरूंच्या राजकीय धोरणांकडेन, फाळणीच्या वेळार तांच्या मनांतलो सुवार्थ ह्या गजालींकडेन मतभेद आसुनय हांव नेहरूविशीं मृदूभाव बाळगून आसां. आतां म्हज्या या विचारांचेर नेहरूंचें मोठेपण उणें जायना आसलें तरी ह्या देशाचो नागरीक म्हण म्हाका विचारस्वातंत्र्य आसाच आनी तें उक्तावपांत म्हाकाय गैर दिसना.

तिनशें चौखण मिटर गागरीबल नांवाच्या ह्या जुंव्यार हें आकर्शक पार्क तयार केलां. ह्या पार्काची आपली अशी एक खासियत आसा. नेहरू पार्क म्हळ्यार नेहरू उद्यान. नेहरूंक फुलांचें, चड करून गुलाबांचें पिशें. आपूण कश्मीरी पंडित हें सतत याद दवरपा खातीरूच नेहरू भोवतेक कश्मीरचें प्रतीक थारिल्लो गुलाब आपल्या शेरवानीच्या बटनाक लायतालो जावंये!

नेहरू उद्यान तरांतरांच्या फुलांनी सजयल्लें. उद्यानाच्या मर्दीच विश्रांती घेवपा खातीर ऐसपैस सुवात तयार केल्ली. विश्रांतीघर घर म्हणूं येता ताका आमी. ह्या विश्रांती घरा फाटल्यान एक मजली रेस्टारंट्य आशिल्लें. नेहरू उद्यानाचो वापर सांजचे वेळार लोकांक पासये खातीर, थोडो वेळ बसून विश्रांती घेवपा खातीर जावंचो असो भोवतेक उद्देश्य आशिल्लो जावंक जाय. पूण हें उद्यान दलांत आशिल्ल्यान थंय येवपा खातीर शिकाऱ्याबगर दुसरो पर्याय नाशिल्लो. दर दिसा सांजवेळा शिकारो भाड्यान घेवन थंय सांजचे पासयेक वचपी रसिकूय आसत अशें म्हाका दिसना. पूण जे पर्यटक शिकाऱ्यांतल्यान दलांत फेरी मारतात तांचे खातीर तेंय एक पर्यटन थळ म्हूण दाखोवपा खातीर मात ताचो बेसबरो वापर जातालो.

नेहरू उद्यानांत विशेश अशें कांय नासलें तरी थंय आशिल्ल्या रेस्टारंटाचे टेर्रसीर वचून संपूर्ण दलाचें नयनरम्य म्हणटात तसलें दर्शन घेवपाखातीरूच एकदां तरी थंय वचप गरजेचें. टेर्रसीर एकदां गेलो म्हणटकच

थंयच्यान सकयल परत येवंचेंच न्हय अशें दिसले बगर रावना.

एके वटेन शंकराचार्याची दोंगुल्ली जाचेर शिवमंदीर दिसता. एके वटेन हेर पर्वतांचीं शिखरां. मुखार परी महल. ह्या सगळ्यांचें प्रतिबिम्ब त्या दलाच्या संथ शितळ जलाशयांत पडटा तेन्ना अशें दिसता की सैम त्या उदकांत बागोवन आपल्याची उंचाय पळयता. तातूंत शेकड्यांनी शिकारे आनी हाऊस बोटी. सजयल्ल्यो, रंगयल्ल्यो. जहांगिरान कश्मीराक धतरेवयलो सर्ग म्हळां तें हांगाच रावून आसतलें अशें म्हाका खीणभर दिसलेबगर रावलेंना.

हांव नेहरू उद्यानांत रावून दल सरोवराची सोबाय नियाळटालों खरो, पूण जाच्या नांवान हो जुंवो आसा, जाचें यादस्तीक म्हूण ह्या जुंव्याची सरबराय जाता त्या नेहरूंक हांव म्हजे तकलेंतल्यान कुशीक काडूंक शकच नाशिल्लों.

पंडित नेहरूंक वेगवेगळे छंद आशिल्ले. नेहरू राजकारणी आशिल्लो काय कितें हें म्हाका आयचे राजकारणी पळयतकच स्पश्टपणान सांगप शक्य ना... पूण नेहरू एक जबरदस्त लेखक आशिल्लो हें म्हाका होलमता. ताणीं बरयिल्लीं पुस्तकां, लेख कुशीकूच दवरात, तांचीं आपले धुवेक बरयिल्लीं पत्रां म्हळ्यार टेरीफिकूच. नेहरू त्या भायर उत्कृश्ट वक्तोय आशिल्लो खंय! दर दिसा स-स-सात-सात खेपो तांचीं भाशणां-सभा जाताल्यो आनी मात्तूय थकनासतना, ओगवते वार्णीत खंड पडनानासतना ते उलयताले खंय!

हे भायर तांका अश्वारोहण आवडटालें, गिर्यारोहण आवडटालें आनी पेवपाकूय आवडटालें. मुंबय येतकच ते जुहूच्या दर्यांत मुजरत पेंवपाक वताले आनी कश्मीराक पावतकच पेवपाखातीर गगनबल सरोवरांत वताले.

एकदां ह्याच दल सरोवरांत शिकाऱ्यांतल्या सफर करता आसतना अकस्मात दल सरोवरांत खंय ताणीं उडकी घेतली. दल सरोवरांत तर साळकांचे वालींचें साम्राज्य. ह्या वालींचें सरोवरभर जाळें... नेहरूजीन जंय उडकी मारिल्ली ती सुवातूय बरीच खोल आशिल्ली. बरोच वेळ जालो पंडितजी वयरूच सरना. शिकाऱ्यांतले सगळे लोक भियेले. घुस्पलो काय बाबडो साळकांच्या वालीनी? सगळ्यांक खप्प जालें. पळयल्यार पंडितजी शिकाऱ्या पासून कांय फुटांचेर वयर सरून हात हालयतात.

सांगात्यांनी हुस्को उक्तायतकच ताणीं म्हळें, जाका ब्रिटीश सरकारच्यो बेडयो आनी साखळ बांदून दवरूंक शकनात ताका ह्यो साळका वाली कितें जखडून दवरतल्यो?

नेहरू संद मेळटा तेन्ना कश्मीराक आयल्यात. सगळ्यांत पयलीं १९१६ सालांत लग्न जाल्या उप्रांत कांय म्हयन्यानी ते कश्मीराक आयिल्ले. तेन्ना जुवानपण तांच्या रगतांत सळसळटालें. तातूंत गिर्यारोहणाचें, सैम सुंदरायेचें आनी भोंवडेचें पिशें. आपल्या चुलत्या वांगडा लडाख मार्गान ते फुडें फुडें वचत रावले खंय. एक दोंगर चडटना पांय निसरले. सकयल देंगणांत पडटां पडटां चुलत्यान वाचयलो.

'जोझिला' ही तेरा हजार फूट उंचायेवेली खींड. हे खिंडींत हिमवादळां सदचींच. ह्या वादळांचो आवाज हांगच्या वातावरणात सतत घुमत आसता. देखून ताका जोझिला म्हणटात खंय! ही खींड चडटा आसतना तांचेर ही जीव होगडावपाची पाळी आयिल्ली. पूण पंडितजी भियेले नांत. आपूण परत येवन ही खींड ओलांडटलों असो निश्चेव करून ते कश्मीरच्यान गेल्ले. पूण राजकी राटावळींक लागून तांकां परतून कश्मीर देंगणांत पावपाक तेवीस वर्सां लागलीं अशें नेहरू आपल्या आत्मचरित्रांत बरयतात.

नेहरू अलाहाबादेक जल्मले. तांची आवय सुरूप रानी ही कश्मीरी चली. आपले कश्मीरी आवयचें वर्णन करतना नेहरू म्हणटात, तिचे सुंदरायेची म्हाका तोखणाय दिसताली. हांव तिचेर खूब प्रेम करतालों. तिचे नाजूक हात आनी पांय भोवच सोबीत दिसताले.

नेहरू राजकारणी, नवभारताचे निर्माते बी सगळें खरें. पूण तांचें काळीज कवीचें आशिल्लें. नेहरू खातीर कश्मीर म्हळ्यार भारताच्या माथ्यावेलो मुकूट आनी आशिया खंडाचें काळीज आशिल्लें.

नेहरूंचे पूर्वज कश्मीरी. आपल्या आत्मचरित्रांत तशें स्पश्ट बरयतात. दोनशीं वर्सां आदीं १८ व्या शेकड्याचे सुर्वेक खंय ते नांव आनी नशीब जोडपाक कश्मीर देंगणांतल्यान सपाट प्रदेशांत आयले. तांच्या पुर्वजांचें नांव राज कौल खंय! संस्कृत आनी पर्शियन पंडित म्हूण कश्मीराक तांची नामना आशिल्लीं खंय!

पंडित ही पंडित नेहरूंची उपाधी, जात बी न्हय. पंडित ही एक वळख. म्हजो एक इश्ट अनुपम खेरान एक दीस म्हाका आपूण कश्मीरी पंडित म्हूण सांगिल्लें. पूण तो आपल्या नांवा मुखार पंडित अशें लायनाशिल्लो. पंडित कोण लायताले तर पंडित नेहरू, पंडित जसराज, पंडित शिवकुमार शर्मा. आनी संगीत मळावेले जायते दिग्गज. म्हजी हालीं हालीं पासून तीच समज आशिल्ली. विद्वानाकूच पंडित ही उपाधी लायतात. ताचो जातीकडेन कसलोच संबंद ना. पूण कश्मीरी ब्राह्मणाक पंडित म्हणटात असो म्हजो गैर समज करून दिलो. कश्मीराक जेन्ना हांवें हे गजालीचेर विचार करून विशय समजून घेवपाचो प्रयत्न केलो तेन्ना हांव बरोबर आशिल्लों अशें म्हाका जाणवलें.

कश्मीर हें मुळचें हिन्दूंचें. कश्मीरी हिन्दूंची आरंबाक साकून मानसिकता आशिल्ली बरें शिक्षण घेवप आनी ताच्या नाड्यार मुखार वचप. कश्मीराक संस्कृत विद्यादानाचें सर्वोच्च पीठ मानताले. जळामळाचे लोक शिक्षण घेवंक हांगा येताले आनी 'पंडित' जावन वताले. पूण हे पंडित उपाधीचो आनी नेहरू घराण्याचो कसलोच संबंद नाशिल्लो. नेहरूंचे पूर्वज कश्मीरचे हें खरें. ज्या पूर्वजान, जाका नेहरू आपलो पूर्वज मानतात आनी जाचें नांव राज कौल अशें सांगतात ते पर्शीयन आनी संस्कृत भाशेचे पंडित आशिल्ले देखून तांकां पंडित म्हणटाले जावंये. पूण मोतिलाल नेहरू कश्मीराक



शिकलेनांत, नेहरू कश्मीराक शिकले नात. पूण पूर्वजांचें पंडित हें नांव, उपाधी तांच्या नांवा मुखार सासणाची उरली. ते जवाहरलालांक चलो आशिल्लो, वंशवेल वाडिल्ली जाल्यार हें पंडित प्रकरण वाडत वचपाचें काय कितें खबर ना. पूण तें खंडित जालें. इंदिरा गांधींक लागून गांधी जालें. पंडित उरलेंना.

कश्मीर देंगणांत तशे आतां एकूय पंडित उरूंक ना. उरल्यात ते गुलाम. पंडित सगळे जम्मूक स्थलांतरीत जाले आनी गुलामानी कश्मीर व्यापून गेलें.

कश्मीरचे लोक शिक्षणांत मुखार आशिल्ले. शिक्षण घेवन ते पंडित जाताले. असो हो शिक्षीत हिन्दू समाज आपलो गुलाम जालो जाल्यार पुराय भारत देश गुलाम जावंक कळाव लागचोना अशें येवजून मुस्लीम आक्रमकांनी पंडितांक बाटोवपाचो वावर नेटान सुरू केलो. ज्या पंडित हिन्दूंक बाटयताले ताच्या नांवा मुखार 'गुलाम' हो शब्द जोडटाले. संवसारांतल्या सगळ्या मुस्लिमांमदीं फकत कशमीरच्याच मुसलमानाच्या नांवा मुखार 'गुलाम' लायिल्लें आमकां दिसता. कश्मीरचो मुख्यमंत्री जावन लेगीत गुलाम नबी आझाद हो गुलामूच म्हूण वळख उरता तेन्ना काळजांत दुखले बगर रावना.

नेहरू उद्यानांतल्यान आमकां चार चिनार हांगा वचपाचें आशिल्लें. नेहरू पार्कांतल्यान चार चिनार दिश्टी पडटालें. पूण पयसुल्ल्यान फकत तिनूच चिनार नदरेक पडटाले. पूण थंय चार चिनार आसात. देखून त्या जुंव्याक चार चिनार अशें म्हणटात खंय!

चार-चिनार जुंव्यार कितें आसा खबर ना. पूण दल सरोवरांत तीन वरांची सफर करूंक व्हरपी शिकारेवाले दाखोवन दाखोवन कितें दाखयतले? आपलो शिकारो तीन वरां कितें तांडटले आनी पर्यटकांकडल्यान कितें दुडू उठयतले? ताणीं जोडचें, कश्मीराकूय थोडी जोड मेळची देखून ह्या चार चिनार जुंव्याचोय वापर जातालो.

शिकाऱ्यांतल्यान चार-चिनारांचे वटेन आमचो प्रवास सुरू जाल्लो.

चार चिनार हें पर्यटन थळ कित्याक म्हणपाचें हाचेर जरी विचार करपांत अर्थ नासलो तरी त्या जुंव्याचो आसपाव शिकाऱ्यांतल्यान भोंवडी करतना शिकारेवाले करताले. ह्या जुंव्यार व्हरून पर्यटकांक सोडले म्हणटकच शिकारेवालो सुशेग घेता वो च्या पिता. पर्यटकांचें अर्दवर-वर ह्या जुंव्यार वताच म्हणटकच शिकारो तांडी नासतना ताका त्या वेळाचें भाडें आपसूक मेळटा.

चार चिनार हो जुंवो दलांत प्रसिध्द आसा तो त्या जुंव्यावेल्या चार चिनारांक लागून. जुंव्याचेर हे चिनार कोणें लायलें हाका म्हत्व ना. पूण ते अशे तरेन लायल्यात की पयसुल्ल्यान पळयत जाल्यार ते फक्त तिनूच दिसतात. जुंव्यार पावतकच मात ते चार म्हणपाचें कळटा.

चार चिनार जुंव्यार जाका रूप लन्क अशें दुसरें नांव आसा ताचेर कांय नाशिल्लें. आशिल्ले ते दोग चौग जाण शस्त्रधारी जवान. ते त्या जुंव्याचें कित्याक रक्षण करताले तें कळूंक मार्ग नाशिल्लो. थंय येतल्या वतल्या पर्यटकाकडेन ते सारके भेदक नदरेन पळयताले. थंय तैनात केल्यात म्हूण एककडेन बसून तरी आसात! तेय ना. सामके जागरूक. दिग उबे शस्त्रां घेवन. तांचेकडेन आडनदर करून आमी एके बोटीचेर गेलीं. ही बोट म्हळ्यार हाऊसबोटूच कशी. पूण तिचें रेस्टारंट केलां. बोटींत म्हळ्यार त्या रेस्टारंटांत भितर सरल्यांतूच म्हणटकच आमी च्या घेतली. हाऊसबोटीच्या डेकाचेर बसून च्याचो आस्वाद घेवपांत एक मजा आशिल्लीच! वेगळो अणभव देखून नविदाद कशी!

हांव बशिल्लों थंयच्यान हे चारूय चिनार दिसताले. चिनार हे कश्मीरचे वृक्ष. कश्मीरचें खाशेलेंपण. चिनार मारपाक कश्मीराक बंदी आसा. बंदी आसुनय तांची कत्तल ही जाताच. कश्मीराकूच कित्याक? आमच्या भारत देशांत खंयीय वचात, ज्या ज्या गजालींचेर बंदी आसा ती बंदी मोठ्या प्रमाणांत मोडपाचें काम लोक अधिकारान करीत आसतात.

चिनार रूखांक राष्ट्रीय संपत्ती म्हूण जाहीर केलां हें त्या रूखाच्या खाशेलेपणाक लागून. चिनार रूखाविशीं म्हजी कल्पना पयलीं वेगळी आशिल्ली. खंयच्या तरी एका मराठी चित्रपटाचें गीत हांवें एकदोनदां रेडिओचेर आयकल्लें. तातूंत तो कोण गावपी आसा तो आइडून 'चिंचेचें झाड आपल्याक कश्मीरचे चिनार कशे दिसतात' अशें म्हणटालो. आतां हो कवी चिंचेची कश्मीरच्या चिनारांकडेन तुळा करता म्हणटकच चिनार हे चिंचेच्या रूखाकडेन खंय तरी लागीं आसूंक जाय ही

म्हजी कल्पना. तेच पासत कश्मीराक पावतकच हांव उत्सुकतायेन चिंच सदृश्य कसले वृक्ष दिसतात काय पळयतालों. चिनार खंयचे आसतले काय हाचो अदमास लायतालों. पूण प्रत्यक्षांत चिनार पळयतकच म्हाका त्या कवीची कीव करिनशी दिसली.

चिनार वृक्षांक थळावे लोक बुईन म्हणटात. बुईन म्हळ्यार भवानी उतराचो अपभ्रंश. भवानी म्हळ्यार आशिर्वाद दिवपी, तारपी आवय-भवानी माता. वागाचे पंजे कशे दिसपी पानांचे हे प्रचंड रूख म्हळ्यार कश्मीरच्या सैमीक सुंदरायेंत भरूच घालतात. हेर सगळीं रूखां दिसाचो प्राणवायु सोडटात आनी कर्बवायु घेतात आनी रातचीं प्राणवायू घेवन कर्बवायु सोडटात. देखूनच रातच्या वेळार झाडा मुळांत न्हिदूंक फावना अशें म्हणटात. पूण हो एकूच रूख असो जो दीस-रात फक्त प्राणवायूच सोडटा. गीमाळ्यांत हे वृक्ष कश्मीराक गरमी बादूंक दिनांत. वातावरणांत थंडाय राखतात. पावसांत लोकांची राखण करतात. रूखाचीं पिकील्लीं पानां झडटात तेन्ना उज्याच्यो ज्वाळो कशे भासतात अशें कांय कवी चिनार रूखाचें वर्णन करतना करतात. शिंयाळें जेन्ना कश्मीराचेर घुरी घालता तेन्ना चिनाराचीं सुकिल्लीं हीं पानां कोळसो म्हूण वापरतात. थंडेखातीर पोटाकडेन जी उज्याची कांगडी धरतात, तातूंत उजो करूंक ह्या पानांचो वापर कश्मीरी करतात.

चिनार मुळचे कश्मीरी रूख न्हय. ते इराणीयन. इराणी ह्या रूखाक फझल म्हणटात. फझल म्हळ्यार आल्त. व्हडले. कश्मीराक हे रूख पावले ते क्रिस्ता आदीं ७०७-७६० ह्या शेकड्यांत जेन्ना ललितादित्या मुक्तपिडा ह्या राजाचे कारकिर्दीत.

कांय लोकांचें आनी इतिहासकारांचें म्हणणें हे रूख इस्लामी धर्म प्रसारकानी हाडले. तर कांय लोकांच्या म्हणण्या प्रमाण सम्राट जहांगीरान ते आपले बायलेची इत्सा पूर्ण करूंक हाडून लायले. पूण अकबर नाम्यांत जहांगिराचो बापूय जलाल उद्दीन अकबर आपणें ह्या चिनार रूखाचे घोलींत पावसा वेळार आलाशिरो घेतलो म्हणपाचें बरयता. पूण जहांगिरान इराणच्यान ८०० रूख हाडून शालीमार, मानसबल, अच्छाबल हांगा लायले आनी १६३५व्या शेकड्यांत सम्राट शाहजहान हाणें २२०० चिनाराचीं रोपटीं लायलीं अशें सांगतात.

कितेंय आसूं चिनार रूखां म्हळ्यार आयज कश्मीरची शान. वसंत रूतूंत ह्या चिनार रूखांचीं पानां तांबडींच जातात आनी त्या फाटले पर्वतांचे निळशेंत ते रूख भगभगतात असो भास जाता. मोगल साम्राज्यान ह्या रूखांची कश्मीराक भरमसाठ पैदास करून सुमार ७०० बागो केल्ल्यो अशें सांगतात. कितेंय जावं! मुगल सम्राज्यान कितें दिलें आनी कितें व्हेलें ह्या हिशेबांत चिनार रूखांची लागवड ही एक गिरेस्त देण कश्मीराक ताणीं भेटयली म्हणपाक हरकत ना.

चार चिनार जुंव्या वेल्यान आमची शिकाऱ्याची सवारी सुटली आनी परतून कमल दल करीत कश्मीरी वसाहतींत पावली.ही वाट पर्यटकांखातीर ठरल्लीच आसूंक जाय.

हांगा आमच्या जलमार्गाच्या दोनूय वांटानी उफेवपी जमनीचेर शेतवड पिकयिल्ली नदरेक पडटाली. हे लोक ह्या उदकाचेर कृत्रीम शेतवड करतात. पाणवनस्पती एकठांय बांदून उदकांत सोडटात आनी ताचेर माती बी घालून ती जमीन तयार करतात. थंय भाजयेची लागवड करतात. उदक शिंपपाची गरज नासताच. कोंकणदुदी, तोमाटां आनी हेर तरातरांची भाजी थंय रोयिल्ली दिश्टी पडटाली. थंयच त्या शेतकामत्यांच्यो हाऊसबोटी म्हळ्यार घरांय आशिल्लीं. तातूंत बसून भुरगे गरयताले आनी मागीलदारांत बसून आमचीं गांवचीं बायलां आयदना घासतात तशीं आयदनाय घासतालीं. तांच्या त्या पाणघरांक फेरो मारून आमी आतां बाजाराचे दिकेन वताले. मदींच आमकां एक उफेवपी पारपोळ जमनी कुडको दिसलो. शिकाऱ्यावाल्याचो इश्ट मात्सो आबूज पाडो आशिल्लोच. आमकां त्या जमनी कुडक्याची व्हडवीक सांगत सांगत ताणें ताचेर शिकाऱ्यांतल्यान उडी घेतली. पूण ताच्या वजनान ती उफेवपी जमीन उदकांत गेली आनी हो उदकांत पडटां पडटां वाटावलो. लज जाली ताका मातशी पूण उफेवपी कृत्रीम जमीन कशी आसता हें आमकां पळोवंक मेळ्ळी.

शिकारो बाजारांत भितर सरलो खरो. पूण आमकां शॉपिंग करपाचें नाशिल्लेंच. बाजार म्हळ्यार व्हड व्हड बोटीनी तरांतरांचीं दुकानां. कपड्याचीं, गालिच्यांचीं, वस्तूंचीं. आमी तीं भायल्यांनूच पळोवन, दोळे तृप्त करून किनाऱ्याक आयलीं. दीसभर उदकांत आशिल्ल्यान एक थकावट शी आयिल्ली. पूण परतून काय आमी आनीक दल सरोवरांत येवपाचीं नाशिल्लीं. फुडाराक केन्नाय आयलों जाल्यार परतून फेरी मारीतूय बी!

शिकाऱ्यांतल्यान देंवतां देंवतां सरोवराचेर नदर मारून हांवें मनात म्हळें. पूण शिंयां दिसांनी जेन्ना हें सरोवर शेकेता आनी पुराय उदकाचो बर्फ जाता तेन्ना म्हाका खऱ्यानीच येवंक जाय. ज्या सरोवरांतल्यान आज आमी शिकाऱ्यांतल्यान भोंविल्लीं त्याच सरोवरांत लोक बर्फावेल्यान कशे चलून भोंवतात हें म्हाका पळोवंक जाय. पूण हांव थंय चलपाचें धाडस मात करचोना.कित्याक हांवें रोथांगपासांतले भोंवडेंत हें धांडस केल्लें आनी नशीब बरें म्हूण वाटावल्लों.

ह्या दल सरोवरांतूय खंय एका विदेशी पर्यटकाक मरण आयिल्लें. तो त्या शेकेल्ल्या बर्फाळ सरोवराचेर सायकलीन भोंवतालो. एके सुवातेर बर्फाचो पापुद्रो पातळ आशिल्लो. तो फुटून तो पर्यटक सायकली सयत भितर गेलो खंय! एकदां असो कोणूय भितर गेलो म्हणटकच ताका थंयच्यान सोदून काडप कठीणूच. कित्याक बर्फाची ती लादी वेगळी जाता आनी मागीर आसा तशी परत मूळ पदार येता. सरोवरान पोटांत घेतिल्ल्याक परत कश्मीर दिसना.

दलसरोवराची ती याद करीत हांवें ताचो निरोप घेतलो.

**चलता....**

**- दिलीप बोरकार**

आगशी - गोंय

# सनस्ट्रोक
## (वताची झटको)

मार्च म्हयनो आयलो म्हणटकच उजो जावपाक लागता. सगळेच लोक म्हणटात 'आवय गे ह्या मार्चांतच अशें जाल्यार फुडले दोन म्हयने, एप्रील-मे कशें जातलें! ह्या उज्यान आमी काबार जातलीं.' ह्या उज्याचेर आळाबंद हाडप आमचेकडेन ना. कारण हो निसर्गाचेर अवलंबीत आसा. पूण हाका लागून आमच्या आरोग्याचेर जे वायट परिणाम जावं येतात ताचेर आमच्यांनी चड न्हय जाल्यार थोडो तरी आळाबंद हाडूं येता.

प्रत्येक मनीस उज्याचे दीस जांव, पावसाळो जांव वा थंडे दिसांनी कुडकुडो खांव. ताका आपल्या वेवसाया प्रमाण आपलें तेंच काम तशेंच चालू दवरचें पडटा. मागीर तो मानाय, हमाल आसूं वा तो एका कार्यालयांत काम करपी अधिकारी आसूं येता.

### सनस्ट्रोक किंवा वताचो झटको कसो जांव येता?

खूब खेप भर वोतांत सतत काम केल्ल्यान किंवा उबे रावल्यार वा भोंवल्यार, आमच्या कुडींतलें सगळें उदक, द्रव्यां घामा बरोबर भायर सरतात. तशें अती उश्णतेखातीर घाम निर्माण करपाचें काम कमी जाता. आनी ही उश्णताय कुडींत भितर उरता आनी परत कुडीची उश्णता वाडटा.

### हाचीं लक्षणां अशीं – सनस्ट्रोक जाल्यार मनशाक

१. तकली उसळप, तकली कणकणप
२. पोटांत धवळटा, ओंकारे येतात
३. दोळ्यांकडे काळोख येता, धुंवळ आयल्या भशेन दिसता
४. न्हीद आयल्या भशेन दिसता आनी मनीस बेशुध्दय जाता.

अश्या मनशाक हात लायल्यार ताचें आंग खूब तापलेलें आसता (जोर आसता). वोताक लागून ताची कात भाजलेली दिसता आनी तो सामको दुयेंत दिसता.

### हाका प्रथमोपचार कसो दिवपाचो

१. सगळ्यांत पयलीं ह्या मनशाक वोतांतल्यान काडून एका थंडशा जाग्यार हाडचो.
२. ताच्या आंगावेले सगळे कपडे सैल करचे, किंवां काडुनूच उडोवंचे.
३. ताका बरें वारें लागूंक जाय- पंख्यान नाजाल्यार कागदान/पुट्ट्यान ताका वारें घालचें.
४. ताका थंड उदकाच्यो घडयो घालच्यो. तशेंच थंड उदकान ताचें सगळें आंग पुसून काडचें. अशें करीत रावचें जो मेरेन ताचे कुडीचो जोर कमी जाता.
५. हो मनीस जर बेशुध्द आसत आनी हें सगळें करतासर जर तो शुध्दीर येना वा तसोच उरता जाल्यार ताका रोखडोच हॉस्पिटलांत व्हरपाची तयारी करची.
६. हो मनीस जर शुध्दीर आसा जाल्यार ताका साखर आनी मीठ घालून उदक पिवपाक दिवचें.

अशें केल्ल्यान तो सवका निवळटलो आनी ह्या मनशाक थोडो वेळ (एक दिसभर) त्याच थंड वातावरणांत दवरचो आनी हळुहळू पोटाक सगळें दिवपाक सुरवात करचें. ह्या मनशाक खूब उदक पिवपाक दिवचें, साकर-मीठ घालून.

### प्रत्येकान उज्याच्या दिसांनी कितें करचें

१. शक्य आसत जाल्यार भर वोतांत वचपाचें टाळचें - जर वचचें पडटूच जाल्यार मर्दी-मर्दी सावळेंत रावचें किंवा पंख्यामुळांत बसूंक मेळ्ळ्यार बसचें.
२. भरपूर उदक पिवचें (कमीत-कमी देड ते दोन लीटर उदक प्रत्येक दिसा मनशाचे कुडींत वचपाकूच जाय) उदकांत साकर मीठ घालून पिल्यार सामकें बरें.
३. सैल, पातळ कपडे घालचे.
४. थंड किंवा दुगदुगीत उदकान न्हावचें. खूब हून उदक न्हावपाचें टाळचें.
५. उज्याच्या दिसांनी जेवण-खाण नाका दिसता - म्हूण भरपूर पिवपाक घेवचें (लिंबू सरबत, दूद, धंय, फ्रूट जूस)

**घरगुती उपाय –**

जिरें कोथमिरेचें उदक बी पिवपाक दिवंचें. भरपूर फळां-भाज्यो खावंच्यो.

हें अशें केल्ल्यान आमकां उश्णते पासून मात्शी तरी थाकाय मेळूं येता.





– डॉ. वंदना धुमे
फोन :९८२२५८५२८५



– संतोष शिवराम हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,
फोंडा-गोवा ४०३ ४०१

## आडवे

१. कश्ट, श्रम, खटपट
२. कणकणीत वासाच्या कांद्याची धवी जात
३. साल, वर्सावळ
४. कृष्ण जयंती
७. पुताची बायल
८. मोव, नाजूक
९. मोडण, वळसो
१०. दाटसाण नाशिल्लें
११. भोवशीक जमात, मिटींग
१२. वायट कर्तुब
१३. कंटाळो, वाज, त्रास
१४. मंगळारा दिसा आयिल्ली संकश्टी (मराठी)
१६. सूर्याच्या किर्णांचो उजवाड
१७. कूड, शरीर
१८. यत्न
२०. रक्त
२१. ओड
२३. पंद्रस
२४. बेगीबेगीन (मराठी)
२६. देंवती
२९. लाकडाचें (मराठी)
३०. इंग्लीश दीस
३१. चोरी करपी

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | | २ | ३ | | ४ | ५ | | | ६ |
| | | ७ | | | ८ | | | | |
| ९ | | | | १० | | | | ११ | |
| | | | १२ | | | | १३ | | |
| | १४ | | | | | १५ | | १६ | |
| १७ | | | | | १८ | | १९ | | |
| | २० | | | | | २१ | | | २२ |
| २३ | | | | २४ | २५ | | | | |
| २६ | | २७ | २८ | | | | | | |
| | | २९ | | | | ३० | | ३१ | |

## उबे

१. सांबाळपी, जतनायेन वापरपी
४. गोवा
५. जमीन खणपाचें एक आवत
६. कौरव-पांडवांचेव व्यासान बरयिल्लें म्हाकाव्य
१०. पातक करपी
११. सुंदर मांडणी, सोबीत रचणाय
१२. बऱ्या परमळाचें तांबड्या देठाचें सोबीत फूल
१४. बॉडीगार्ड
१५. उलो मारप, आपोवप
१९. सैन्याचो एक भाग
२२. सप्तकांतलो सुटयेचो दीस
२३. खातीर
२५. झांजी भाशेन वाजोवपाची वस्त
२७. ह्रह अमरनाथ – एक आदलो क्रिकेटर
२८. एकाग्र दृश्टी, एकेचकडेन पळोवप

### मार्च उतरकुवाड्याची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| स | ति | न | तें | डु | ल | क | र | | म |
| मा | | द | | ल | | था | | ज | ळ |
| चा | मा | र | | | आ | क्र | श | ता | णी |
| र | ण | | स | रो | व | र | | न | |
| | सु | पा | री | | ड | | आं | | क |
| व | की | ल | | अ | नि | श्ची | त | | म |
| र्त | | सा | | रा | व | | क | ल्लो | ळ |
| मा | | ण | | ज | ड | | डी | | |
| न | ग | | पां | क | | तें | | जा | प |
| | ज | डा | य | | ए | को | ण | व | द |

# आल्मारींतल्या पत्रांची काणी...

**हो**ळये दिसा सगळ्यांक सुटी आसता. कॅलेंडराचेर तरी अशें बरयिल्लें आसता. तीच सुटी होळयेची अशें हांव मानून चलतां. पूण ती होळये दिसा आसता काय रंगपंचमी दिसा हाचो सोद लावपाचो प्रयत्न हांवें केन्ना केलो ना. केन्ना केन्ना म्हाका कांय गाजलींच्या खोलायेंत वचनच दिसना वो वचपाचें नासता.

म्हजे अल्पमतीप्रमाण होळी ही रातची पेटयतात आनी मागीर दुसरे दिसा रंगपंचम खेळटात. अशें जाल्यार होळी पेटोवंक सुटी कित्याक जाय? सुटी तर रंगपंचमीक दितात. मागीर ती होळयेची सुटी कशी जाली तर? तिका रंगपंचमी सुटी म्हणूंक जाय. सुटी होळयेक न्हय रंगपंचमीक दिवप सारकें, जर तो रंगोत्सव आसत जाल्यार!

हे दिसा रंगपिशे, रंग खेळूंक भायर सरतात. भायर भितरल्यान रंगून वतात. रंगतल्यांक आनी रंगयतल्यांक कोण आडावंक शकनांत. तेच पासत सुटी नासत जाल्यार कामांखातीर भायर सरप्यांक हे रंगपिशे रंगोवन उडयतले. तांचे पासून राखण मेळची म्हूण ही सुटी. मागीर ती होळये सुटी कसली? ती तर रंगाची ॲलर्जी आशिल्ल्यांक, रंगा पासून दिल्ली राखण!

खरें म्हळ्यार ह्या दिसा सुटी दिवंक फावच ना. सरू दी लोकांक घरा भायर. खेळूं दी रंग पंचम. रंगून वचूं दी जीण. रंग आंगाक सारोवनूच कामाक वचूं दी! वरिश्ठांक तांची अवस्था अजमांव दी. तांका दिसलें हीं उदकान, रंगान भिजल्यांत सामकीं जाल्यार धाडूं दी तांका घरा.

आमी शाळेंत वतना वाटेर जर आमकां पावस लागलो जाल्यार आमी भिजत वचनाशिल्ले शाळेंत? आमची अवतिकाय पळोवन आमचे शिक्षक आमकां घरा धाडी नाशिल्ले? आमचीं दोनूय कामां जातालीं. यथेच्छ भिजपाचें सूख मेळटालें. आनी गैर हजेरी लाय नासतना सुटीय मेळटाली. मागीर घरा परततना आनीकूय भीज जाय तितलो! घरा पावतकच शाळा चुकली, उदकांत भिजला म्हूण तापोवणीय ना आनी मारूय ना. वेल्यान आंग पुसपाक सुको कपडो आनी मागीर गरम गरम च्या! सगळें कशें ऑल इज वेल!

तशेंच रंगपंचमीकूय जावंक जाय. सगळ्यांनी रंगूंक जाय. नाटक हिसपाभायर विटलें जाल्यार वरिश्ठांनी काकूट येवन घरा धाडूंक जाय. भर पगारी रजाय जाली आनी रंगांत यथेच्छ रंगपूय जालें. जाका रंगपाची इत्सा ना, तांका सुटी काडून बसूं दी घरा. सुतकी लोकांक सुतक स्वताच पाळचें पडटा.

हांव दर वर्सा रंगपंचमीक रंगतां. हेरांक रंगोवपाची म्हाका संदूच मेळना. सगळे म्हाकाच रंगयतात. एक सर्तूच लागता तांची. दर एकलो प्रयत्नांत आसता की म्हज्या खाडांत, केंसांत सामको मुळां मेरेन रंग कशो पावोवप! रंगूय एक न्हय. सप्तरंग. ताका लागून म्हजे धवे केंस वेगवेगळ्या रंगांनी रंगून वतात. मूळ पदार येवपाक बरोच काळ सरता.

हांव कित्याक रंगतां हें म्हाका खबर ना. सैम कित्याक रंगता तेंय म्हाका खबर ना. ह्यो दोनूय खबर नाशिल्ल्यो गजाली म्हाका आवडटात. तेच पासत होळीय म्हाका आवडटा.

होळयेक पोरणें आसा तितलेंय लासून उडयतात खंय! हांव म्हजीं पुस्तकां, आलमारी, मेजाखण उस्तीत बसतां. जें कितें नाका तें काडून भायर उडयतां.

हे होळयेक हांवें चितलें, म्हज्या फायलींनी नाका जाल्लीं पत्रां आसात तीं वेगळीं करून लासून उडोवचीं!

म्हाका आदीं पासून एक वायट सवंय. कसलेंय पत्र येवं मागीर तें, तें काडून फायलीक लावन दवरप. तेच सवंयेक लागून घरांत फायलीचे गठ्ठे पडिल्ले. कित्याक जावंक पावले हे गठ्ठे?

हांवें कोणाची तरी, एका व्हड मनशाची खबर वाचिल्ली. ताका एक संवय आशिल्ली, ताका जें पत्र येता तें वाचून जाले उपरांत तशेंच सांबाळून दवरतालो तो. त्याच मनशाचें दुसरें पत्र आयलें म्हणटकच आदलें पत्र पिंजून उडयतालो आनी नवें सांबाळून दवरतालो. हांवूय तशेंच करपाक लागलों.

अनिल बर्वे म्हूण म्हजो एक नाटककार मित्र आशिल्लो. तो म्हाका आत्र्या पयऱ्यान पत्रां बरयतालो. ताचें पत्र आयलें काय आदलें पत्र हांवें पिंजून उडोवप. एक दीस असो आयलो की ताचीं पत्रां येवप बंद जालीं. एक कसलें तरी पोस्टकार्ड धाडिल्लें तें निमणें थाल्लें. तें म्हाका धाडल्या उप्रांत अनिल बर्वे वयर गेलो. म्हाका पिकासांव जालें. ताचीं बरीं बरीं अर्थपूर्ण पत्रां हांवें लासून उडयिल्लीं आनी हें अर्थहीन कार्ड तितलें सांबाळून दवरिल्लें. म्हाका खंय खबर हीं असलीं पत्रां सांबाळून दवरचीं पडटात. पत्रां बरोवपी मेल्या उप्रांत तीं छापूंक बऱ्याक पडटात! रामाणीचीं छापतात तशीं, बाकीबाबाचीं छापतात तशीं!

मागीर मात हांवें थारायलें, आयिल्लीं पत्रां सांबाळप. आयचो सारको पत्रघाणो समाज नाशिल्लो तेन्नाचो! पत्र बरयल्या बगर कोणाक सूख लागना आशिल्लें. सगळो संपर्क पत्रांतल्यान, प्रेम पत्रांतल्यान, आमंत्रणां पोस्टांतल्यान, दुख्खाची गजाल कळोवपाची जाली तरी ती पोस्टांतल्यान कळोवप. पत्र येना जाल्यार सूख लागनाशिल्लें मनशाक. पोस्टमन आयलो आनी पत्र दिनासतना दारांतल्यान मुखार गेलो जाल्यार घरांतल्या मनशांक सूख लागनाशिल्लें. मुद्दम भायर येवन कुरैयकाराक विचारप, 'कांय ना रे?'

आतां आसल्यार दिवपाचो न्हय तो! दिना आसतना वचूंक ताका कितें पिशें लागलां? ताची नोकरीच ती! तरी दर एकल्याक दुबाव सो! आपल्याक पत्र आयलां असो! पोस्टमन चुकून गेला जांव येता!

भुरगेपणार म्हाकाय दिसतालें पत्रां

येवंचीं म्हूण! पूण म्हाका कोण धाडटलो बाबडो पत्रां? आनी हांव तरी कोणाक आनी कित्याक धाडटलों? मागीर व्हड जावन कॉलेजीक बी वचूंक लागलों तेन्ना एखादया मित्रान तरी धाडचें आशिल्लें? दिवाळेच्यो जांव आनी कसल्यो शुभेच्छा दिवपी शुभेच्छापत्र आसूंक जाय आशिल्लें? पूण सामाजिक-राजकीय, भाशीक चळवळींत पडचे पयलीं, बरोवंक लागचे पयलीं एक्काय सभाग्यान म्हाका केन्ना एक कार्ड धाडलेंना. म्हज्या व्हडल्या भावाक येतालीं पत्रां तेन्ना. म्हाका ना!

एक दीस हांवें म्हाकाच एक पत्र बरोवन पणजेच्या पोस्टबॉक्सांत घाल्ल्याची याद जाता. पूण ताका आतां चाळीस वर्सां वयर काळ सरलो तरी तें अजून म्हाका गावंक ना. हांवें स्टॅम्प बी लायल्लो. देशांतले पोस्टमन हे सामके रॅक्त हेंय हांव जाणां आशिल्लों. मागीर घडलां कितें काय? भोवतेक हांवें म्हजो पत्तो सारको बरोवंक नासुये! नातर इतलीं वर्सां सरलीं तरी म्हाका पत्र मेळनासतना उरचें नाशिल्लें!

फाटल्या तीस वर्सांत म्हाका शेंकड्यांनी पत्रां आयलीं. दर वर्साची एक एक फायल करून हांवें पत्रां सांबाळून दवरलीं. फायलींचे गठ्ठेच जाले. हे होळयेक म्हळें सुटी आसा. पत्रां कोणाकोणाचीं तीं पळोवया! पत्रां बरोवपी ह्या संवसारांत ना जाल्यार तीं कोणाकोणाक छापूंक धाडुया. कोण छापिना जाल्यार बिम्ब आसाच.

पत्रांच्या गठ्ठ्यांनी आमंत्रणां आनी निमंत्रणां चड. लग्नाचीं, कार्यावळींचीं, साखरपुड्याचीं, मुजीचीं, बसकांचीं. म्हळें दवरून फायदो कितें? काडून लासून उडोवया.

मागीर घेतलीं पत्रां. मनोहर सरदेसाय, शंकर रामाणी, मंगेश पाडगांवकार, रवीन्द्र केळेकार, मनेका गांधी, द्वारकानाथ शेंडे, माधवी देसाई अशीं बरींच पत्रां. पूण सगळ्यांत चड पत्रांची रास आशिल्ली ती प्रेमपत्रांची. एकल्या-दोगांचीं न्हय प्रेमपत्रां. डजनभर चलयांचीं. एक एक पत्र चाळटां तसो हांव त्या काळांत वाचपाचो यत्न करतालों. बाकीबाब पायजणांत म्हणटा तसो, तांतलें कांय नुल्लें आज, सगळे जिणे आयल्या सांज तरीय अकस्मात तुजीं वाजतिं पांयजणां / कानसुलांनी भोंवती भोंवर, आंगार दाट फुलता चंवर अशी काय अवस्था जावंक ना. फकत अदमास आयलो तो त्या काळचीं पिशेपणां. म्हजींय आनी पत्र धाडटल्यांचींय.

सगळयांत चड पत्रां आसात गुजरातचीं. म्हाका गुजराती कळना म्हूण हिन्दीत बरयल्लीं. दर तिसऱ्या-चोवथ्या दिसा पत्र. गुलाबी, रंगीत पातळ कागदाचेर चडांत चड सुंदर अक्षर काडपाचो यत्न करून बरयिल्लीं पत्रां. म्हणटकच त्या पत्रांक हांवेंय जापो बरयल्ल्यो जावंक जाय. हांवें कितें बरयल्लें ताची म्हाका याद ना. पूण हांवें बरेंच कितें बरयिल्लें आसूंक जाय. कित्याक एकदीस ताच्या बापायन म्हाका पत्र बरयल्लेंय पत्र तातूंत आसा. ताणें म्हजी बरीच तुस्त तोखणाय त्या पत्रांत केल्ली. म्हज्या विचारांनी तो प्रभावीत जाल्लो. पत्राच्या शेवटाक ताणें एक विनवणी केल्ली. आपले धुवेक आतां आनीक पत्र बरोवं नाका. ताणें बरयल्यार लेगीत ताका जाप दिवं नाका. तें हालींच लग्न जावन अमेरिकेक स्थायिक जावंक गेलां. फटाफट लग्न करपाचो निर्णय घरच्यांनी घेतिल्लो खंय. न्हवरो भुरगो बरो उद्योजक. कोणाच्या तरी लग्नाक ताणें ते चलयेक पळयलें आनी रोखड्या रोखडें लग्न करून घेवन गेलो अशें ते चलयेचो बापूय त्या पत्रांत बरयतालो. ताचो बापूय हायकोर्टाचो जज्ज आशिल्लो. ताणें दिल्लो निवाडो म्हाका मान्य केले बगर पर्याय नाशिल्लो.

हेरांचीं अशींच रडून बरयिल्लीं पत्रां. तुजे बगर हांव जगूंक शकना बी असल्या सुराचीं. कांय म्हज्याच मित्रांनी टोपण नांवान बरयिल्लीं पत्रां. एकल्यान तर उषा नायक ह्या नांवान म्हजे एके प्रेयशीक पत्र बरयल्लें. दिलीपान म्हाका फसयलां, ताचे पसून म्हाका एक चलो आसा. आतां ताणें म्हाका सोडलां. तुकाय तो तसोच करतलो. ताचे पासून सावध राव बी म्हणून. पत्र कोणाचें आसत हाचो त्या काळार आमी सोदपाचो प्रयत्नूय केला आसत. पूण हीं पत्रां चाळटना तें अक्षर म्हाका सामकें वळखिचें दिसलें. तें तर आमच्या मदल्याच एका जिवा भावाच्या इश्टाचें आशिल्लें.

एक चली तर स्वता आपल्या बापायकूच पत्रां बरयतालें कोणाच्या तरी नांवान. आनी तीं पत्रां म्हाका हाडून दितालें. तातूंत तो कोण, ते चलयेच्या बापायक पत्रांतल्यान ते चलयेचे आनी म्हजे कसले संबंद आसात ते कळयतालो. म्हजे ते चलयेकडेन कसलेच संबंद नात हें ते चलयेकय खबर आशिल्लें आनी म्हाकाय. तरी आसतना आपल्या बापायक आयिल्लीं पत्रां तें चली म्हाका हाडून दितालें.

दुसरी एक म्हजी विद्यार्थीनी. आतां तें म्हजेर प्रेम करता हें म्हाका कशें कळपाचें? दरेक विद्यार्थ्याचो एक पॅट टिचर आसता तसो हांव ताचो पॅट अशें हांव चिंततालों. जेन्ना ताका कळ्ळें हांव लग्न बी जालों म्हण तेन्ना कोणा कोणाच्या नांवान गाळी घालून म्हाका पत्रां. पत्रां इतलीं बुरशीं बरोवं येतात हें म्हाका त्या पत्रांवेल्यान कळिल्लें. प्रत्येक पत्रांत हांवें एके बरे चलयेक पयस करून वायट केलें होच सूर! पूण पत्रां बरयताली तीच चली.

आयच्या काळांत कोणाचींच पत्रां येनांत. येतात फोन आनी एसएमएस्. आयुश्य खूब कृत्रिम करून उडयलां ह्या अर्विल्ल्या साधनांनी. तरी बरें हांवें हीं पत्रां सांबाळून दवरिल्लीं म्हूण! अशींच केन्ना केन्ना फुडाराक विरंगुळो म्हूण वाचपाक उपकरतलीं. पत्रां नांवाचो एक प्रकार आदीं आशिल्लो हाची याद दवरपाक हीं पत्रां निश्चितच आदार करतलीं हातूंत दुबाव ना.





– दिलीप बोरकार
आगशी – गोंय

POSTAL LIENSE NO.: G-2/RNP.Goa/01/2009-11

RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413



Published & Printed by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, 'Dharm-Laxmi', St. Lourence, Agasaim - Goa & Printed at Sahyadri Offset Systems, Corlim, Goa. Editor : Dilip Borkar, Ph.: 2438355, E-mail: bimbkonkani@yahoo.co.in